

विश्व कोंकणी साहित्य ४८



# सारस्वत ब्राह्मणांचो प्राचीन इतिहास

बस्ती पुंडलीक शेणै

कोंकणी अणकार

रमेश लाड



कोंकणी भाषेचें पयलान पयलें शिलाशाशन – (क्रि.श ९८१)
श्रवण बेळगोळांत स्थापन जालेले
गोमटेश्वर विग्रह पांया मुळाक केत्तन केलेले
"श्री चावुंडराजे करवियले आनी
श्री गंगराजे सुत्ताले करवियले"
(श्री चावुंडराजान करयले सुत्तण प्रकार श्री गंगराजान निर्माण केलेले)

# सारस्वत ब्राह्मणांचो प्राचीन इतिहास


लेखक:

**बस्ती पुंडलीक शेणै**

राष्ट्र भाषा विशारद

अशोकनगर, मंगळूर-६

कोंकणी अणकार:

**श्री रमेश लाड, गोंय**



प्रकाशक:



**कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान**

विश्व कोंकणी केंन्द्र, लोबो प्रभु नगर, कोंकणी गांव

शक्तीनगर, मंगळूर-१६

**'सारस्वत ब्राह्मणांचो प्राचीन इतिहास'** - लेखक: श्री बस्ती पुंडलीक शेणै, अशोकनगर, मंगळूरु. कोंकणी अनुवाद: श्री रमेश लाड, एम-११, हाउसिंग बोर्ड कॉलोनी, घोघल, विद्या नगर, मडगांव, गोंय. Mobile: ९७६४९ २४५५२. प्रकाशक: कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान, विश्व कोंकणी केंन्द्र, लोबो प्रभु नगर, कोंकणी गांव, शक्तीनगर, मंगळूर-१६.

| | |
|---|---|
| पयली आवृत्ती | ऑक्टोबर -२०१७ |
| कॉपी रैट | कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान, विश्व कोंकणी केंन्द्र, लोबो प्रभु नगर, कोंकणी गांव, शक्तीनगर, मंगळूर-१६. Ph:-०८२४-२२३१८७७, २२३१८८७ |
| प्रकाशक | कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान, विश्व कोंकणी केंन्द्र, लोबो प्रभु नगर, कोंकणी गांव, शक्तीनगर, मंगळूर-१६. |
| पेपर | High Bulk 50 gsm |
| आकार | 1/8 demi |
| पानां | 116+xx |
| मोल | ₹ 200 |
| कवर पेज | गुरू बाळिगा, मंगळूरु |
| मुद्रण | ब्रिलियंट प्रिंटर्स, बेंगळूर. |
| सहकार | कन्नड मत्तु संस्कृती इलाखे, कर्नाटक सरकार, बेंगळूरु. |



**ISBN : 978-93-82582-37-3**

## प्रकाशकालीं उतरां

विश्व कोंकणी केंद्राच्या 'विश्व कोंकणी साहित्य अकादेमी' वतीन कोंकणी साहित्यिक वावर चड विस्त-रान चलता आसा. उन्नत श्रेणीचे मौलिक साहित्यकार आनी विद्वांस आशिली विश्व कोंकणी साहित्य अकादमी स्थापन जाल्या. कर्नाटक, गोंय, केरळ आनी महाराष्ट्र राज्याचे नामनेचे लेखक आनी साहित्यकार विश्व कोंकणी साहित्य अकादेमीचे सांदे आनी सल्लागार जावन सहकार दीत आसाती. कोंकणी साहित्य अंतर्राष्ट्रीय पांवड्यार पावोंवची योजना मांडून हाडल्या. आरतांचे धा वरसांनी पंद्रा साहित्य कृत्यो कोंकणी, इंग्लिश, हिंदी, मलयाळम भाशेंनी अनुवाद करन प्रसिद्ध केल्यात. तांतुल्या कांय कृत्यांक साहित्य अकादेमी आनी देशाचे इतर जायत्या भाशिकांची प्रशंशा मेळ्ळ्या.

बाल साहित्य मळांत कोंकणी भाशेच्यो ८ कृत्यो आनी तीस वर्ण रंजित द्वैभाशीक इंग्लीश - कोंकणी कृत्यो प्रकट केल्यात. कोंकणी लेखकांक, तांतूची युव साहित्यकारांक अनुवाद कार्यागार मांडून हाडल्यात.

मुखावयले दिवसांत कोंकणी भाशेंतु खंडकाव्य, साहित्य ग्रंथ, काळीदास, शेक्सपियर, टॉलस्टॉय - असले महान लेखक नाटककारांगेल्यो साहित्य कृत्यो कोंकणी भाशेक अनुवाद करनु प्रकट करची योजना हात्तांतु घेतल्या.

विश्व कोंकणी साहित्य अकादेमी वतीन कोंकणी उलोवपी वेगवेगळ्या समाजाची परिचय करन दिंवचे पुस्तक उजवाडांवची योजना केल्या. आरतांची कोंकणी मांयभास उलोंवच्या कुडुबी समाजा बद्दल माहिती दिंवचें पुस्तक प्रगट केलेलें आसा.

आतां मांयभास कोंकणी उलोंवच्या सारस्वत समाजाची विस्तृत माहिती दिंवचो दि. बस्ती पुंडलीक शेणैन साठ (६०) वरसां पयलें संशोधन करन बरोवन प्रगट केलेल्या "सारस्वत ब्राह्मणांचो प्राचीन इतिहास" संशोधनात्मक पुस्तकाचो कोंकणी अनुवाद प्रगट जाता. हें पुस्तक बरोंवच्या पयलें दि. पुंडलीक शेणैन जायते प्राचीन, अर्वाचीन, ऐतिहासिक ग्रंथ वाचून अध्ययन केलां. दि. शेणैन वाचिल्ल्या ग्रंथांची वळेरी ह्या पुस्तकाचे अखेरीक दिलेली आसा. ती पळयल्यारी दि. शेणैली ज्ञान तृषा कितली आशिली म्हळेलें कळन येता. दि. शेणैन 'सिंधू संस्कृती आनी ब्राह्मी लिपी' विशयांतूय एक संशोधन ग्रंथ बरोवन उजवाडायिल्लो आसा. 'कोंकणी आनी मराठी हांचो तुलनात्मक विमर्श' म्हळेले विशयांतूय कन्नड पुस्तक प्रगट केलेलें आसा.

"सारस्वत ब्राह्मणांचो प्राचीन इतिहास" कोंकणींत बरें करन अनुवाद केलेले नामनेचे भाशांतरकार गोंयचे श्री रमेश लाड हांकां देवु बरें कोरो.

ही कृती प्रकट करूंक अनुदान दीवनु सहाय केलेल्या कर्नाटक सरकाराच्या कन्नड मत्तु संस्कृती इलाखे, बेंगळूरु हांका विश्व कोंकणी केंद्राचे वतीन काळजा थाकून कृतज्ञता सांगतां.

सोबीत जावन मुख चित्र रचन केलेल्या गुरु बाळिगा आनी सोबीत जावनु मुद्रण कोरनु दिलेल्या ब्रिलियंट प्रिंटर्स, बेंगळूरू हांकांय देवु बरें कोरो.

**विश्व कोंकणी केंद्र**
**शक्तीनगर, मंगलूर**
**दि. ६-११-२०१७**

**बस्ती वामन शेणै**
**अध्यक्ष**
**कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान**

# अनुक्रमणिका

# आर्य वा सारस्वत ब्राह्मणांचे पूर्वज

पश्चिमी लोकांनी भारतांत प्रवेश करून हांगाच्या राजकी आनी धर्मीक वेवस्थेंत हात घालपाक सुरवात करचे आदीं भारतवर्षांतले सगळे लोक एकाच वंशाचे अशें विद्वान लोक मानताले. तशेच ते उलयतात त्यो सगळ्यो भासो मूळ संस्कृतांतल्यानूच *रूपांतरित* जाल्यात आनी सगळे भारतीय लोक हेच भुंयेचे मूळ निवासी अशेंय बी तांचें मत आशिल्लें. पूण पश्चिमी विद्वान आनी तांतले तातूंत डॉक्टरेट पदव्यो मेळयल्ल्या पाद्रींनीं भारतीय भासांचो अभ्यास केलो आनी आदले ते विचार चूक थारायले. तांच्या मताप्रमाण भारतीय भासो एकाच मूळ भाशेंतल्यान जल्मूंक नात. तेच तरेन भारतीय जनसमुदायांमदीं आर्य, द्राविड, मुंडा, बुरुषस्की आदी भिन्न वर्गांतले लोक आसून द्राविड सोडून हेर भायल्यान येवन हांगा *स्थायिक* जाले ही गजाल सिद्ध जाल्या अशें मत तांणीं मांडलां. ताणीं केल्ल्या वर्गीकरणाक *वैज्ञानिक* आधार आशिल्ल्यान *आधुनिक* भारतीय विद्वानां मदल्या चडावतजणांनी तांचो सिद्धांत मानून घेतला. पूण आर्य लोक खंयसाकून आयले वा तांची मूळ भूंय खंयची हाचे विशीं मतभेद आसात. हाचें कारण म्हणल्यार आर्य वर्गाचे लोक आशिया खंडांतच न्हीं तर युरोप खंडांतल्या अनेक देशांनीय बी *स्थायिक* जाल्ले आसात.

लोकमान्य बाल गंगाधर टिळकांनी आर्यांचे मूळ भुंये संबंदान ''The Arctic Home in the Vedas'' ह्या पुस्तकांत आपणालें मत मांडलां. तातूंतल्या तांच्या मताप्रमाण आर्य लोकांचे पूर्वज सुमार आठ हजार वर्सां आदीं मेरेन उत्तर ध्रुव प्रदेशांत रावताले तेन्ना थंयचें हवामान मनशाच्या राबित्याक अनुकूल आशिल्लें. *आकस्पिकपणान* थंयच्या तेन्नाच्या हवामानांत परिवर्तन घडून हिमवर्षाव जावपाक सुरवात जाली आनी त्या हिमपातान प्रलय जावन भिरांकूळ अशी बुड्टी आयली. तेन्ना तांकां ती भूंय सोडून सकयल्या प्रदेशांनीं स्थलांतर करचें पडलें. ते भारतांत येवचे पयलीं मध्य आशिया, पश्चिम आशिया आदी प्रदेशांनी वचून रावपाक लागले. तांचे थोडे तांडे युरोपांत गेले आसूंयेता अशें ऋग्वेदांतल्या मंत्रांनी आनी हेर तरेकवार प्रमाणांच्या आधारान ताणी *वैज्ञानिक* पद्धतीन विस्कावणी करून सांगलां. तांचें हें मत जायत्या भारतीय विद्वानांक मान्य आसा.

आर्य लोकांचे पूर्वज *स्थायिक* जाल्ले आशिल्ले त्या उत्तर ध्रुव प्रदेशांत कांय थळांनीं

वर्साच्या 365 दिसांतल्या 60 दीस धरून 192 दिसां मेरेन दीर्घ काळ सूर्य अस्त जायनासतना क्षितिजाचेर (दिगंतेचेर) दिश्टी पडटा. त्या थळांनी सूर्य पूर्वेक उदेवन वयर येवन उपरांत पश्चिमेक देंवून अस्तमना. त्या बदलाक एक मनीस पूर्वेक फुडो करून उबो रावलो जाल्यार ताचे दावे वटेन म्हणल्यार उत्तर दिकेक सूर्य उदेवन वयर येता आनी पूर्वेवटेन वचत रावून दक्षिणेक पावून अस्तमता. लोकमान्यांच्या अभिप्रायाप्रमाण आर्य लोकांचे पूर्वज शंबर दिसां इतल्या लांब काळाचो उजवाड आनी तितल्याच दीर्घ काळाची रात उरता अशा प्रदेशांत रावताले.

उत्तर ध्रुव प्रदेशांतलो उजवाड आनी काळखाची थोडी वळख जावचे खातीर ध्रुववृत्ताचे उत्तरेक आनी दक्षिणेक आशिल्ल्या प्रदेशांतलीं खाशेलीं वैशिश्ट्यां हांगा विस्कावन सांगल्यांत.

विषुववृत्ताचे वा भूमध्य रेशेचे उत्तरेक वा दक्षिणेक 66.½ अक्षांश रेशेक ध्रुववृत्त अशें नांव दिल्लें आसा. त्या दोन रेशांच्या उत्तरेक आनी दक्षिणेक आशिल्ल्या प्रदेशांक ध्रुव प्रदेश अशें म्हणटात. एका ध्रुव प्रदेशांत उजवाड आसता तेन्ना दुसऱ्या ध्रुव प्रदेशांत काळोख आसता. म्हणल्यार उत्तर ध्रुव प्रदेशांत दीर्घ दीस आरंभ जाता तेन्ना त्याच समयार दक्षिण ध्रुव प्रदेशांत दीर्घ रात आरंभ जाता. आनी तेच तरेन उत्तर ध्रुव प्रदेशांत दीर्घ रात आरंभ जाता तेन्ना दक्षीण ध्रुव प्रदेशांत दीर्घ दीस आरंभ जाता.

भूमध्य रेशेचे उत्तरेक सत्तरावे अक्षांशाचेर आशिल्ल्या थळांनी पौष म्हयन्याच्या 26व्या दिसा म्हणल्यार उत्तरायण आरंभ जावन 24 दिसां उपरांत फांतोडेच्या उजवाडावरी झिळमिटो उजवाड दिसूंक लागता. (हांगा राष्ट्रीय पंचांगाचेर आदारून दिसांचो उल्लेख केला) तो मंद उजवाड इकरा दीस मेरेन भुंयेचेर पातळून दर एका भोंवताड्याक तो चड आनी चड जायत रावता. (असो एक भोंवताडो म्हणल्यार एक दीस) तसोच माघ म्हयन्याच्या आठव्या दिसाच्यान एक मनीस पूर्वेक (उदेंतेक) फुडो करून उबो रावलो जाल्यार ताचे दावे वटेन म्हणल्यार उत्तर आनी उदेंते मदीं सूर्य बिंबाची एक ल्हान ताटली कशी तापिल्ल्या भांगरावरी दिसपाक लागता आनी तो उदेंते वटेन वचत वचत उजव्यान पावून उदेंत आनी दक्षिणे मदीं अस्त जाता तो दिसता. त्या दिसा सूर्यबिंबाची ताटली फकत चारच वरां दिश्टी पडटा. दुसरे दिसा सूर्यबिंबाची मातशी व्हडली ताटली चडशी उत्तरेक वयर येवन सुरवातेच्या दिसावरीच उदेंतेवटेन

वचत रावून चडशी दक्षिणेक वचून अस्तमता. अशे तरेन दिसान दीस सूर्याच्या अंशा वांगडाच दिसाची लांबाय व्हड व्हड जायत रावता. जेश्ठ म्हयन्याच्या पांचव्या दिसाच्यान उजवाडाचो काळ 24 वरांचो जाता. म्हणल्यार त्या दिसाच्यान सूर्यास्त जायनास्तना सूर्यबिंब दिगंतेचेरच (क्षितिजाचेरच) रावून दावे वटेंतल्यान उजवे वटेन फुडें वचून पृथ्वेक भोंवताडो घालीत रावता. तसोच बत्तीस दीस मेरेन तो दर दिसा थोडो थोडो वयर वयर चडत रावता. 32व्या दिसा मातसो *स्थिर* जाल्लेवरी दाखोवन दुसऱ्या दिसाच्यान जे तरेन वयर येता तेच तरेन थोडो थोडो सकयल देंवत रावता. तसोच सूर्य श्रावण म्हयन्याच्या पांचव्या दिसा मेरेन 63 दिसांचो काळ क्षितिजाचेर रावून दावे वटेंतल्यान उजवे वटेन वचत रावून पृथ्वेक प्रदक्षिणा घालीत रावता. श्रावण म्हयन्याच्या सव्या दिसा साकून दिसाची लांबाय दिसान दीस कमी जायत वता. तशेच तरेन कार्तिक म्हयन्याच्या 25व्या दिसा सूर्य पुरायपणी नदरे आड जाता. उपरांत 11 दीस मेरेन संधी प्रकाश पातळिल्लो उरता. आनी तोय बी दिसान दीस कमी जायत वता. आनी मार्गशीर्ष म्हयन्याच्या सातव्या दिसा पुराय काळोख पातळटा. तेच तरेन मार्गशीर्ष म्हयन्याच्या सातव्या दिसा सुरू जाल्ली दीर्घ रात पौष म्हयन्याच्या 26व्या दिसा मेरेन उरता. म्हणल्यार 50 दिसांची अर्थांत पृथ्वेच्या 50 भोवंताड्यां इतली लांब रात उरता. तो पुराय काळ मळबांत चंद्र दिश्टी पडटा. तेच तरेन एकेकूच नक्षत्र क्रमाक्रमान उजव्यांतल्यान दावे वटेन फुडें फुडें वचत राविल्लें दिश्टी पडटा. 70व्या अक्षांशा कडच्यान उत्तरेक वतात तशे तशे पुराय दीस आनी पुराय रात दर दिसा व्हड व्हड जायत वता. ध्रुव बिंदू आनी ताचे भोंवतणच्या प्रदेशांत वर्साच्या 365 दिसांतले 192 दीस उजवाड आनी 173 दिसां इतली रात (काळोख) उरता. (Daylight, Twilight, Darkness and Time by Lucia Harrison)

हांगा आदीं उल्लेख आयला ते तरेन आर्यांचे पूर्वज दीर्घ काळ उरपी काळोख आनी कुडकुड्याच्या शिंयाचें (थंडसाणेचें) वातावरण, तशेंच वनस्पत रोवपाक आनी शेतांत दाणो गोटो पिकोवपाक अनुकूल नाशिल्ल्या अशा उत्तर ध्रुव प्रदेशांत *स्थायिक* जाल्ले आशिल्ल्याकारणान तांकां आपणाल्या आहाराखातीर शिकार करून मारिल्ल्या सावदांच्या (मृग–मोनजातीच्या) मांसाचेरच अवलंबून रावचें पडटालें. म्हणल्यार शिकार करून सावदां मारिनास्तना तांकां जगप असंभव आशिल्लें. दक्षिणायन आरंभ

जाले उपरांत थोड्या दिसांनीच सूर्य अस्ताक वचून दीर्घ रात आरंभ जाली जाल्यार पयलीं आशिल्ली हुनसाणूय बी ना जावन काळोख आनी थंडायेक लागून तांकां तरेकवार त्रासांक फुडो करचो पडटालो. त्या खातीर ते लोक सूर्य परतून केन्ना उदेतलो काय म्हूण खूब हुस्को आनी उमळशिकेन ताच्या आगमनाची वाट पळयत रावताले. सोसूं नजो असो काळोख आशिल्ल्यान चड काम करप साध्य जायनाशिल्ल्यान ते सगळे एकवटान काळोख आनी उजवाड वा मरण आनी मरण येना जावपाचें कारण हांचे विशीं चिंतताले आसूंक फावो अशें दिसता. म्हणल्यार काळखाक लागून तांकां सोंसचे पडटाले ते त्रास पयसावपाच्या उपायांसंबंदान ते चिंतताले जावंये अशें दिसता. ना जाल्यार सूर्य आपणाचेर रागार जावन तो नदरे आड गेला आसत आनी तो परतून दिसतलो जाल्यार कितें करपाक जाय जातलें हाचे विशीं चिंतताले आसूंयेता. कितें केलें जाल्यार तो परतून उदेवंये ह्या विशयाचेर ते चिंतताले आसपाक जाय. म्हणल्यार तांच्या विचार विमर्शाचें वट्ट तात्पर्य सूर्य परतून उदेवन येवचेखातीर आपणे स्वत: कितें करपाक जाय हें आशिल्लें. त्याभायर ते आनी कसलोय विचार करूंयेत अशें दिसना. कारण तांचे सामकार काळोख पयस कसो करप हो एकूच प्रस्न आशिल्लो. दुसरे प्रस्न तांचे खातीर गौण आशिल्ले. त्या खातीर तांणीं सूर्याची तुस्त–वाखाणणी करपाचो हेत बाळगून सान सान स्तोत्रां रचून ''गा देवाधिदेवा तूं परतून उदेवन आमची या कश्टांतल्यान राखण कर.'' ताचे मुखार ते आपणालें मागणें दवरताले. अशे ताचे सामकार दवरिल्ले साबार मंत्र ऋग्वेदांत आसात :–

*ये ते पंथा: सविता: पूर्व्यासोऽरेणव: सुकृता*

*तेभिर्नो अद्य पथिभि: सुगेभी रक्षा च नो अधिच ब्रूहि देव ।।1.35-11।।*

अर्थ : (गा चेतनाकारी अशा सूर्यदेवा अंतरिक्षांतली धूळ आवरणावरी सोबीत तरेन पातळायल्ल्या ज्या पोरण्या मार्गांचेर तूं भोवता त्या सुलभ मार्गां वयल्यान येवन आतां आमकां राख आनी गा देवा तुज्या दर्शनान आमकां आशीर्वाद दी.)

*आरंभिक* स्थितींत आसतना तांणीं आपणाक उजवाड दिवन उपकार करताले त्या सूर्य आनी चंद्राक देव म्हूण मानपा भायर दीर्घ रात आसता त्या त्या काळांत सतत दिसपी आनी मिणमिणत रावून उजवाड दिवपी नक्षत्रांकय देवत्व दिल्लें. आनी तांणीं

नक्षत्रांक उद्देशून तरेकवार कथा रचिल्ल्यो. उपरांत मळबांतल्यान कोसळपी विजेचे प्रखरतायेन रानांतले रूख लासून इंगळे जातात ते पळोवन, तशेच त्या इंगळ्याचेर रुखांची पानां, लाकूड–बडयो, पुंजावन घाल्यो जाल्यार ती रास पेट्टून उजवाड जाता, इंगळ्यांनी उरपी लासपाची शक्ती, गड्डे, मुंडल्यो तातूंत भाजून येवन गोड जातात ती घडणूक पळयल्ले ते लोक अग्नीक सूर्य–चंद्रा परसय व्हड देव, आपणालो उलो आयकून, आपणाले कश्ट निवारण करचे खातीर दिव्य जळांत स्थानापन्न जावन राविल्लो तो धरतरेचेर देंवून आयिल्लो अशी श्रद्धा बाळगून अग्नीक तरातरांनी वाखाणटाले. ताचे फाटलें कारण म्हणल्यार सूर्य–चंद्र एकेक फावट अदृश्य जाताले पूण अग्नी जाल्यार सदांच तांचो रक्षक जाल्लेवरी तांचे भोंवतणेतच उरतालो.

आर्यांचें *वसतिस्थान* दीर्घ काळ काळोख आनी सोसूं नजो इतली थंडाय उरपी उत्तर ध्रुव प्रदेशांत आशिल्ल्या कारणानूच ते हेर देवतां परस अग्नीक चड प्राधान्य दिताले. म्हणल्यार अग्नीकूच तांणीं *प्रमुख* दैवताचो मान दिल्लो. अशें आशिल्ल्यान वेदांमदीं प्राचीन म्हूण मान्यताय फावो जाल्लो ऋग्वेद अग्नी ह्या शब्दान अग्नीचे वाखाणणेन सुरू जाता. आनी ऋग्वेदांतले अर्दा परस चड मंत्र अग्नी आनी अग्नीचें दुसरें रूप इंद्र अशा दोगांचें वर्णन आनी वाखाणणी गायतात.

अथर्व रुशीच्या कुळांतल्या अंगिरसान रानांत विजेचे प्रखर तापीन (तपमानान) लासून गेल्ल्या रुखांच्या इंगळ्यांच्या रूपान सगळ्यांत पयलीं अग्नी पळयल्लो. आनी अग्नी झाडाभितर आसूंये अशी कल्पना करून झाडाच्यो बडयो एकठांय धरून एकामेकांचेर घश्टून तांचे भितरल्यान उजो निर्माण जावंक शकता काय कितें हाचो सोद घोतिल्लो. त्या संबंदातले कांय मंत्र ऋग्वेदांत आसात :–

*त्वामग्नेंऽगिरसो गुहहितमन्वनिंदंछ्रिच श्रीयाणं वनेऽ वनेऽ ।*

*सजायसे मध्यमान: सहोमहस्त्वामाहु: सहसस्पुत्रमंगिर: ।।5.11-6।।*

अर्थ : (गा अग्निदेवा रानांत आसरो घेवन (गोबराचें आवरण आशिल्ल्यान) गुप्त राविल्ल्या तुका वा खळयां खोणकुलांनी राविल्ल्या तुका अंगिरस कुळांतल्या मनशांनी पळयलो. गा अंगीरा तूं बळ लावन (बडयांचें) घर्शण केल्ले कारणान जल्मता त्या खातीर तुका बळाचो पूत म्हणुनय बी

बळिश्टांतलो बळिश्ट अशेंय म्हणटात.)

*इममुत्यमथर्ववदग्नीं मथंति वेदस: ।*

*यमंकूयंतमानयन्नमूरं श्यावाभ्य: ।।6.15.17।।*

अर्थ : (यज्ञविधि जाणा जाल्ले अथर्व ऋषींसारकेच (बडयो) घर्षण करून अग्नी निर्माण करतात. तांणी वांकडो तिकडो धांवपी आनी सदांकाळ जागृत रावपी हाका काळखा पासत (=रातचो काळोख पयसावपाच्या उद्देशान) हाडलो (निर्मिलो))

वयल्या दोन मंत्रांतल्या पयल्या मंत्रांत अग्नीक ''अंगिर:'' अशें म्हणिल्ल्यान आनी दुसऱ्यांत ''अथर्वांवरी घर्षण करतात'' अशें आशिल्ल्यान रानांत गुप्तपणी आशिल्ले इंगळे सगळ्यांत पयलीं जांकां दिसले ते अंगिरस कुळांतले मनीस आसून तांकां संबोधूनच इंगळ्यांक आनी उपरांत उज्याक ''अंगिर:'' अशें नांव फावो जालें, उपरांत अंगिरस कुळांत जल्मल्ल्या अथर्व नांवाच्या एकल्यान बडयांचे घर्षण करून उजो निर्माण जाता तो पळोवन त्या कारणाखातीरच ते तरेन उजो निर्माण करपाच्या संदर्भांनी अथर्वांवरी घर्षण करतात नाजाल्यार अथर्वान (घर्षणान) निर्माण केलो अशे तरेचे उल्लेख येतात म्हणपाचें सिद्ध जाता :–

*त्वामग्ने पुष्करादध्यथर्वा निरमंथत ।*

*भूर्ध्नो विश्वस्यवाघत: ।। 16.13 ।।*

अर्थ : (गा अग्निदेवा, अथर्व ऋषीन सगळ्या यज्ञिकांच्या माथ्या वयल्यान म्हणल्यार सगळ्या यज्ञिकांक फाटीं घालून कमळाच्या पानार घर्षण करून तुका निर्मिला.)

बडयो घांसून उजो निर्माण करप हें खूब कश्टांचें काम आशिल्ल्या कारणान एक फावट पेटयल्लो उजो पालवून वचचो न्हीं म्हूण ताची राखण करप हें तांचें पयल्यान पयलें कर्तव्य आशिल्लें. त्या खातीर तांणी आपणाल्या घराभितर एक फोण खणून तातूंत पेट्टे इंगळे घालून वेळा वेळार तातूंत जळव (जळोव) घालीत रावपाचो एक क्रम आचरणांत हाडलो. बेश्टे जमनीरच इंगळे दवरून उजो पेटत दवरलो जाल्यार थंड

ग्र्यान उजो आनी इंगळे पालवताले. त्या खातीर ते उज्याची राखण जावपाक जाय म्हूण कुंडां तयार करताले. तशे तरेन उजो पालवना जावपाक परतू परतून अग्निकुंडात जळण घालीत रावपाचे तांचे नित्य कृतीक उपरांत विधिपुर्वक अशें अग्निहोत्राचें रूप आयलें. त्या भायर अग्नी होच प्रत्यक्ष देव म्हळ्ळे भावनेक बळ मेळून आपूण करतात तीं सगळीं विशिश्ट कार्यां ताचे साक्षीन चलतात अशें मानून अग्नी *प्रज्वलित* करून ताचे सामकारच आपणालीं सगळीं कार्यां ते मुखार व्हरूंक लागले.

ते उपरांतले लोक आपूण रावताले त्या घरा भितर अग्नी खातीरच एक वेगळी कूड दवरताले.[1] आनी ते कुडींत वाटकुळें कुंड तयार करून तातूंत अग्नीची थापणूक करताले. ताका ''गार्हपत्याग्नी'' अशें म्हणटाले. म्हणल्यार घरकारान (गृहपती) दर दिसा अग्निहोत्र, वैश्वदेव यज्ञ, पर्वश्राद्ध आदी प्रकारांतले जे विधी करपाची गरज आसताली ते चलोवपाखातीर स्थापन केल्लो आनी जाची तो राखण करतालो तो अग्नी असो अर्थ. लोक विटो तयार करपाक शिकले उपरांत अग्निकुंडांक विटांचो उपेग करपाक लागले. विटो वापरून तयार केल्ल्या कुंडांक 'चिति' अशें म्हणटाले.

सूर्यप्रकाशाच्या अभावाक लागून काळोख आनी खर थंडायेक लागून खूब कश्ट सोंसचे पडिल्ले ते लोक पोट भरपा खातीर फळां-मुळां आनी कसलीं धान्या मेळनाशिल्ल्यान, हातांत दांडो घेवन नक्षत्रां वा चंद्राच्या उजवाडांत चोरांवरी पंगड घडोवन भोंवताले. आनी हेवटेतेवटेन लिपून पाळत दवरून काळखांत हेडत भोंवपी मोनजातींक दांड्यानीं मारून जीव काडटाले. मागीर ताका उखलून हाडटाले आनी ताची सोलून कात काडून उज्याच्या कुंडांत ताचें मांस भाजून खाताले. ताची कात न्हेसपाक वा पांगरुपाक वापरताले. न्हेसपाचें कातडें कमराक गुठलावन तणाचे दोरयेन घट्ट बांदताले.

मुखार कांय काळा उपरांत तांच्या नित्याच्या कामानी एक *वेवस्थित* रूप घेतलें. यज्ञसंस्था जल्माक आयली. विधी विधानांची वेवस्था जाली. हातांत दांडो घेवप आनी कातडें न्हेसपाच्या कार्याक ''मौंजीबंधन'' अशें नाव फावो जालें. ते प्रथेचें परिष्कृत रूप म्हणल्यार आतांचो उपनयन संस्कार. वेगवेगळ्या यज्ञां खातीर वेगवेगळ्या आकारांचीं कुंडां *निर्धारित* जालीं. आपूण खावपाचें अन्न आपणालें परम दैवत

---

*1 – श्रुतिबोध; दुसरोखंड; उपोद्घात पान – 16*

आशिल्ल्या अग्नीक अर्पण केलेबगर खावंक फावना असो नेम तांणी आचरणांत हाडलो तेच तरेन तांचे कल्पनेत रूपाक आयिल्ल्या कांय वेगळ्या देवतांकय आहुती ओपपाचो नेम तांणीं आचरणांत हाडलो. म्हणल्यार देवतांक आहुती ओपप हें दर एका आर्याचें कर्तव्यकर्म थारलें. ते स्वता मांसाहारी जाल्ले आशिल्ल्यान देवतांकय बी मासाचीच आहुती दिताले. श्राद्धाच्या दिसांनी पितरांक मांसाचेंच जेवण वाडून ताचे मार्फत पितरांक, श्राद्धाक *आमंत्रित* केल्ल्या ब्राह्मणांक तृप्त करताले. आर्य ब्राह्मणांनी वेदांगांतल्या *कल्पसूत्रांनी* थारायल्ल्या विधींप्रमाण सगळें आचरण करप गरजेचें आशिल्लें. तो पूर्वजांच्या काळांतल्यान चलत आयिल्लो धर्म आशिल्लो. त्या धर्माच्या आचरणात जर कोणेय सदळसाण आपणायली जाल्यार ताका पातकी मानताले.

ऋग्वेदी ब्राह्मण शाकलशाखेचे उरले जाल्यार तांणीं ऐतरेय ब्राह्मण आश्वलायन श्रौत आनी गृहसूत्रांनी विधीत केल्ले पद्धतीन आपणालीं नित्याचीं आनी नैमित्तीक कर्मां (धार्मीक कार्यां) करून घेवप गरजेचें आसतालें. आश्वलायन गृह्य सुत्रांत पयल्या अध्यायांतल्या इकराव्या खंडांत पशुकल्प आसा. तातूंत गृह यज्ञांनी पशूंचो बळी दिवपाचो विधी सांगला. उपरांतल्या दुसऱ्या अध्यायाच्या चवथ्या खंडांत ऋतुयज्ञांचो विधी आसा. तातूंत सांगिल्ले प्रमाण हेमंत आनी शिशिर ऋतूंच्या काळांत अश्टमीसाकून यज्ञात पशूंचे चरबेची (omentum) आहुती दिवपाक जाय. तेच तरेन पार्वण श्राद्धांनी म्हणल्यार उमास (अमावास्या) आनी पुनवे सारक्या पर्वाच्या दिसांनी जे पितृश्राद्धाचे विधी करपाचे आसतात तातूंत पशूंचो बळी दिवप विधीत केलां. तातूंत पितरांक अर्पण करून उरिल्लें मांस शिजोवन ब्राह्मणांक वाडपाक जाय म्हण सांगलां.

क्षत्रिय राजांनी चलयल्ल्या कामेष्ठी विधींनी आनी रूढ आशिल्ल्या पशुबंधासारक्या विंगड विंगड यज्ञांनी शेंकड्यांनी पशूंचो बळी दिताले आनी हजारांनी ब्राह्मणांक मांसाचें जेवण रांदून वाडप वा संतर्पणां *आयोजित* करताले. म्हणल्यार तेन्नाच्या त्या काळार आज आसात ते तरेचे जातिभेद, सकयले-वयले अशे तरेची भावना बी कांय नाशिल्ल्या कारणान आर्य लोकांच्या सगळ्या पंगडांच्या लोकां मदीं मांसाहार सामान्यतायेन चलतालो. अर्थात तेन्नाच्या आर्य लोकांच्यो चाली रीती आनी आतांच्या काळांतल्या युरोपीय लोकांच्या *समाजिक* रीती-नीती हांचेमदीं समानताय दिसून येता. उच्च धर्माधिकारी धरून सामान्य मनशा मेरेन सगळ्यांच्या खावपा

पेवपाच्या जिनसांनी समानताय आशिल्ली. मनशाचो आहार ताचो ऊंच उणाक दर्जो थारायनाशिल्लो. विद्या आनी ज्ञानच मनशाचें ऊंच उणाकपण जोखपाचो मानदंड आशिल्लो.

वेदांच्या स आंगांतलें एक आशिल्ल्या कल्पशास्त्रांत म्हणल्यार *वैदिक* यज्ञांचीं वेधी–विधानां स्पश्ट करपी श्रौत आनी गृह्यसुत्रांनी ब्राह्मण आनी रथकारांनी आचरण करपाचीं नित्य आनी *नैमित्तिक* यज्ञकर्मां सांगिल्लीं आसात. ते सूत्रग्रंथ आयजय उपलब्ध आसात. तेन्ना इत्सा आशिल्ल्यांनी ते हाडून वाचून समजून घेवंयेतात. दिवंगत लोकमान्य बाल गंगाधर टिळक हांणीं स्थापन केल्ली वैदिक संशोधन मंडळ ही संस्था पुण्यात आसा. ते संस्थेंत काम करपी विद्वानांनी खूब परिश्रम करून सगळीं *श्रौतसूत्रां* एकाच ग्रंथांत आस्पावन घेवन ''श्रौत कोश'' नावान बृहद ग्रंथ तीन भागांनी उजवाडा हाडपाचें म्हान कार्य तांणीं हातांत घेतलां.

तात्पर्य कितें काय म्हणल्यार श्रौतसुत्रां आनी वेदांचो गद्यभाग आशिल्ल्या ब्राह्मण ग्रंथांच्या अध्ययनातल्यान सारस्वत ब्राह्मणांचे पूर्वज सगळे आर्य ऋषी मांसाहारी आशिल्ले म्हणपाचें कळटा. तेच प्रमाण सारस्वत ब्राह्मणांचो मांसाहार आनी मत्स्याहार *पारंपरिक* तरेन चलत आयिल्लो म्हूण जाणा जावपाक जाय. वर्तमान स्थितींत पुराय सारस्वत समुदायान मांसाहार पुरायपणी सोडला आसलो तरी तांचे मदलो एक ल्हान पंगड आजून मत्स्याहाराक चिकटून रावला.

आर्यांचे *धर्मिक* आनी *समाजिक* स्थिती–गती विशीं म्हायती मेळोवपाक उपेगी पडपासारके अत्यंत प्राचीन ग्रंथ म्हणल्यार वेदग्रंथ. पुराणमतवादी भारतीय संस्कृत पंडित आनी धर्मप्रचार करपी मठाधिपती वेदांक अति प्राचीन आनी अपौरुषेय अशें मानतात. अर्थांत तांचो काळ (आदि म्हणटात तो) सांगपाक येवचो ना. आनी ते कोणा एका मनशान रचिल्ले नात. ते देवाकडच्यानच मनशांक प्राप्त जाल्ले आसात अशें ते म्हणटात. वेदांचेर टीका आनी भाष्यां रचिल्ल्या महनीय रचनाकारांनी भाष्यारंभाक जें कितें म्हणलां तें अशें आसा ''*यस्य निश्वसिंत वेदा यो वेदान् जगतेऽखिलान् प्रददौतमहं वंदे परमात्मानमव्ययम्*'' म्हणल्यार ''हे वेद जाचो उस्वास जाणे सगळे वेद ह्या जगताक दिवन करुणा दाखयल्या त्या परमात्म्याक हांव वंदन करतां.'' दुसरे थोडे जण ''परम भक्त आनी परिशुद्ध आत्मे आशिल्ल्या कांय ऋषींच्या अंतरांत

परमात्म्यान वेदमंत्र प्रकट केले'' अशें म्हणटात. आनीकय थोडे ''पवित्र आत्म्यांच्या ऋषींक आपणाल्या योग बळांतल्यान वेदमंत्र दिसले आनी वेदमंत्रां सांगातान येवपी नावांच्या ऋषींकूच ते दिसले'' अशें म्हणटात. म्हणल्यार त्या लोकांच्या मतान ते मंत्र निर्माते न्हीं तर मंत्रदृष्टी लाबिल्ले अशे ऋषी आशिल्ले. न्याय शास्त्रज्ञ त्या मंत्रांचे निर्माते आशिल्ल्या मनशांक विसरून गेल्ले कारणान म्हणल्यार परंपरेन चलत आयिल्लो संप्रदाय फुटून गेल्ले कारणान त्या मंत्रांक अपौरुषेयत्व प्राप्त जालें अशें म्हणटात. आनी ते मंत्र कंठस्थ करून जाणीं *सुरक्षित* दवरले त्या ऋषींच्या नांवांनीच ते मंत्र फुडें चलत उरले अशें मत ते मांडटात.

कशेंय आसलें तरी सिंधू संस्कृतायेच्या अवशेशांच्या उत्खननांत उजवाडा आयिल्ल्या मुद्रांच्या आदारान वेदमंत्रांसंबंदान पुराणमतवादी पंडितांमदीं प्रचलित आशिल्ले आनी त्या मंत्रां संबंदान पाश्चिमात्य विद्वानांनी मांडिल्ले अभिप्राय मतींत घेतले उपरांत पुराय परिवर्तन घडोवन हाडिल्ल्या काळाचो अदमास कळ्ळा. ताचें कारण त्या मुद्रांचेर दिसतात तीं सगळीं चित्रां म्हणल्यार ब्राह्मी वर्णमाला निर्माण जावचे आदीं वेदमंत्र बरोवन दवरपाक केल्ले उपाय. अर्थांत तें वेदमंत्रांचें *सांकेतिक* विवरण आसता. आनी वेदांनी आशिल्ले अधिकांश मंत्र ब्राह्मी वर्णमाला निर्माण जाले उपरांत त्या मुद्रांवयले चित्रसंकेत *ध्वनिसंकेतांच्या* रूपांत म्हणल्यार लिपीच्या रूपांत परिवर्तीत जाल्ले मेळटात. आनी त्या मुद्रांवयल्या चित्रांच्या आदारानूच वेदमंत्रांनी अग्नीक आनी इंद्राक वृषभ=बांगरबैल उक्षा=बैल अशीं आनी अग्नीक आनी सूर्याक गरुड (शैन, पतंगा, गरुत्मान) असलीं नांवां वापरताले.

आर्य लोकांमदीं प्राचीन काळांतल्यान परंपरेन चलत आयिल्ले वेदमंत्र आनी तांचेर आदारून निर्माण जाल्ल्या हेर *वाङ्मयाक वैदिक* साहित्य अशें म्हणटात. तें म्हणल्यार चार वेद आनी तांची स आंगा वा वेदांगां – (शिक्षा, कल्प, निरुक्त, छंद, ज्योतिष्य आनी व्याकरण) मेळून *वैदिक* साहित्य अशें मानतात. ऋग्वेद, यजुर्वेद, सामवेद आनी अथर्ववेद अशे हे चार वेद.

आर्य लोकांचे कांय पंगड आशिल्ले आनी दर एक पंगड श्रौत यज्ञांनी वा गृह्य संस्कारांनी आपापणाली अशी पद्धत वा वेवस्था आपणावन चलतालो. म्हणल्यार दरएक पंगड एखाद्या कार्यांत दुसरो खंयचोय पंगड ज्या मंत्रांचो उपेग करतालो तांचे

परस वेगळे मंत्र वा वेगळो वेदपाठ आपणाल्या कार्या खातीर उपेगांत हाडटालो. अशें जाल्ल्यान दर एका वेदाक एका परस चड शाखा तयार जाल्यो. प्राचीन काळांतल्या आर्य लोकांच्या यज्ञांनी आनी गृहसंस्कारांनी वेदमंत्रांचो उपेग जायत आयला.

'मंत्र' आनी 'ब्राह्मणां' अशे वेदांचे दोन वांटे आसात. मंत्र हे चडशा प्रमाणांत देवतां संबंदांतलीं स्तोत्रां आसून त्यो मूळ रचना पद्य रुपांत आसात. यज्ञाच्या काळांत वेदमंत्र म्हणपाचो अनुक्रम, मंत्रांची संख्या, यज्ञासंबंदीं क्रमवार वर्णन आनी मंत्रांकडेन संबंदीत कथांचें वर्णन करपी गद्य भाग ब्राह्मणांभितर येता. आरण्यक आनी उपनिषदां नांवांनी *आध्यात्मिक* विचार आशिल्ल्यो कृती ब्राह्मणांच्या विभागांत आसात. ईशोपनिषद हो मात वाजसनेयी माधृंदिन संहितेचो निमाणेकडचो चाळिसावो अध्याय.

ऋग्वेद आतां शाकल आनी बाष्कल अशा फकत दोन तरेच्या लेखन प्रकारांनी मेळटा. म्हणल्यार ऋग्वेदाच्यो शाकल आनी बाष्कल ह्यो दोन शाखाच उरल्यात. शाकल शाखेचे संहितेंत 10471 ऋच्या आसात. बाष्कल शाखेचे संहितेंत वालखिल्य नांवांचीं इकरा सूक्तां आठव्या मंडळाच्या 48 सूक्ता उपरांत येतात. त्या इकरा सूक्तांनी वट्ट 80 ऋचा आसात. म्हणल्यार बाष्कल संहितेंत शाकल संहिते परस 80 ऋचा चड आसात. त्या भायर परिशिष्ट म्हण अनेक खिलसूक्तां आसात. आनी कांयजाण वेदांचें मूळ म्हणटात तो निविदाध्याय आसा. शाकल शाखेंत ऐतरेय ब्राह्मण येता जाल्यार बाष्कल शाखेंत कौशीतकी वा सांख्यायन ब्राह्मण येता.

यजुर्वेद कृष्ण आनी शुक्ल अशा दोन विभागांनी आसा. ताचे उत्पत्ती विशीं अनेक कथा प्रचलित आसात. प्राचीन काळांत यजुर्वेदाच्यो 86 शाखा आशिल्ल्यो अशें म्हणटात. पूण आतां कृष्ण यजुर्वेदाच्यो: 1–तैत्तिरीय; 2–कठ वा काठक; 3–मैत्रायणी; 4–कपिष्ठलकठ अशो चार शाखा आनी शुक्ल यजुर्वेदाच्या वाजसनेयी संहितेच्यो माध्यंदिन आनी काण्व अशा दोन शाखांच्यो इतल्योच संहिता मेळटात. यजुर्वेदाच्या मंत्रांक 'यजुस्' म्हणटात. अक्षर, गण, छंद, पाद आदी नेम–निर्बंध नाशिल्ले मंत्र आसात तांकां यजुस् म्हणटात. म्हणल्यार ताका गद्यरूपांतलें पद्य अशें म्हणूयेत. कृष्ण आनी शुक्ल यजुर्वेदांतले यजुस् चडशा प्रमाणात (पाठभेद आसुनय) एकसारकेच आसले तरी कृष्ण यजुर्वेदाच्या वेद संहितांनीं शुक्ल यजुर्वेदाच्या संहितां परस चड विशय आसात. आनी तैत्तिरीय संहितेंत यजुस्सां वांगडा ब्राह्मणांचो भागय

भरसल्लो आसा. यजुर्वेदाच्या संहितांनी फकत यजुस् न्हीं तर ऋग्वेदाचे तशेच अथर्व वेदाचे मंत्र आसात. यज्ञ ह्याच विशयाचेर यजुर्वेद रचला.

सामवेद हो वेदमंत्र एके विशिश्ट रितीन गायन करून म्हणचे खातीर वेंचून काडिल्ल्या ऋग्वेदांतल्या मंत्रांचो समूह. सामान्यतायेन सोमयज्ञांनी सामवेदांतले मंत्र गावन म्हणटात. मंत्रांच्या गायनाक वा रागांक ''साम'' म्हणटात. साममंत्रांचे स प्रकार आसात ते अशे : 1–रथंतर; 2–बृहत; 3–वैरूप; 4–वैराज; 5–शाक्षर; 6–रैवत. घेतिल्ल्या मंत्रांचो गावपाक विस्तार गौतमाच्रो 'पर्क' नांवाच्या दोन प्रकारांनी आनी कश्यपाच्या 'बर्हिष्य' नांवाच्या प्रकारान करताले. दोन पर्कांमदीं बर्हिष्य येता. साम मंत्र गावपाचें शास्त्र नारदीय शिक्षा, लोमशनीय शिक्षा, गौतमी शिक्षा आनी मांडुकी शिक्षा अशा नांवांनी आसा. तांचेमदीं नारदीय शिक्षेन नामना जोडल्या. सामवेदाच्यो शाखा कितल्यो आसात त्यो कळिल्ल्यो ना. अशें आसतनायबी कौथुम, चैमिनीय आनी राणायनीय अशा तीन शाखांचो उल्लेख अनेक ग्रंथांनी मेळटा. यज्ञकाळांत साम गायन करता त्या मनशाक 'उद्गातृ' आनी ताच्या गायनाक 'उद्गीथ' अशें म्हणटात. सामवेद संहितेंत वट्ट 1833 ऋचा आसात. पूण तातूंतल्या 60 ऋचांची पुनरावृत्ती जाल्ली आसा. त्या खातीर *वास्तविक* संख्या 1813 इतलीच जाल्ली आसा. तांचे मदल्यो 1738 ऋचा ऋग्वेदांतल्यो आसून कांय ऋचांनी थोडो पाठभेद आसा. त्या खातीर सामवेदांतल्या स्वताच्या ऋचांची संख्या 75 इतलीच जाल्ली आसा. सामवेदाक मुखार सांगूंयेत अशीं बारा ब्राह्मणां आसात अशी म्हायती मेळ्ळ्या. भोवतेक तीं सामवेदाच्यो शाखा आसप शक्य आसा.

1– प्रौढ वा तांड्य महाब्राह्मण; 2– षड्विंश ब्राह्मण; 3– सामविधान ब्राह्मण; 4– आर्षेय ब्राह्मण; 5– देवताध्याय ब्राह्मण; 6– मंत्र ब्राह्मण वा संहितोपनिषद् ब्राह्मण; 7– जैमिनीयोपनिषद ब्राह्मण; 8– वंशब्राह्मण; 9– छांदोग्य ब्राह्मण; 10– तलवकारब्राह्मण; 11– भाल्लवीयब्राह्मण; 12– शाट्यायनीय ब्राह्मण.

अथर्व वेद शौनक आनी पैप्पलाद अशा दोन शाखांनी आसा. तातूंत वट्ट 5977 मंत्र आसात. तातूंतले कांय ऋग्वेदांतले आसात आनी थोडे पाठांतरांतल्यान आयल्यात. अथर्व वेदांत वैद्यक, मंत्रचिकित्सा, वनस्पतींचे उपेग, नक्षत्रांचीं नांवां, मंत्र आदी जायते *वैज्ञानिक* विशय आसात. अथर्व वेदाक गोपथ नांवांचें ब्राह्मण आसा.

वेदमंत्र संहिता, पदपाठ, क्रमपाठ आनी पंचसंधी अशा चार रूपांनी मेळटात. पंचसंधीचे पांच प्रकार आसात ते अशे : 1–क्रम, 2–उत्क्रम, 3–व्युत्क्रम, 4–अभिक्रम, आनी 5–संक्रम. त्या भायर मंत्र आठ प्रकारांनी म्हणटात. ताका अष्टविकृती अशें म्हणटात. तांचीं नांवां अशीं आसात : 1–जटा, 2–माला, 3–शिखा, 4–रेखा, 5–ध्वज, 6–दंड, 7–रथ, 8–घन. माला म्हणटात तातूंत क्रममाला आनी पुष्पमाला आनी रथ म्हणतात तातूंत 'द्विचक्ररथ' आनी 'त्रिचक्ररथ' अशे उपभेद आसात.

वेदांचीं हांगा सांगूयेत अशीं स आंगां आसात :– 1–शिक्षा, 2–कल्प, 3–व्याकरण, 4–निरुक्त, 5–छंदः, 6–ज्योतिष. तांचे संबंदान पाणिनीच्या शिक्षाशास्त्रांत फुडें दिलां ते तरेन म्हणिल्लें आसा :–

छंदः *पादौ तु वेदस्य हस्तौ कल्पोऽथ पठ्यते ।*

*ज्योतिषामयनं चक्षुर्निरुक्तं श्रौतृमुच्चते ।।*

*शिक्षाघ्राणं तु वेदस्य मुखं व्याकरणं स्मृतम् ।*

*तस्मात् सांगमधीत्यैव ब्रह्मलोके महीयते ।।*

शिक्षा हें शास्त्र तीन प्रकारांनी (तरांनी) जाता. पयलो वर्णांचे उच्चार, शब्दांचे उच्चार आनी शब्द आनी वाक्याची रचना. हें सगळें व्याकरणाकडेन संबंधित आशिल्ल्यान आतां ताका ''पाणिनीची शिक्षा'' अशें नांव पडलां. ते मंत्रांच्या उच्चारां संबंदान अशें म्हणटा :– *मंत्रो हीनः स्वरतो वर्णतो वा मिथ्याप्रयुक्तो न तमर्थमाह । स वाग्वज्रो यजमानं हिनस्ति यथेंद्रशत्रुः स्वरतोऽपराधात् ।।* म्हणल्यार ''खंयचोय एक मंत्र स्वर वा वर्णोच्चार कमी पडिल्ल्यान वा चुकीचो प्रयोग केल्ल्यान ताचो उद्दिष्ट अर्थ साध्य करूंक पावचो ना. इंद्रशत्रु हो शब्द उच्चारतना एक स्वर फाटीं फुडें जाल्ल्या कारणान अर्थांत मध्याचेर उदात्त जावपाक जाय त्या बदलाक तो स्वर अन्ताक उदात्त जाल्ल्यान इंद्राचो जीव घेवपा सारक्या पुताच्या बदलाक इंद्राच्या हातानच मरण येवपी असो पूत जल्मल्लेवरी तो मंत्र वागवज्र जावन यजमानाचोच जीव घेता.'' असो ताचो अर्थ जाता.

दुसरो प्रकार वेदांच्या अध्ययनाक *संबंधित* असो आसा. गुरू आनी शिश्याचो संबंद विसकावन सांगता. तो शिश्यान गुरूकडेन आनी गुरून शिश्याकडेन कशे तरेन

व्यवहार करचो आनी गुरूकुलांत शिश्यांनी पाळपाच्या नेमांची समजणी दित म्हणल्यार जाका 'शिस्त' म्हणटात तो प्रकार. म्हणल्यार शिश्याक विनय आन शिस्तीचो अभ्यास घडोवपाचें तें एक शास्त्र.

तिसरो प्रकार गायनाकडेन संबंदीत आसा आनी ताचे विशींची विसकावण सामवेदाच्या वर्णनांत आयल्या.

कल्प : म्हणल्यार ब्राह्मणाच्या कर्तव्यकर्माचे विवरण करपी शास्त्र. ब्राह्मणान करपाचें नित्य आनी *नैमित्तिक* यज्ञाचे विधी विस्तारान सांगपी हें शास्त्र. तातूं यज्ञविधींचे नेम आनी यज्ञ काळांत पाळपाचे नेम, ब्राम्हणाचें आचरण, यज्ञाक गरज पडपी सामुग्री आनी उपकरणां धरून यज्ञाची पुराय व्यवस्था कशी आसपाक जाय ते विशीं वर्णन केल्लें आसा. मूलकल्प शास्त्राचो आधार घेवन उपरांत अनेक श्रौत, गृह्य आनी धर्मसूत्रां रचिल्लीं आसात. श्रौतसूत्रां सगळे तरेच्या यज्ञांच्यो रीती, नेम हांची म्हायती दितात. गृह्यसूत्रां एका गृहस्थाची नित्यकर्मां, श्राद्ध विधी आनी गर्भादान धरून अंत्येश्टी मेरेन सगळ्या संस्कारांचे जे नेम आसात ते विशीं सांगतात. *समाजिक* वेव्हाराच्या नेमांक धर्मसूत्रां अशें नांव प्राप्त जालां.

ब्राह्मणां हीं श्रौतसूत्रांचीं सहायक जाल्लीं आसात अशें म्हणूंयेत. अशें म्हणपाचें कारण म्हणल्यार यज्ञांचें विस्तृत विवरण, मंत्रांची चलती परंपरा, स्तोमांची (यज्ञांची) व्यवस्था षडह, म्हयनो, ऋतू आनी वर्सांचो निर्णय, मंत्रांकडेन संबंधीत कथाय बी आसात. नाय जाल्यार रामायण, महाभारत आनी हेर पुराणांतल्या कथांचें मूळ ब्राह्मणांनीं आसा.

ऋग्वेदाच्या शाकल शाखेचे लोक आश्वलायन सूत्रां. जाल्यार बाष्कल शाखेचे लोक सांख्यायन सुत्रां मानतात.

कृष्ण यजुर्वेदी लोक बौधायन, भारद्वाज, वैखानस, आपस्तंब, काठक, वाधूल, वाराह, मानव आनी सत्याषाढ हिरण्यकेशी सूत्रां मानताले जाल्यार शुक्ल यजुर्वेदी लोक कात्यायन श्रौतसूत्रां मानताले अशी म्हायती मेळटा.

सामवेदी लोक लाट्यायन, द्रह्यायण जैमिनीय आनी गोभिलसूत्रां मानताले.

अथर्ववेदी लोक वैतान आनी कौशिक सूत्रां मानताले.

व्याकरण – हें भाशा शुद्ध आनी योग्य रीतीन वापरपाक आनी समजून घेवपाक शिकोवपाचें शास्त्र. म्हणल्यार तातूंत भाशेंत वापरपाच्या शब्दांचीं शुद्ध रूपां रचपाची आनी ते शब्द वाक्यरुपान वापरपाची रीत समजावपाक निर्धारीत केल्ले नेम आसतात. खूब प्राचीन काळांत वेदमंत्र समजून घेवपाक साह्य करपी अनेक व्याकरणां आशिल्लीं. तरीय बी कांय विशयांनी तीं परस्पर विरुद्ध नेम सांगतालीं. त्या खातीर शकपूर्व 450 वर्साच्या सुमाराक महर्षी म्हूण नामना आशिल्ले व्याकरणाचार्य पाणिनी नांवाच्या म्हाप्रतिभावंत अशा विद्वानान पोरणी सगळीं व्याकरणां शिकून घेवन उपरांत सगळ्या वैदिक साहित्याचें अध्ययन करून तशेंच ताच्या काळांत भारतवर्षाच्या वेगवेगळ्या भागांनी चलताली ती वेदभाशा स्वत: आपणे आयकून घेवन ''अष्टाध्यायी'' नांवाचो खूब व्हड आनी सर्वसम्मत असो एक व्याकरण ग्रंथ रचलो. त्या ग्रंथांत आठ अध्याय आसून प्रत्येक अध्यायाचे चार वांटे आसात. आनी वट्ट 3981 सूत्रां वा नेम आसात. आचार्य पाणिनीच्या उपरांतल्यांन वेदांचें अध्ययन करपाक जाय अशें व्हडविकायेन उलोवपी विद्वान अष्टाध्यायीचो खूब आस्थेन अभ्यास करीत आयल्यात. त्या खातीर आतां पाणिनीच्या व्याकरणाक वेदांचें एक आंग आशिल्लेवरीच मान मेळटा.

निरुक्त – जगांतलो पयलो भाशाविज्ञानी म्हूण मान फावो जाल्ल्या आचार्य यास्क नावाच्या व्याकरण पंडितान ''निघंटु'' म्हळ्ळ्या वैदिक शब्दकोशांतले शब्द शास्त्रीय रीतीन समीक्षा करून रचिल्ली व्याख्या म्हणल्यार 'निरुक्त'. तातूंत ताणे वेदमंत्रांनी ज्या शब्दांचो उपेग जाता त्या शब्दांची व्युत्पत्ती, व्युत्पत्तीक आनी संदर्भाक धरून पर्यायी शब्द सुचोवपी अर्थांची विसकावणी केल्या. आचार्य यास्क हो आचार्य पाणिनी परस दोन तीन शेंकडे आदीं जावन गेल्लो.

छंदस– हाचो मुख्य अर्थ असो– अक्षरांचे, गुणांचे आनी चरणांचे संख्येच्या वा नेमांच्या बंधनात रावून रचिल्लो वाक्य समूह वा पद्य, ताचें नांवय बी जावं येता. पद्यांत अक्षरां लघु आनी गुरू अशा भेदान आनी अक्षरांच्या स्थान भेदान गण *निर्धारित* जातात. तशेंच खंयच्याय एका पद्यांत अमके संखेन चरण, एका चरणांत अमके इतले गण आनी अक्षरां आसपाक जाय, अमक्या अमक्या स्थानार अमके अमके गण आसपाक जाय अशेंय बी *निर्धारित* जाल्लें आसा. आनी तांच्या भेदांक अणसरून नांवांय बी *निर्धारित* जाल्लीं आसात. इतलें सगळें समजावपी जें शास्त्र आसा ताका

''छंदशास्त्र'' अशें नांव प्राप्त जालां. छंदशास्त्र जाणे रचलें त्या रुषीचें नां ''पिंगलनाग'' अशें आसा.

ज्योतिष्य – म्हणल्यार भूगोलाचें, नक्षत्रांचें आनी ग्रहांचें चलन, तीं एका जाग्य वयल्यान दुसऱ्या जाग्यार वचपाक जो वेळ घेतात तो वेळ आनी तीं उरपाचीं स्थान निर्धारित करून सांगपाचें जें शास्त्र आसा तें 'ज्योतिष्य'. पूण वेदांचें एक आंग आशि ज्योतिष सामान्य ज्योतिषा परस मातशें वेगळें आसा, म्हणल्यार तातूंत सूर्य, चं आनी नक्षत्रां बगर हेर ग्रहांचो विचार येवंक ना. तें वैदिक यज्ञ सुरू करपाचो आन सोपोवपाचो काळ आनी उमास आनी पुनव हांचो वेळ जाणा जावन घेवपाच्या उद्देशान रचिल्लें आशिल्ल्यान तातूंत दीस, रुतू, सूर्याचें संक्रमण, म्हयने आनी संवत्स इतल्याचोच विचार जाल्लो आसा. वेदांग ज्योतिष रचिल्ल्या ऋषीचें नांव आशिल्ले लगध आनी वेदांग ज्योतिषाचो रचना काळ शकपूर्व 2500 वर्सां आदलो.

हे आदीं वेदांचीं जीं आंगां सांगल्यात तांचे भायर वेदांचे दर एके शाखेक मंत्रोच्चारांविशींचे नेम वा पद्धत स्वरभेद आदी सगळ्याची विसकावणी करपी 'प्रातिशाख्य'' नांवाचो ग्रंथ आसा. दर एके वेदसंहितेक मंत्रांचो अनुक्रम दिवपी वळेरी आसा, शाखां संबंदांन विवरण दिवपी चरणव्यूह नांवाचो ग्रंथ आसा. वेदमंत्रांचें, देवतांचें आनी रुषींचें विवरण, मंत्रांकडेन संबंदीत कथांचें विवरण दिवपी 'बृहद्देवता'' नांवाचो ग्रंथ आसा. इतल्या सगळ्या साहित्याचो वैदिक साहित्यांत आसपाव जाता.

वेदांचीं उपांगां म्हणूंयेत अशीं न्याय, वैशेषिक (दर्शन शास्त्राचेर *आधारित* साहित्य) सांख्य, योग, मिमांसा आनी वेदांत (=ब्रह्मसूत्र) अशा स शास्त्रां वा दर्शनांचो *वैदिक* साहित्यांत समावेश जायना. तेच तरेन रामायण, महाभारत आनी पुराणां हें सगळें *वैदिक* साहित्यांत येना. *वैदिक* साहित्य म्हणटात तें वेदांकडेन संबंद आशिल्लें अशें साहित्य.

राजनैतिक विचारांनी *प्रेरित* जाल्ले आशिल्ल्या कांय ब्रिटीश विद्वानांच्या अभिप्रायाप्रमाण आर्य लोकांनी शकपूर्व 1600 वर्सांच्या सुमाराक भारतांत प्रवेश केल्लो आशिल्ल्यान ते भारतांत *स्थायिक* जाले उपरांतच म्हणल्यार सादारण शकपूर्व 1300 वर्सांच्या सुमाराच्यान ऋग्वेदाचे मंत्र रचून जाले. कांय ब्रिटीश विद्वान ऋग्वेदांतले मंत्र त्या काळा परस खूब प्राचीन आसात अशें म्हणटात आसले तरी *राजनीतिज्ञ* आशिल्ले

वेद्वान तांच्या मताकडेन सहमत जायनात. त्या खातीर ते इतिहासाच्या पुस्तकांनी ायलो अभिप्रायूच समाविश्ट करतात.

जर्मन विद्वान डॉ. हर्मन जाकोबी हे आनी स. लोकमान्य बाल गंगाधर टिळक हांणी 1815 वर्सा स्वतंत्रपणान आनी वेगळ्या वेगळ्या संदर्भांनी ऋग्वेद मंत्रांचे प्राचीनताये संबंदान ऋग्वेदांतल्या मंत्रांचेर आधारून दोन बरपां उजवाडा हाडिल्लीं आनी ऋग्वेद मंत्रांतले थोडे मंत्र उणेच ते शकपूर्व 4600 वर्सां इतलें प्राचीन आसात अशें मत मांडिल्लें. पूण ब्रिटीश विद्वान ए. ए. मॅकडोनेल आदींनी जाकोबीन वेदमंत्रांचो लायिल्लो अर्थ मुळांत चूक आशिल्ल्यान ताच्या म्हणण्यात कांय दम ना अशें म्हणिल्लें. पूण जाकोबीन मांडिल्ल्या मताचें समर्थन करपी आनी स्पश्टपणान केल्लो एक उल्लेख तैत्तिरीय ब्राह्मणातय आनी एक मंत्र ऋग्वेदांतय आशिल्लो तो त्या काळांतल्या एकाय विद्वानाक दिसलो ना. [1]

कशेंय आसलें तरी सिंधू संस्कृतायेच्या प्रदेशांतल्या उत्खननातल्यान उजवाडा आयिल्ल्या त्या शारांत मेळिल्ल्यो आर्य लोकांचे वैदिक संस्कृतायेकडेन संबंदीत आशिल्ल्यो शंबरेक कुरवो मेळ्ळ्यात. दुराग्रही आशिल्ल्या ब्रिटीश विद्वानांनीं त्यो कुरवो लिपोवन, सिंधू संस्कृताय ही आर्य लोकांची न्हीं म्हळ्ळें तांचें म्हणणे सिद्ध करपाक खूब यत्न केले. पूण थंय मेळिल्लीं यज्ञकुंडां आनी थंय मेळिल्ल्या धव्या फातराच्या मुद्रांचेर आशिल्लीं स्वस्तिक चिन्हा आनी अग्नीचे चित्रसंकेत पळयतकच सिंधू संस्कृताय ही आर्यांचीच आशिल्ली हो अभिप्राय दुबाव नासतना सिद्ध जाता. म्हणल्यार थोड्या मुद्रां वयल्या चित्रांतल्यान ऋग्वेदी मंत्रांचें *सांकेतिक* स्पश्टीकरण जाल्लें दिसता. त्या खातीर भारतवर्षांतलो आर्यांच्या आगमनाचो काळ उणोच म्हणल्यार शकपूर्व 4000 वर्सांतलो म्हूण आपोआप सिद्ध जाता.

पंजाब, सिन्ध आनी गुजरात वा सौराष्ट्रांत केल्ल्या उत्खननाच्या आदारान शकपूर्व 4000 वर्सां सुमाराक भारतवर्षांत प्रवेश केल्ले आर्य लोक पंजाबांत *स्थायिक* जाल्ले आनी उपरांत ते सवकास सवकास सिन्धू न्हयेचे कडेकडेन दक्षिणे वटेन फुडें वचत दर्या किनाऱ्या मेरेन, दर्या किनाऱ्या कडच्यान उदेंते वटेन फुडें सरत सौराष्ट्रांत पातळून थंय *स्थायिक* जाले म्हूण कळटा. थोडे पंगड आनर्तांत म्हणल्यार उत्तर

---

*1 – हो ब्राह्मी लिपी आनी सिंधू संस्कृती नावाच्या पुस्तकांत वाचूंक मेळटा.*

गुजरातांतय राविल्ले.

भारतवर्षांत येवन स्थायिक जाल्ल्या भरत पंगडाच्या आर्यांचो भारतवर्षाभायर पश्चिम आशियांत आनी मध्य आशियांत राविल्ल्या पल्हव, सुमेर, अर्क, असुर, यवन, कांबोज, कुशाण, शक, बाल्हीक आनी हेर अनेक आर्य पंगडाच्या लोकांकडेन संपर्क आशिल्लो. त्या सगळ्यांचो धर्म एकूच आशिल्लो. ते सगळे भारतवर्षांत यो वच करताले. तशेच भरत आर्यूय बी भायल्या देशांनी वचून येताले. अफगाण प्रदेश जाल्यार खूब हालींच्या काळा मेरेन भारताकडेन जोडिल्लो आशिल्लो. पूण ब्रिटीश विद्वानांनी भारतीयांखातीर तयार केल्ल्या इतिहासाच्या पुस्तकांनी भारतीयांक भायल्या देशांचो परिचयच नाशिल्लो म्हणटनाच, शक आनी पल्हव तशेच पारसी हे भारतीयां परस पुरायपणी भिन्न अशें म्हणून, आदीं उल्लेख केल्ले अनेक आर्य पंगडांचे लोक क्रिस्त शक आरंभ जावचेपयलीं अनेक शेंकड्यांआदीं भारतवर्षांत स्थायिक जाल्ले आसुनय ते शकारंभा उपरांतच भारतवर्षांत आयले अशें बरयलां. पूण तें सारकें न्हीं म्हणपाक हांगा दोनूच उदाहरणां दिवंयेता.

ब्रिटीश विद्वानांच्या अभिप्रायाप्रमाण शक वर्गाचे लोक शकारंभांतच भारतांत आयले. पूण शकाच्या आठशीं वर्सां परसय आदींसाकून शक वर्गाचे लोक भारतांत *स्थायिक* जाल्ले म्हणपाचें मगध आनी नेपाळांतल्या तप्पल वाठारांत स्थायिक जाल्ल्या शक वर्गाच्या लिच्छवी आदी पंगडाच्या लोकांवयल्यान सिद्ध जाता. अहिंसा धर्माचो प्रचार करपी भगवान बुद्ध स्वता शक वर्गांतलो आशिल्लो. शाक्यमुनी आनी अर्कबंधू हीं ताचीं नांवां बुद्धदेव हो सूर्याराधक आसपी शक मनीस आशिल्लो म्हणपाचें स्पश्टपणान सुचयतात. दुसरी देख म्हणल्यार यवन राजकुमार अलेक्जांडर जैतिवंत जावन भारतांत आयिल्लो म्हूण ब्रिटीश विद्वान आमकां सांगतात. पूण प्रो. हरिश्चंद्र सेठ– एम.ए., पीएच. डी. नावांच्या विद्वानान बरयल्ल्या ''चंद्रगुप्त मौर्य आनी भारतांत अलेक्जेंडराचो पराजय'' नांवाच्या पुस्तकांत तांणीं अलेक्जेंडर भारतांत येवंचे आदीं गांधार राजकुमार चंद्रगुप्तान यवन राजकुमार अलेक्जेंडराकडेन इश्टागत केल्ली म्हूण सिद्ध केलां. त्याच सांगातान आनी एक घडणूक म्हणल्यार चंद्रगुप्त मगध देशाचेर आक्रमण करपाक गेलो तेन्ना ताच्या सैन्यात शक, यवन, किरात, कांबोज, पारसीक, बाल्हीक आदी पंगडांतले सैनीक आशिल्ले म्हळ्ळो उल्लेख मुद्राराक्षस नाटकाच्या दुसऱ्या

अंकांत मेळटा. मुद्रामंजूष नांवाच्या ग्रंथांतलीं हेर विवरणां एकठांय घेवन मोलावणी केली जाल्यार यवन राजकुमार अलेक्जेंडर चाणक्य विष्णुशर्माच्या राजतंत्राच्या जाळांत घुस्पून चंद्रगुप्ताक युद्धांत मदत करपाखातीरच भारतांत आयिल्लो म्हूण सिद्ध जाता. त्या खातीर ताणे चंद्रगुप्ताक केल्ल्या सहायाच्या परतावणेच्या रूपान सिंधू नदीचे अस्तंतेक आशिल्ले अनेक प्रदेश ताका मेळिल्ले म्हूण सांगप गरजेचें आसा. अलेक्जेंडर मेले उपरांत चंद्रगुप्तान ते प्रदेश परतुन आपणाल्या ताब्यांत घेतले ताचो उल्लेख इतिहासाच्या पुस्तकांनी मेळटा.

*****

# सारस्वत आनी सरस्वती नदी

सरस्वती हे नदीच्या नांवा वयल्यान 'सारस्वत' हें उतर घडलां ह्या विधाना विशीं मतभेद नासलो तरी ती सरस्वती नदी खंयची आनी ती खंय आशिल्ली हाच्या निर्णयाविशीं मात मतभेद आसात. आतां ती नदी अस्तित्वांत नाशिल्ल्या कारणान हे मतभेद तशेच चालू उरल्यात. पुराणां घेतलीं जाल्यार तींय बी सरस्वती नदी संबंदान परस्पर विरुद्ध अभिप्रायांनी भरल्यांत. पुराणांतल्या संदर्भानुसार सरस्वती नदी हिमालयांतल्या प्लक्षप्रस्रवणांतल्यान भायर सरून पंजाबांत देंवून व्हांवत व्हांवत पतियाळाच्या (पटियाळा) रेवंटांत लुप्त जाता. अशे तरेन ती लुप्त जाल्ल्या थळाक सरस्वती विनशन हें नांव प्राप्त जालां. पूण तें वर्णन फावो जाल्ली नदी आज ना. त्या खातीर इतिहासकारांनी, भारतांतल्यो अनेक न्हंयो इतिहासीक काळांत आपणाल्या प्रवाहाची दिका बदलून व्हांवतात आनी अनेक न्हंयो लुप्त जाल्यात अशें म्हणलां. भारतीय इतिहास बरोवपी एक ब्रिटीश विद्वान विन्सेंट ए. स्मिथ हाणे ''इतिहासिक काळांत एक फावट सतलज नदी (=शुतुद्री) सरस्वतीक मेळून व्हड जावन भावलपूर मार्गान व्हांवत वचून सिन्धू नदीक मेळिल्ली.'' [1] अशें म्हणलां.

पूण महाभारतांतल्या शल्यपुराणांत एक फावट (36-77) सरस्वती नदी सौराष्ट्रांत प्रभासक्षेत्रा कुशीक दर्याक मेळटा अशें म्हणून, परतून एक फावट (56-11) सरस्वती नदी प्लक्षप्रस्रवणांत व्हांवता अशें म्हणलां. ह्या वर्णनांतल्यान म्हणल्यार प्लक्षप्रस्रवणांतल्यान सुरू जावन पतियाळाच्या रेवंटांत लुप्त जाल्ली सरस्वती प्रभासक्षेत्रांत समुद्राक कशी मेळूंये असो प्रस्न उद्‌भवता. पूण कांय पुराणां तो प्रस्न चड कश्टांविणे कडेक काडटात. तांचे भितर उल्लेख मेळटा ते प्रमाण हिमालयातल्यान सुरू जावन व्हांवूंक लागिल्ली सरस्वती न्हंय राजस्थानांतल्या रेवंटांत लुप्त जाता. आनी तशे तरेन लुप्त जाल्ली सरस्वती न्हंय अबू पर्वतांतल्यान भायर येवन व्हांवत फुडें वचून कच्छांतल्या रेवंटांत लुप्त जाता. तशीच परतून सौराष्ट्रांत गीर रानांतल्यान भायर सरून व्हांवत प्रभासक्षेत्रांत समुद्राक मेळटा.[2]

वयल्या वर्णनांतल्यान सरस्वती न्हंय तीन विंगड विंगड प्रदेशांनी व्हांवताली म्हूण सिद्ध जाता. म्हणल्यार भारतांत सरस्वती नांवाच्यो तीन न्हंयो आशिल्ल्यो म्हूण सिद्ध जाता. पूण पुराणकारांनीं त्या न्हंयांच्या जल्मा फाटलीं कारणां दिल्यांत तीं मात

मंजसपणाचीं न्हीं म्हणपाचें फुडल्या विस्कावणेंतल्यान समजप शक्य आसा. खरेपणी रस्वती न्हंय मुळांत भारतांतली न्हंय न्हीं. ती आर्य लोकांचें मूळ स्थान आशिल्ल्या त्तर ध्रूव प्रदेशांतली न्हंय. आर्य लोक उत्तर ध्रूव प्रदेश सोडून सकयल्या प्रदेशांनी ायले उपरांत ते जंय जंय *स्थायिक* जाले थंयच्या न्हंयांक आपणाल्या मूळ भुंयेत ांवताल्यो त्या न्हंयांचीं नांवां दवरताले. ते तांचे कृतीचे पुरावे मेळटात. ते खातीर ारस्वती आनी हेर न्हंयाच्या संबंदान वैदिक साहित्यांत कितें म्हणिल्लें आसा तें सारकें ामजून घेवप योग्य जातलें. ऋग्वेदांतल्या विंगड विंगड सूक्तांनी वट्ट सव्वीस न्हयांचीं ांवां मेळटात आनी तीं फुडें दिल्लेप्रमाण आसात :–

१. अनितभा २. असिक्नी ३. आपया ४. आर्जीकीया ५. कुभा ६. क्रुमु ७. गंगा ८. गोमती ९. तृष्टामा १०. दृशद्वती ११. परुष्णी १२. पुरीषिणी १३. मरुद्वृधा १४. मेहत्नु १५. यमुना १६. रसा १७. वितस्ता १८. विपाशा १९. शुतुद्री २०. श्वेत्या २१. सरयू २२. सरस्वती २३. सिन्धु २४. सुमास्तु २५. सुषोमा २६. सुसर्तु

मुळांत ह्यो *पार्थिव* (=भुंयेवयल्यो) न्हंयो नासून मळबांत (आकाशांत) भुंयेक आवरण घाल्लेवरी येवपी उषाप्रकाश आनी संध्याप्रकाशाचे प्रवाह म्हूण ऋग्वेदांत त्या न्हंयांक वापरिल्लीं उपमाना वा विशेषणां वयल्यान सिद्ध जाता. ऋग्वेदांत इन्द्राक ''वृत्रघ्न = वृत्राक मारपी'' म्हणल्यार काळखाचो नाश करपी अशें म्हणलां तशेंच

---

1 It is however a reasonable conjecture that within the period of history the Sutlej united with Sarasvati and Ghaggar to form the great river which once flowed into the Indus through Bahawalpur and that then Brahmavarta was a Doab. *The Oxford History of India, Page 14.*

2 In the Puranic literature we have a description of river Sarasvati given in a way which shows that one and the same river which had its rise from the Himalaya Mountains, got lost in the desert of Rajasthan and appeared from Mount Abu and once again disappeared in the desert of Kutch, reappeared in the jungle of Gir in Saurashtra and met the western ocean near Prạbhas. *Immortal India, Vol. IV, Page 13, Vidya Bhavan.*

सरस्वतीकय ''वृत्रघ्ने'' म्हणल्यार वृत्राचो नाश करपी देवी अशें म्हणलां आ
आपणाल्या प्रकाशान भुंयेक, अंतरिक्षाक उजवाडान भरपी अशेंय म्हणलां. ऋग्वेदां
वृत्र दिव्य जळांक (= प्रकाशाच्या प्रवाहाक) आडावन धरता म्हूण, इंद्र आपणाल्य
वज्रान वृत्राक मारून त्या दिव्य जळांक प्रवाहीत करता अशें म्हूण वर्णन केलां :

*इंद्रो वृत्रस्य दोधत:सानुं वज्रेण हीळित: ।*
*अभिक्रम्या वजिघ्नतेऽप: सर्माय*
*चोऽदयन्नर्चन्ननु स्वराज्यम् ।। 1-80-5 ।।*

वृत्र शब्द एकवचनात आसतना पुल्लिंगरूपांत वापरल्यार तो बहुवचनात नपुसंक
लिंगांत आसता. आनी ताचे वांगडा नव्याण्णव ही संख्याय येता :-

*इन्द्रो दधीच्यो अस्थभिर्वृत्राण्यप्रतिष्कुत: ।*
*जघान नवतीर्नव ।।1.84.13।।*

अर्थ - कोणूच एकटो लडायेंत जाका हारोवंक शकलो ना असो अप्रतीम वीर
आशिल्ल्या इंद्रान दधीचीच्यो अस्थी घेवन नव्याण्णव वृत्रांक मारले.
म्हणल्यार तूप घाल्ले कारणान *प्रज्वलित* जावन पेटपी अग्नीन ध्रुवप्रदेशांतलो
नव्याण्णव प्रदक्षिणां इतलो (=दिसां इतलो) दीर्घ काळाचो काळोख नश्ट
केलो असो अर्थ केलो जाल्यार चूक जायतशी दिसना.

ध्रुवप्रदेशांतले *भौगोलिक* परिस्थितीक अनुलक्षून ऋग्वेदांतल्या मंत्रांचो अर्थ
लायलो जाल्यार ऋग्वेदांत उल्लेख जाता तो इंद्र म्हणल्यार काळोख पयस करपाच्या
हेतान तूप, घृत आदी वस्तू घालून जो *प्रज्वलित* जाता तो अग्नी म्हणूयेत. कित्याक
काय म्हणल्यार इंद्र वृत्राक मारपाखातीर वापरता तें अस्त्र दधिचीच्या अस्थींपासून
निर्मिल्लें वज्र म्हूण ऋग्वेदांतल्या हेर सूक्तांनी म्हणलां. दधिचीचें मूळ रूप ''दध्यङ''
अशें आसा. तें 'दधिन=धंय'' हाचें *वैदिक* रूप सोडून दुसरें कितेंय जावपाक शकना.
त्या खातीर दधिचीच्यो अस्थी म्हणल्यार लोणीच आनी ताचेपसून निर्मिल्लें वज्र
म्हणल्यार तूप अशें मानल्यार ऋग्वेदांतल्या अनेक मंत्रांचो अर्थ खूबसो कळपासारको
आसा. हो फकत तर्क न्हीं. ऐतरेय ब्राह्मणांत ''इंद्रान घृत नांवाच्या वज्रानच वृत्राक
मारलो'' अशें म्हणलां.

''*घृतेन हि वज्रेणेंद्रो वृत्रमहन ।। 2-3-23 ।।* ते खातीर वृत्रघ्न हाचो अर्थ काळखाचो नाश करपी'' आनी इंद्र म्हणल्यार ''काळोख पयसावपा खातीर तूप क्रोवन पेटूंक लागता तो उजो'' अशें धरल्यार चूक जावं नजो. त्या काळांत कोणे तेल ळोवंक नाशिल्लें म्हूण लक्षांत घेवपाक जाय. अशें आशिल्ल्यानच सरस्वतीक वृत्रघ्ने ाशें म्हणपाचें कारण सरस्वती ही काळखाक पयस करपी प्रकाशाचो प्रवाह हें सत्य सेद्ध जाता. अर्थांत सरस्वती ही खरेपणी दिव्य नदी. ती एखाद्री भुंये वयली नदी न्हीं. ाचें ऋग्वेदांतले मंत्र समर्थन करतात :-

*उतस्या न: सरस्वती घोरा हिरण्यवर्तनि: ।*
*वृत्रघ्ने वष्टि सुष्टुतिम् ।।6.61.7 ।।*

अर्थ - भिरांकूळ (उग्र) अशी भांगरावरी चकचकपी मार्गावयली, वृत्राक मारपी देवी सरस्वती आमचे सोबीत तोखणायेची (स्तुतीची) आस्त धरता.

*आ पप्रुषी पार्थिवान्युरु रजो अंतरिक्षम् ।*
*सरस्वती निदस्पातु ।।6.61.11।।*

अर्थ - आपणाले कांतीन भूतलाक, अंतरिक्षाक भरून सोडपी सरस्वती देवीन आमकां लोकनिंदेंतल्यान वाटावचे.

ह्या वयल्या मंत्रांतल्यान सरस्वती न्हंयेच्या हेर वाखाणणेतल्यान (स्तुतींतल्यान) सरस्वती हे दिव्य नदी विशीं उल्लेख येता म्हूण सिद्ध जाता. आर्य लोक आपणालें मूळ *वसतिस्थान* आशिल्लो उत्तरध्रुव प्रदेश सोडून येवन सकयल्या प्रदेशांनी *स्थायिक* जाले उपरांत थंय व्हांवपी न्हंयांक तांणीं दिव्य न्हंयांचीं नांवां दिलीं. आनी ते भारतांत येवचे पयलीं तांची निमाणची भूंय आशिल्ली अफगान प्रदेश. ते खातीर ऋग्वेदांत उल्लेखित सरयू, गोमती आदी न्हंयों वायव्य शिमे वयल्या प्रदेशांतल्योच. पूण सरयू आनी सरस्वती अफगान प्रदेशांतल्यो म्हळळें सत्य ब्रिटीश विद्वानांनी लिपोवन दवरिल्ल्यान आधुनिक विद्वानांक ताची सुलूस लागली ना.

पर्शियाचो चक्रवर्ती पयलो दारयुवश (Darius-1 श. पूर्व 659-563) हाणे तयार करून घेतिल्ल्या बहिस्तून आनी हेर फातरपट्यांचेर ''हरयू=सरयू'' आनी ''हरक्षिती=सरस्वती'' नांवाच्यो न्हंयो पश्चिम अफगाणात आशिल्ल्याचे उल्लेख

आसात.[1] हेरात नांवाचें शार हरयू न्हंयचे धडेर आसा. आतां अफगाणांत सरयू न्हंय
नांव ''हरिरुद'' म्हूण, सरस्वतीचें नांव ''अरगंधाब'' आशिल्ल्यान कुभा न्हंयचें नां
''काबूल'' आनी गोमतीचें नांव बदलून ''गोमल'' जालां.

आर्य लोकांनी भारतांत प्रवेश केलो आनी थंय *स्थायिक* जाले उपरांत थंयच्य
न्हंयांकय वैदिक नांवां दिलीं हातूंत इल्लोय दुबाव ना. पूण ऋग्वेदांत म्हणल्यात त्य
नावांच्यो सगळ्यो न्हंयो भारतांत आशिल्ल्यो अशें म्हणप योग्य जायना. कारण त्य
सगळ्या नावांच्यो न्हंयो आज मेरेन कोणाक दिसूंक नात. महाभारतांतल्य
शाल्यपर्वाच्या 38व्या अध्यायांत नागवर्त्म नांवाचें पुण्यक्षेत्र सरस्वती न्हंयेच्या दक्षिण
कांठाकडच्यान मातशें पयस आसा म्हूण वर्णन आसा. पूण तें थळ खंय आशिल्लें त
निर्धारीत करप साध्य जावंक ना.

कशेंय आसलें तरी सारस्वत ब्राह्मणांच्या नांवांक कारण जाल्ले दिव्य न्हंयेचें नांव जे
न्हंयेक पडलें ती सरस्वती आर्य लोक भारतांत येवचे आदीं *स्थायिक* जाल्ल्या
अफगाणातलीच न्हंय अशेंच म्हणचें पडटा. ताचें कारण शुक्ल यजुर्वेदाच्या वाजसनेयी
संहितेंत उल्लेख जाल्ले सरस्वती न्हंयेच्या वर्णनाची अफगानातले न्हंये कडेनच फकत
योग्य तरेन तुळा जाता. त्या भायर अश्वलायन श्रौत सूत्रांतय बी सरस्वती नदी
पूर्वेच्यान पश्चिमे वटेन व्हांवून सोंपता अशें वर्णन केल्लें आसा.

*पच्यनद्यः सरस्वतीमपि यंति सस्रोतसः ।*
*सरस्वती तु पंचधा सो देशेऽभवत्सरित् ।।34-11।।*

अर्थ – प्रवाहांत आसतना मेळिल्ल्यो पांच न्हंयो वचून सरस्वती न्हंयेक मेळटात.
अशें जाल्ले कारणान ती सरस्वती न्हंय देशांत पांच पटीन वाडल्या (व्हड
जाल्या).

---

1 It is interesting to note the original old Iranian forms of the names as named in the Behistum and other inscriptions of the Archaemenian eperor DArius 1521-481 BC as these names correspond closely to Sanskrit names. Thus Archaemenes (Father of Teispes)= Hakhamani, Darius - Darayavau (=San-Dharayad-Vasu) Cyrus = Kuru, Xerexes=Kshayash, Arachosia=Haraquati = San-Saraswati Vedic name of a river in S. W. Afghanistan. Chandragupta Maurya and His Times by Radha Kumud Mukherjee M. A.

ह्या वयल्या वर्णनांतल्यान वेगळ्यो पांच न्हंयो येवन सरस्वतीक मेळटात म्हूण ाद्ध जाता. तशे तरेन उत्तर दिकेंतल्यान दक्षिणेक व्हांवत येवन उदेंतेकडच्यान ास्तंतेक व्हांवपी न्हंयेक मेळिल्ल्याचें अफगाणाच्या नकाशाचेर दिसता. (School *tlas Page 49, Mudran Kalamandir, 10, Sheshadri Road, Madras* *Chennai)*) सरदार के. एम. पणिक्कर हांणीय बी आपणे बरयल्ल्या इतिहासाच्या स्तकांत दिल्ल्या नकाशांत सरस्वती न्हंय अफगाणातच दाखयल्या. (*A Survey of* *ıdian History- Page 72* )

ऋग्वेदांत सरस्वती न्हंयेक देवी मानून यज्ञ काळांत तिची वाखाणणी (स्तुती) रून होरावणी करपी अनेक ऋचा आसात. तीन पुराय सुक्तांचो (मंडल–6-61, मं. -95 आनी 96) तिचे खातीरच ओपल्यांत. आप्री सूक्तांत सरस्वती देवीक हेर देवीं ांगातान होरावणी केल्ली आसा. आनी विश्वदेव सूक्तांतय सरस्वती देवी येता. हाचे ायल्यान सरस्वती देवीक खूब प्राचीन काळांतच देवीपद फावो जावन आर्य लोकांचे आराधनेक पात्र जाल्ली न्हंय म्हूण आनी तिच्या आराधकांक सारस्वत म्हणटाले म्हूण ऋग्वेदांतल्या मंत्रांतल्यान सिद्ध जाता. फुडें दिल्ल्या मंत्रांत सरस्वती देवी आनी तिचे आराधक आशिल्ल्या सारस्वतांचो उल्लेख आसा.

*आ भारती भारतीभिः सजोषा इळादेवैर्मनुष्येभिरग्निः ।*
*सरस्वती सारस्वतेभिर्वाक् तिस्त्रोदेवीर्बर्हिरिदं सदंतु ।। 7-2-8 ।।*

अर्थः–भारती नांवाचे भयणीवांगडा भारतीदेवी, देवतांवांगडा इळादेवी, मनशावांगडा अग्निदेव, सारस्वत नांवाच्या भक्तजनांवांगडा सरस्वतीदेवी हे यज्ञशाळेंत येवन तिचेखातीर घाल्ल्या दर्भासनाचेर आसनस्थ जावनी.

फकत ह्याच मंत्रांत न्हीं तर हेर अनेक मंत्रांनी सरस्वती आदी देव–देवींक ाखाणणेसयत होरावन दर्भासनाचेर बसात म्हूण प्रार्थिल्लें आसा. त्या खातीर यज्ञकाळांत अशे तरेन आवाहन केल्ल्या दर एके देवतेचो प्रतिमासंकेत वा चित्र निर्मून तीं यज्ञशाळेंत हाडून तांचे खातीर पातलायल्ल्या दर्भाचेर दवरताले ही गजाल लक्षांत घेवपासारकी. तशें न्हीं जाल्यार ''बसून घेवचें वा बसून घेयात'' अशे तरेच्या वेनवण्यांक कांय मोलूच नाशें जाता, प्राचीन काळांतले आर्य लोक यज्ञ काळांत वैदिक देवतांच्या प्रतिनिधींच्या रूपान तरे तरेच्या प्रतिमासंकेतांचो उपेग करताले अशें

म्हणपाक सिंधू संस्कृतायेच्या उत्खननातल्यान उजवाडा आयिल्ल्यो संगमेश्वरी मुद्राच प्रत्यक्ष प्रमाण आशिल्ल्यो दिसतात, त्या मुद्रांचेर सात मनशांची चित्रां आसात. वय दिल्ल्या मंत्रांत ''अग्नीक मनशाच्या सांगाता येवन बसूं दी'' अशें जें म्हणलां ताचे मुद्रेवयल्या संकेताकडेन अन्वयार्थ सादता. अशें म्हणपाचें कारण म्हणल्यार ऋग्वेदांत अग्नीक ''सात मनशां सांगातान रावपी'' अशें स्पश्टपणान म्हणिल्ले मंत्र आसात :–

*योऽग्निः सप्तमानुषः ।। 8-39-8 ।।* तेच तरेन इंद्राक पांच मनशांमदीं रावपी अशें म्हणिल्लो मंत्र आसा :–

*जनेषु पंचसु ।। 3-37-9 ।।* इंद्र म्हणल्यार अग्नीच म्हळ्ळें विवरण आदीं आयलां. ताचे प्रमाण सिंधू संस्कृतायेंतल्यान मेळिल्ल्या मुद्रांचेर अग्नीच्या *सांकेतिक* चित्रावांगडा पांच मनशांचीं चित्रां आसात. अशें आशिल्ल्यान जे एके देवतेक होरावणी करताले तेन्नाच ते देवतेकडेन संबंधित आशिल्ले लोक, देवतेचें चित्र आशिल्ली मुद्रा यज्ञशाळेंत हाडून पातलायल्ल्या दर्भाचेर दवरताले म्हूण सिद्ध जाता.

सारस्वत हें नांव सरस्वतीच्या आराधकांकच न्हीं तर सरस्वती न्हंयेच्या परिसरांत चलतल्या एका यज्ञाक, तो यज्ञ चलयतल्यांक लागतालें म्हूण वैदिक साहित्यांतल्यान कळटा. ऋषींनी सरस्वतींत (प्रदेशांत) यज्ञ केल्ले म्हळ्ळी म्हायती ऐतरेय ब्राह्मणांत सांगल्या.

*ऋषयो वै सरस्वत्यां सत्रमासत ।। 2.19 ।।* ऐष्वलायन श्रौतसूत्रांत ''सारस्वत'' यज्ञाचें विवरण आसा. आनी तो यज्ञ करतल्यांक तातूंत सारस्व अशें म्हणलां. तो अंश असो आसा :–

*अथ सारस्वता निसरस्वत्याः पश्चिम उदकांते दक्षिरंस्ते तत्रैव दीक्षोपसदः कृत्वा प्रायणीयं च सरस्वतीं दक्षिणेनतीरेण शम्याप्रासे शम्याप्रासेऽहरहर्यजमाना अनुव्रजेयुः संहार्य उलखल बुध्नोयूपश्चक्रीवंतिसदोहविर्धानांन्याग्नीध्रीयं पत्नीशालं च दक्षिणपुरस्तादाहवनीयस्यावस्थाय ब्रह्मा शम्यां प्रहरेत् सायत्र निपतेत्तग्धार्ह–पत्यस्यायतनं ततोऽधिविहारो विषमेचेन्निपतेदुद्धृत्यसमे विहरेयुरप्सु चेद्वारुणं पुरोडाशं निर्वपेयुः ।। 12-6 ।।*

ताचो अर्थ थोडे भितर फुडें दिला तसो सांगूयेत :–

सारस्वत लोक म्हणल्यार 'सारस्वत' हो यज्ञ करपी. सरस्वतीचे सकयले वटेन श्चिमेक व्हांवपी उदका प्रवाहाच्या शेवटाक (म्हणल्यार सरस्वती न्हंय दुसरे एके हयेक मेळून सोंपता थंय) अर्थात संगमथळार यज्ञात दीक्षा घेवपाक जाय आनी तांणीं ांयच दीक्षा होम करून आरंभीक आहुती दिवपाक जाय. उपरांत सरस्वती न्हंयेच्या क्षिण कांठार त्या हवन अग्नीचे उजवे वटेन पूर्वाभिमूख जावन उबो रावून ब्रह्मान ्हणल्यार मुख्य पुरोहितान आपणाल्या दंडान लाकडा कुडको (खेळांतल्या बालावरी) ांड्यान पयस मारपाक जाय. आनी सगळ्या येजमानांनी म्हणल्यार यज्ञ दीक्षा ोतिल्ल्यांनी त्या कुडक्या फाटोफाट वचपाक जाय. वता आसतना यज्ञाक गरज आशिल्लो हवीस आनी हेर गरजेची सामुग्री, बायलांच्या राबित्या खातीर तंबू आनी तो उबो करपाक लागतात त्यो वस्तू गाडयांचेर घालून व्हरपाक जाय. तशेंच बायलांक ाडयांनी बसोवंक जाय. तसोच उखलून व्हरपाक त्रास ना अशे तरेचो एका वानांत ुरिल्लो यज्ञस्तंभ घेवन वचपाक जाय. लाकूड ज्या जाग्यार पडटा थंय खाशेल्या अग्नीचें यज्ञकुंड बांदपाक जाय. तें लाकूड समतळ नाशिल्ल्या जाग्यार पडलें जाल्यार उखलून समतळ जाग्यार दवरपाक जाय. तें उदकांत पडलें जाल्यार वरुणाक पुरोडाश (हवनाक अर्पुपाचे तांदूळ) अर्पण करून त्या दिसा थंय वस्तेक रावपाक जाय. दुसरे दिसा विधिवत होम बी सगळे विधी पुराय करून पयलीं केलां तेच तरेन ती विटी वा लाकूड दांड्यान पयस मारपाक जाय आनी ताचे फाटोफाट वचपाक जाय. अशे तरेन दर दिसा करीत मुखार वचपाक जाय. होच तो सारस्वत यज्ञ आनी तो चलयतात ते लोक सारस्वत.

कात्यायन श्रौतसूत्रांत सारस्वत यज्ञाक *यात्सत्राणि सारस्वतानि ।। 24-5-25।।* म्हणल्यार फुडें वतां वतां करून जातात ते सारस्वत यज्ञ अशें म्हणलां. पूण तातूंत *शुक्ल सप्तम्यां दीक्षा सरस्वती विनशने ।।24-6-30।।* म्हणल्यार ''शुक्ल पक्षाच्या सप्तमी दिसा सरस्वती लुप्त जाल्ल्या थळांत दीक्षा'' अशें म्हणलां आशिल्ल्यान तो सूत्रग्रंथ खूब अर्वाचीन जाल्ल्या कारणान, सूत्रकाराक प्राचीन सरस्वतीचो परिचय नाशिल्लो म्हूण सिद्ध जाता.

ह्या वयल्या विवरणातल्यान सरस्वती नदी, तिचें देवी रूप तशेंच ते नदीच्या कांठार घडून येताले ते यज्ञ आदी सगळ्या कारणांनी ''सारस्वत'' हो शब्द जल्माक

आयलो म्हूण सिद्ध जाता. त्या शिवाय सरस्वती न्हंय पूर्वेच्यान पश्चिमेक व्हांवून दुसऱ्या एके न्हंयेक मेळून तिचो अन्त जाल्लो, हेर पांच न्हंयो येवन सरस्वतीक मेळिल्ल्यो, अशे तरेच्यो न्हंयो अफगाण देशांतल्योच आसूंक शकतात हें सिद्ध जाता. सामान्यतायेन आर्य लोक चलयताले त्या यज्ञांनी तांचे मदल्या सगळ्या वर्गांतल्या लोकांक काम आसतालें. त्या खातीर तांचे मदले ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य, रथकार आदी वर्गांतले लोक ततूंत वांटो घेताले. अशें जाल्ले कारणान सारस्वत यज्ञातय बी सगळ्या वर्गांतले लोक वांटो घेताले हे मतींत घेवन, आदीं उल्लेख जाल्ल्या सारस्वत यज्ञा विशींच्या विवरणाची मोलावणी केली जाल्यार एका स्थळावयल्यान दुसऱ्या स्थळार *सामूहीकपणान* रावपाक वचप वा दुसऱ्या उतरांनी स्थलांतर करप हो 'सारस्वत' यज्ञा फाटलो तांचो उद्देश आशिल्लो म्हणपाचें दिसून येता. कारण बायलांच्या राबित्याखातीर तंबू घालपाक लागपी सामान गाडयेर घालून व्हरप हाचो अर्थ यज्ञात वांटो घेवपी यजमाना सांगातान बायलां भुरगींय बी भायर सरतालीं. दुसरें कारण अफगाणिस्थानातले सरस्वती न्हंयेच्या दक्षिण कांठार पूर्वेक फुडो करून उबो रावून विटी (लाकडा कुडको) दांड्यान शेवटून मारीत ताचे फाटोफाट चलत रावल्यार निमाणे कडेन भारतांत प्रवेश जातालो. हाचे वयल्यान सारस्वत यज्ञाचो उद्देश भारतांत प्रवेश करप होच आशिल्लो अशें दिसता. अर्थात अफगाणिस्थानात राविल्ले सारस्वत ब्राह्मण सरस्वती न्हंयेच्या कांठार यज्ञांचे आचरण करून दिसाक एकेक पेणें करीत फुडें सरत निमाणे कडेन भारतांत प्रवेश केले उपरांत वायव्य शीमे वाठारांत, पंजाबांत बी *स्थायिक* जाले म्हूण कळटा.

अशे तरेन थंय राविल्ल्या सारस्वत ब्राह्मणांनी थंय व्हांवपी खंयचे तरी एके न्हंयेक सरस्वती हें नांव दिलें हातूंत दुबाव ना. सरस्वतीचें एक नांव ''प्लक्षप्रस्त्रवणा'' म्हणल्यार ''पिपळाच्या झाडांतल्यान स्त्रवण जाल्ली'' अशी ती पिपळाच्या रुखांनी समृद्ध आशिल्ल्या प्रदेशांतल्यान व्हांवत आयिल्ले न्हंयेक तांणी सरस्वती हें नांव दवरलें आसपाक जाय. (सरस्वती आनी दृशद्वती ह्या देव न्हंयां मदल्या प्रदेशाक मनुस्मृतींत ब्रह्मावर्त म्हणलां. पूण आज त्यो न्हंयो थंय नात.) ते उपरांत पंजाबांत स्थायिक जाल्ल्या सारस्वत ब्राह्मणांनीं सिंधू न्हंयेच्या पूर्वेकडच्या कांठा वयल्यान दक्षिणे वटेन फुडें सरपाक सुरवात केली. आनी ते दर्या कांठा मेरेन पावले. उपरांत थंयच्यान पूर्वेक फुडें सरून प्राचीन गुर्जर देशांत पावून थंय स्थायिक जाले तशेच हाचे आदीं म्हणलां ते

माण अबू पर्वता वयल्यान व्हांवपी न्हंयेक सरस्वती हें नांव दिलें. उपरांतल्या काळांत णहिलवाडा नांवाचें शार तेच सरस्वती न्हंयेच्या कांठार स्थापन जाल्लें. फुडें सारस्वत ाह्मण उत्तर गुजरांतल्यान मुखार वचून गुजरातांतले दक्षिणेक सौराष्ट्रांत म्हणल्यार ातांच्या काठेवाडांत वचून स्थायिक जाले. आनी थंय गीर राना वाटेंतल्यान वचून भासक्षेत्रा कुशीक दर्याक मेळपी न्हंयेकय सरस्वती हेंच नांव दवरलें. होच भारतांतल्या रस्वती नांवाच्या न्हंयांचो इतिहास अशें म्हणलें जाल्यार चूक जावं नजो. सरस्वती हंयां विशींची चड म्हायती जाणा जावंक सोदतात तांणीं भारतीय विद्या भवन मंडळान उजवाडायल्ल्या Immortal India Vol. IV आनी "Glory that was Gurjara-Desa" नांवांचीं पुस्तकां वाचचीं.[1]

भारतवर्षांत प्रवेश केल्ल्या आर्य लोकांनी वा सारस्वत ब्राह्मणांच्या पूर्वजांनी यज्ञधर्मी आशिल्ल्या कारणान दर दिसा अग्निहोत्र आनी वैश्वेदेव यज्ञ करचोच पडटालो. आनी दर्शपुर्णमासेष्टी तशेंच पार्वणश्राद्धां करपाकच जाय आशिल्लीं. त्या खातीर सगळे आर्य लोक त्या नित्य कर्मांचें आचरण करताले, पूण *नैमित्तिक* आनी इत्सायज्ञ बी चलोवपाचे आसल्यार चडजाण पुरोहीत आसताले. उपरांत यज्ञसंस्था व्यवस्थित रीतीन विस्तारीत जाली तेन्ना यज्ञांखातीर सोळा पुरोहितांची गरज लागली.

१- ब्रह्मा=ब्राह्मण, २- होता-होतृ=यज्ञ करपी, ३- अध्वर्यु=पुरोहित, ४- उद्गाता=उद्गातृ=यज्ञाचे सामगायन (मंत्र म्हणप) करपी अशे चार मुखेल पुरोहित आसताले, आनी त्या चारजणां मदीं ब्रह्मा हो हेर सगळ्यांचो मुखेली जावन यज्ञाचो

---

1 About A.D. 641 when Hieun-Tsnag visited Gurjara, its capital was Bhillamala. Its northern boundary touched the river Sarasvati in Modern Gujarat and its northern limit was beyond Jodhpur, Page-7.

In this confused state of affairs, Mularaja of Chalukya dynasty captured southernmost part of Gurjaradesa, now in Mehsana, Sabarakantha and Banaskantha districts of modern Gujarat and established himself at Anahilvada on the banks of the river Sarasvati. His principality in the beginning not very large was known as Sarasvata-mandala and not Gurharadesa - Page 9. To the South of the river Sarasvati, Anarṭa and Khetaka - mandala had lost their distinct geographical entity since A.D. 815 -Page 11. Glory that was Gurjaradesa.

संचालक कसो आसतालो. हेर सगळ्यांनी ताच्या निर्देशनाप्रमाण सगळीं कार्यां करच आसतालीं. फुडें त्या 'ब्रह्मान' ह्या धातू वयल्यान पुरोहित वर्गाक ब्राह्मण म्हणपाव लागले.

यज्ञांनीं मुख्य पुरोहित म्हूण आसताले त्या चारांतल्या दर एकट्याक तीन तीन सहायक आसताले. म्हणल्यार ब्रह्मा हाका १) ब्राह्मणाच्छसी, २) अग्नीद्र, ३) पोतृ अशे तीन. होतृ म्हणटात ताका १) मैत्रावरूण, २) अच्छावाक, ३) ग्रावस्तुत अशे तीन, अध्वर्यूक १) प्रतिप्रस्थातृ २) नेष्टृ ३) उन्नेतृ अशे तीन आनी उद्‌गातृ हाका १) प्रस्तोतृ २) प्रतिहर्त ३) सुब्रह्मण्य अशे तीन. अशे तरेन बाराजाण सहायक पुरोहित आसताले. ते सगळे वेदवेदांग पारंगत आसून यज्ञकार्यांनी अनुभवी आशिल्ल्या कारणान आर्य लोकांच्या समुदायांत तांकां व्हड मान मेळटालो.

*विकसित* जाल्ली यज्ञप्रक्रिया ब्राह्मण पंगडानीं सगळ्यांत पयलीं सरस्वती न्हंयेच्या कांठार घडोवन हाडिल्ल्या कारणान भारतांतल्या ब्राहण पंगडांच्या *प्रादेशिक* नांवांमदलें 'सारस्वत' हें नांवच सगळ्यांत प्राचीन. भारता भायल्या प्रदेशांनी स्थायिक जाल्ल्या आर्यांमदीं ''कुरुपांचाल'' ह्या नांवाचे ब्राह्मण पंगड आशिल्ले म्हूण शथपथ ब्राह्मणात उल्लेख मेळटा. पूण भारतांत कुरुपांचाल नांवाचे ब्राह्मण पंगड आशिल्ले म्हणपाविशीं प्रमाणां मेळनात. फुडें पश्चिम भारतांत *स्थायिक* जाल्ल्या सारस्वत ब्राह्मणांचे पंगड पुर्व भारतांत पातळत गेले तशे त्या पंगडांक ते *स्थायिक* जाल्ल्या प्रदेशांचीं नांवां लागलीं. म्हणल्यार पयलीं एकूच आशिल्ले सारस्वत ब्राह्मण समुदाय मुखार काश्मिरी, कनोजी, सरयूपारीण, मैथील, उत्कल, गौड, गुर्जर, महाराष्ट्र, कोंकण, नागर आदी पंगड जावन वांटून गेले. काळांतरान आपणालें मूळ विसरून गेले. म्हणल्यार एका प्रदेशांतलो पंगड दुसऱ्या प्रदेशातल्या पंगडापरस आपूण श्रेष्ठ म्हळ्ळो वाद सुरू जालो आनी ताचो परिणाम म्हणल्यार तांच्यो विंगड विंगड जाती घडल्यो.

*सारांशरूपान* सांगतलो जाल्यार सगळ्या पंगडांचे लोक मुळांत सारस्वत आशिल्ले. ते सारस्वत आनी त्या सारस्वत शब्दाक कारण थारिल्ली सरस्वती देवी आनी सरस्वती न्हंय हांचे संबंदांतले उल्लेख ऋग्वेद धरून सगळ्या वैदिक साहित्यांत मेळटात. पूण सारस्वत ब्राह्मणांचें *वास्तविक* मूळस्थान मेळप असाध्य जालें त्या उपरांत त्या लोकांनी घडयल्ली एक कथा महाभारत आनी हेर पुराणांनी समाविश्ट केल्ली मेळटा. –

सरस्वती न्हंयेचो पूत मानताले असो सारस्वत नांवाचो ऋषी ते न्हंयेच्या कांठार वतालो. एक फावट सतत बारा वर्सां मेरेन पावस पडूं नाशिल्ल्यान खावपाखातीर ाणो गोटो कांयच पिकलें ना. सरस्वती प्रदेशांत रावताले ते सगळे ब्राह्मण आहार ोदीत अनेक दिकांनी *स्थलांतरित* जाले. निमाणो सारस्वत ऋषीय बी थंयच्यान चपाक उद्युक्त जालो तेन्ना सरस्वती न्हंय प्रत्यक्ष रूपान उबी जाली आनी तिणे हणलें ''पुता, तूं हांगाच्यान वचूं नाका. हांव तुका खावपाक बरी बरी मासळी दितां. ती ू तुज्या देवांक, पितरांक बी अर्पण करून तृप्त कर, तूंय बी खा आनी तुज्या प्राणाची ाखण कर.'' अशी तिणे ताका बुद्ध दिली.

पूण 'भट्ट गोपिनाथ दीक्षित'' नांवाच्या एका अर्वाचीन पंडितान आपणे रचिल्ल्या 'संस्कार रत्नमाला'' नांवाच्या ग्रंथांत सारस्वत ऋषी संबंदान महाभारतांतले कथे ारस मातशी वेगळी कथा सांगल्या. म्हणल्यार ते कथेंत सारस्वत ऋषीन मासळी ब्राल्लेल्याचो उल्लेख ना. त्या बदलाक दुकळाक लागून *पीडित* आशिल्ल्या हेर ऋषींनी तृप्त आशिल्ल्या सारस्वताक पळोवन आमकांय खावपाक शाक म्हणल्यार भाजी दी म्हूण मागलें. तेन्ना त्या सारस्वत ऋषीन ''तांका शाकाहार दी'' म्हूण पार्वती देवीक प्रार्थना केली. तांचे प्रार्थनेन खोशी जाल्ले पार्वतीन प्रसन्न जावन ''पुता, तांचें शाकाहारान समाधान जाता आसत जाल्यार शाकाहार दिवंयेत'' म्हणलें. हाचे वयल्यान पार्वतीक ''शाकंभरी'' अशें नांव फावो जालें अशें तांणीं म्हणलां. कथेंत हो भेद आसलो तरी, हेर सगळे ऋषी सारस्वताकडच्यान वेद शिकले म्हणलां तातूंत मतैक्य आसा. पूण एका सारस्वत ऋषी पासून सारस्वत ब्राह्मण समुदाय म्हणल्यार अनेक गोत्रां जल्माक येवप साध्य जायत व्हय असो प्रस्न कोणेच एकट्यान विचारलो ना.

*****

# दक्षिण भारतांत सारस्वत

सारस्वत ब्राह्मणांनी दक्षिण भारतांत खंयच्या वर्सा, खंयच्या म्हयन्यांत, खंय तिथीक प्रवेश केलो ते विशीं खात्रेन सांगपाक जावंचें ना अशें आसलें तरी बुद्धदेवाच्य जल्माच्या खूब काळ पयलीं ते येवन दक्षिण भारतांत स्थायिक जाल्ले म्हूण ठामपणा सांगप शक्य आसा. तें सिद्ध करपाक लिखित वा प्रत्यक्ष प्रमाणां मेळचीं ना अशें म्हणट आसतनाच तो अभिप्राय चूक वा तो खरो न्हीं अशेंय म्हणपाक जावचें ना.

*पाश्चिमात्य* विद्वान आनी तांचें अनुकरण करपी भारतीय विद्वान हिंदूंचीं पुराण खूब अर्वाचीन म्हूण समजून तांतूंतले विशय इतिहासीक सत्य म्हूण मान्यताय दिनात. त्या खातीर त्रेतायुगांत आर्य ऋषींनी दंडकारण्यात प्रवेश करून आपणाले आश्रम स्थापन केले अशें जें वर्णन रामायणांत आसा तें इतिहासीक सत्य म्हूण ते स्वीकारीनात. पूण बुद्धदेव हो इतिहासीक व्यक्ती आशिल्ल्यान ताच्या काळांत आनी ताचे उपरांतल्या काळांत रचिल्ल्या बौद्ध साहित्यांतले इतिहासिक उल्लेख प्रमाणां म्हूण स्वीकारतात.

बौद्धधर्माच्या सुत्त–निपातांत[1] बावरी नांवाच्या एका विद्वान ब्राह्मणाचो उल्लेख येता. बावरी कोसला देशांतल्यान येवन दक्षिणापथांतल्यान लश्मक राज्यांत गोदावरी न्हंयेच्या कांठार आशिल्ल्या एका गांवांत आश्रम स्थापन करून राविल्लो. बुद्धदेवाची कीर्त आयकून आचार्य बावरीचे शिश्य बुद्धदेवाक मेळपा खातीर पैठण माहिश्मती आनी उज्ञयिनी मार्गान उत्तर भारतांत गेल्ले. आचार्य बावरी वेदवेदांगपारंगत आशिल्लो आनी तो वैदिक यज्ञ करतालो अशें तातूंत म्हणलां. बुद्धदेवाचो जल्म शकपूर्व 645 वर्साचो आसून महानिर्वाण शकपूर्व 565 वर्सा म्हूण *निर्धारित* केलां. दक्षिण भारतांत जे कोण आयले तातूंत बावरी होच पयलो अशें म्हणूंक येना. ताचे आदीं दुसरेय आयिल्ले

1 The Sutta-nipata of Buddhist canon records that a teacher Bavari left Kosala and settled in a village on the Godavari in the Asmaka country in Dakshinapatha. His pupils are said to have gone north to meet the Buddha and their route lay thorugh Palittnna in the Mulka country, Mahishmati on the Narmada and Ujjain. Bavari is said to have been learned in the Vedas and performed Vedic sacrifices. *A History of South Indian page 69 by Sri. K. A. Nilakanta Sastri, M. A.*

आसपाक जाय.

तशेच तरेन श्रौत, गृह्य आनी धर्मसूत्रां हांचो रचनाकार आपस्तंब[1] लेगीत गोदावरी न्हंयेच्या कांठार *स्थायिक* जाल्लो म्हूण म्हायती मेळटा. पाश्चिमात्य विद्वानांनी आपस्तंबाचो काळ शकपूर्व 400 म्हूण निर्धारित केला.

शकपूर्व 334 वर्सा मौर्य चक्रवर्ती अशोकान आपणाल्या साम्राज्यांत आसपावन घेतिल्ल्या दक्षिण भारतांतल्या अनेक स्थळांनी स्थापन केल्ल्या धर्मीक शिळालेखांनीं म्हणल्यार पांचव्या शिळालेखांत ''रष्टिका पेतेणिकानं येवपि अंडे अपरांता'' असो उल्लेख आनी 13व्या शिळालेखांत ''भोजपितिनिक्येसु'' असो उल्लेख आसा. म्हणल्यार राष्ट्रीक, प्रतिष्ठानीक, अपरान्तक आनी भोज नांवाच्या राजवंशांचीं नांवां आसात. ते राजवंश उत्तर भारतीयांनी स्थापन केल्ले आसून तांची भाशाय प्राकृत आशिल्ली. ते राजवंश अशोकाच्या काळांतच स्थापन जाल्ले नासून आदींच्यानूच थंय आशिल्ले. राष्ट्रीक आनी भोज वंश फुडें महाराष्ट्रीक आनी महाभोज जाले म्हूण इतिहासांतल्यान[2] समजता. राजवंश आसताले थंय तांचीं *धर्मिक* कार्यां चलोवपा खातीर ब्राह्मण हे आसतालेच म्हूण वेगळें सांगपाची गरज ना. ते राजवंश आपणाल्या राज्यांनी ब्रह्मपुरी (=अग्रहारां) निर्माण करून थंय वेदाध्ययनाची वेवस्था करताले. त्या खातीर ते दक्षिण भारतांत येवपाचो एक उद्देश वैदिक धर्माचो प्रचार करप हो आशिल्लो अशें म्हणूं येत.

चक्रवर्ती अशोकान आपणाले *धर्मिक* लेख दक्षिण भारतांत स्थापन करचे आदीं ताच्या लेखांनीं वापरिल्ली ब्राह्मी लिपी आनी प्राकृत भाशा दक्षिण भारतांत प्रचलीत आशिल्ली हें मान्य करपाक जाय. तशें नाशिल्लें जाल्यार अशोक आपणाले लेख दक्षिण भारतातल्या *प्रादेशिक* भाशांनी कोंरांतून घेतलो आशिल्लो हातूंत दुबाव ना. इतलेंच न्हीं तर दक्षिण भारतांत दिश्टी पडटात त्या ताच्या शिळालेखां भितर कांय ब्राह्मी वर्ण उत्तर भारतांतल्या ब्राह्मी वर्णां परस थोडें भिन्न रूप घेवन आयिल्ले दिसतात. अशें रूपांतर

1 Apastamba, the author of a complex set of Srauta, Grihya and Dharma Sutras that has luckily preserved in its entirety must have flourished somewhere about B. C. 300 in the Godavary valley. *A History of South India p. 341, by Sri. K. A. N. Sastri, M. A.*

2. An Early History of the Deccan by Sri. R. G. Bhandarkar, M. A.

घडून येवपाक चड काळ लागता आशिल्ल्यान अशोकान ते लेख कोंरांतून घेतले तेन्नाच्यान खूब काळ आदींच दक्षिण भारतांत ब्राह्मी लिपी घोळणुकेंत आशिल्ली आनी त्या लेखांनी जे प्राकृत भाशेचो उपेग केला ती जाणा जाल्ले लोक दक्षिण भारतांत आशिल्ले म्हूण मान्य करपाक जाय. पूण प्राचीन काळांत लिपीचेर आनी अध्यापनाचेर ब्राह्मणांचो एकाधिकार आशिल्ल्या कारणान आनी त्या काळांतल्या भारतांत सारस्वत ब्राह्मणांचो एक पंगड सोडून हेर पंगड उरप ही असंभव अशी गजाल आशिल्ल्यान उत्तर भारतांतल्यान येवन दक्षिण भारतांत *स्थायिक* जाल्ले ते ब्राह्मण सारस्वतच आशिल्ले अशेंच म्हणचें पडटा.

पूण सारस्वत ब्राह्मणांचे पंगड एकाच काळांतले जावं एकच प्रदेशांतल्यान दक्षिण भारतांत आयिल्ले अशें म्हणप समा जावंक शकना. थोडे सौराष्ट्रांतल्यान नीट व्हड्यांतल्यान (नौका) येवन गोवा द्वीपांत देंवले जातले आनी ताका रेवती द्वीप अशें नांव दवरून तातूंतल्या एका गांवाक कुशस्थली अशें नांव दिलें जातलें. तशेंच थंयच्या एका दोंगराक गोमंत नांव दिलें आसूं येता. थोडे पंजाबांतल्यान फुडें सरून आयिल्ले ते आनर्त देशांत (=उत्तर गुजरातांत) *स्थायिक* जावन ते उपरान्त लाट, खेटक आदी देश वलांडून कर्णाटकांत आयले ते गोयांत आयिल्ल्यां मदीं मिसळ्ळे आसतले. कारण प्राचीन काळांत सौराष्ट्रांतल्या द्वारकापुरीचें तशेंच आनर्त देशाचे राजधानयेचें नांव कुशस्थली हेंच आशिल्लें. तशेंच द्वारके कुशीक एका दोंगराचें आनी आनर्त देशांतल्या एका दोंगराचें रैवत हें एकच नांव आशिल्लें. आतां गुजरातांतल्या त्या दोंगराक गिरिनार ह्या नांवान वळखतात. तशेंच द्वारके कुशीक आशिल्ल्या एका दोंगराचें नांव गोमंत अशें आशिल्लें. रेवती हो शब्द रैवत ह्या शब्दाचें मूळ. आनी बलरामाचे बायलेचें नांव रेवती आशिल्लें. म्हणल्यार कुशस्थली आनी रेवती हीं नांवां सौराष्ट्राकडेन आनी आनर्ताकडेन गोयांचो संबंद आशिल्ल्याचें सुचयतात. गोमंतक शब्दावयल्यान सारस्वत ब्राह्मण सौराष्ट्रांतल्यान आयले म्हणपाक घटसाण येता आसली तरी, पल्लव राजाच्या दरबारांत आशिल्लो महाकवी दंडीचे पूर्वज आनर्त देशांतल्यान येवन गंगवाडींत राविल्ले म्हूण जी गजाल सांगतात ताच्या आदारान आनर्तांतल्यानय सारस्वत आयिल्ले हो मुद्दो घट जाता.

प्रमाणांचो अभाव आशिल्ल्यान आनी संशोधनाचें काम कमी पडटा आशिल्ल्यान

ारताच्या इतिहासांत अनेक व्हडल्यो व्हडल्यो चुको उरल्यात. देखीक एक सांगतलो जाल्यार भारतांत आपणाल्या पंगडाच्या नावान वर्सांची गणना अस्तित्वांत हाडिल्ले 'शक' लोक शकाच्या आरंभाकच भारतांत आयिल्ले म्हणपाची खूब व्हड चूक इतिहासांत उरल्या. पूण भगवान बुद्ध जल्मलो त्या कपिलवस्तूच्या राजवंशाचे लोक आनी नेपाळांतल्या तप्पल प्रदेशांत *स्थायिक* जाल्ले लिच्छवी लोक 'शक' कुळाचे आशिल्ले हाची कोणेच एका इतिहास लेखकान गणनेक घेतिल्लें ना. बुद्धदेवाच्या नावांनीं ''शाक्यमुनी'' आनी ''अर्कबंधु'' अशीं हीं आदराचीं उपनांवां बुद्धदेव सूर्यपूजक आशिल्ल्या शककुळाचे म्हूण स्पश्टपणान सुचयतात आसतनाय ब्रिटीश विद्वान तसोच इतिहासकार विन्सेन्ट स्मितान बुद्धदेव हो मोंगोल वंशाचो आशिल्लो अशें म्हणलां.[1] लिच्छवी लोक शककुळाच्या लोकांच्या 'मग' (=मक) शाखेचे आशिल्ल्यान प्राचीन काळांत जाका कीकट म्हणटाले तो देश 'मग' लोकांचें निवासस्थान अशा अर्थान ''मगध'' जालो. तेच तरेन पश्चीम भारतांतल्या पंजाबांत तशेंच शीम प्रदेशांतयबी आचार्य पाणिनीच्या काळा परस आदीं शक लोक *स्थायिक* जाल्ले म्हणपाक प्रमाणरूपान, आचार्य पाणिनीच्या व्याकरणांत – शक लोकांककडच्यान चलणुकेंत आयिल्लीं अनेक गांवांचीं आनी शारांचीं नांवां मेळटात. म्हणल्यार गांवांचीं ना जाल्यार शारांचीं नांवां कंथ वा कंथा शब्दान शेवट (अंत) जावप हें शक लोकांचें खाशेलेपण (वैशिष्ट्य) आशिल्लें. तशेंच कंथ शब्दान सोंपपी शब्दां खातीर सांगिल्ले नेम पाणिनीच्या व्याकरणात आसात. *।। संज्ञायूं कंथोशीनरेषु ।। 2-4-20 ।।* ह्या सूत्रा प्रमाण उशीनर देशांत ''कंथ'' अक्षरगटान सोंपतात तीं नामां नपुसकलिंगात आसतात. देखीक :– सौशमिकंथम्; आव्हरकंथम् आदी. पूण 'दक्षीकंथा' आदी स्त्रीलिंगी नामां आसात. हीं चड करून न्हंये कांठा वयल्या प्रदेशांतलीं थळां आसपाक जाय. कारण गुजरातांत न्हंये कांठावयलीं शारां (नगरां) वा प्रदेश 'कंठ' अक्षरगटान सोंपतात. देख :– बानसकंठा, साबरकंठा, महीकंठा आदी. तेच तरेन भारता भायर शक लोक स्थायिक जाल्ले तो 'शाकद्वीप' वा मध्य आशियांत शक लोकांची कुरू जाल्लेवरी यारकंद, समरकंद, ताशकंद आदी कांय स्थळ नामां आजयबी आसात.

---

1 I think it highly probable that Gautam Buddha, the sage of Sakyas and the founder of Historical Buddhism was a Mongolian by birth. *Page 47. The Oxford History of India.*

तात्पर्य म्हणल्यार शकपूर्व 800 वर्सां परस पयलींच शक लोक पुर्व भारतांतल्या मग
नेपाळ, तिबेट आदी प्रदेशांवटेन स्थायिक जाल्ले तशेच पश्चिम भारतांतल्या प्राचीं
गुजरात, सिंध, पंजाब, सीमा प्रदेश अफगाणीस्थान आनी शकस्थानांत *स्थायिक* जा
अशें दुबावा विरयत म्हणूं येत.

भारताभायर भारताचे शिमेक तेंकून पश्चिमेक पातळून आशिल्ल्या आशिय
खंडाच्या भुंये वाठारांत स्थायिक जाल्ले पारद, पल्हव, सुमेर, असूर, कांबोज
बाल्हीक, शक, कुशाण, यवन आदी शेंकड्यांनी पंगडांचे लोक आर्यवंशी आशिल्ले
आनी इतिहासिक काळा मेरेन ते सगळे वैदिक धर्माचे अनुयायी आसून संस्कृताव
लागीं आशिल्ल्यो अशो भासो उलयताले. भारतीय आनी तांचे मदीं नित्य संपर्क
आसतालो. इतिहासिक काळांत चंद्रगुप्ताचें राज्य बाल्हीक प्रदेशामेरेन विस्तारित जाल्लें.
आनी मुसलमान प्रबळ जाय मेरेन अफगाणिस्थानात भारतीय राजाच राज्य करताले.
भारतीयांत ब्राह्मण पंगड आशिल्ले तशेच पारद, पल्हव आनी शक लोकांतयबी ब्राह्मण
आशिल्ले. तशींच तांचे मदीं ऋषींचीं गोत्रां आशिल्लीं. पारद (=पारसी) पल्हव आनी
भरत (=भारतीय) अग्नी पूजक आशिल्ले. शक आनी यवन सूर्य पूजक आशिल्ले, शक
लोकांत शक, मक (=मग) आनी कर्क[1] अशो तीन शाखा आशिल्ल्यो. तांचे मदले
शाकद्वीपी आनी मग अशो दोन ब्राह्मण जाती आजय उत्तर भारतांत आसात. प्रख्यात
ज्योतिषी जावन गेलो तो आचार्य वराहमिहीर शक ब्राह्मण आशिल्लो. भारतांत जो
अहिंसा धर्माचो प्रचार जाल्लो ताका लागून लोकांमदीं भक्ष अभक्ष हांचेर विमर्श सुरू
जावन कर्मठ विचार आनी जाती भेद बळिश्ट जाय मेरेन भारतीयांमदीं आनी पश्चिम
आशियांतल्या लोकांमदीं सगळे तरेचे दिवपा घेवपाचे वेव्हार चलताले. भारतीय
कसलेच तरेचे त्रास वा आडखळ नासतना परदेस संचार वा भोवंडी करताले. अशें
आसतनाय ब्रिटीशांनी बरयल्ल्या भारतीय इतिहासाच्या पुस्तकांनी भारतीयांचो

1 One of the oldest references to the Sakas or Scythions is to be found in the inscriptions of Darius I (600 BC). Three different branches of the Sakas are mentioned there. The Saka and Maka are included in the Perspolis inscriptions, as countries that were conquered by Darius. The Nakshi-Rustam inscriptions refer to the three braqnches of Sakas as his vassals. Herodotus refers to the Sakas in these words "The Sacae or Seyths Clad in trousers, had on their heads toll stiff caps rising to a point - *Ancient India, Page 329 - by Sri. V. D. Mahajan M.A.*

रदेशांकडेन संपर्कच नाशिल्लेवरी वर्णन केल्लें मेळटा.

प्राचीन काळांत ब्राह्मण, क्षत्रिय आनी वैश्यांमदीं चड जातिभेद नाशिल्ले. ते हजतायेन एकेच जातीचे आशिल्लेवरी वेव्हार करताले. म्हणल्यार तांचेमदीं अंतर्जातीय विवाह, भोजन समारंभ बी जाताले.[1] ब्राह्मणांनी इच्छितकच क्षत्रिय, वैश्यय ी घडोवन हाडटाले. अशें जावन भारतांत अनेक राजवंशांचे संस्थापक ब्राह्मण जावन ल्ले आसात. म्हणल्यार उत्तर भारतांत अफगाणीस्थान काश्मीर, पंजाब, सिंध, गुर्जर, क्नोज, मगध आदी राज्यांनी लांब काळा मेरेन ब्राह्मण राजाच राज्य करताले. तशेच दक्षीण भारतांत राज्य केल्ल्यांमदीं आंध्रांतले सातवाहन, कांचींतले पल्लव आनी गंगवाडींतले गंग राजा आशिल्ले. कोंकणात कदंब आनी हेर अनेक मूळचे ब्राह्मण आशिल्ले.

दक्षिण मैसूराक (आतां कर्नाटक) जोडिल्ल्या गंगपाडी वा गंगवाडींत पयलीं कुवलाल (=कोलार) आनी उपरांत दुसऱ्या शेंकड्यांतल्यान तलवन (=तलकाड) हीं थळां राजधान्यो करून जाणे राज्य केल्लें तो गंगवंशाचो मूळपुरुष कोण आशिल्लो तोच आजून कळपाचो आसा. तरी आतां जे गंग राजांचे फातरपटे (शीळालेख) मेळ्ळ्यात ताचेप्रमाण ते काण्वायन गोत्राचे ब्राह्मण आशिल्ले म्हूण कळटा.[2] तांचें राज्य शासन व्हडलो माधव वा कोंकणीवर्मा (=कोंगणी) हो धरून सुरू जावन ताचो धाकटो भाव जो धाकलो माधव वा दडिगा[3] हाणे फुडें राज्य चलयलें. गंगकुळाच्या माधवान एका बौद्ध विहाराक जमीन दान करून तयार केल्ल्या तांब्यापट्यांत (ताम्रपट्यांत)

---

1 During the Gupta times, the best elements in the society that is to say Brahmanasa, Kshatriyas and Vaisyas, were in a sense, one community. They were taught by the same teachers and were connected by intermarriages in the anuloma way though pratiloma marriages were not uncommon. *Glory that was Gurjara Desa - by Sri. K. M. Munshi, page 64*

2 Konganivarman belonged to the Gahanaveyakula, the family of the Ganga's and the Kanvayana Gotrta. *A History of South India by Sri. K. A. Nilakanta Shastri.*

3 *Mysore Gazetteer Vol II, P II page 589*

''इति यस्मिन गांगेय. राज्ये तस्मिन माधवशर्मण:
शासनबुद्धसत्वाय दत्तमाचंद्रार्कतारांबरं''[1]

अशें म्हणून स्वताचें ''माधव शर्मा'' नांव कोरांतून घेवप हाच्या आदारान गंगकुळांतल
राजा ब्राह्मण आशिल्ले म्हूण सिद्ध जाता.

तामीळनाडूंत कोंगुनाडु नांवांचें राज्य आशिल्लें. सेलम आनी कोइंबतूर हे दोन जिल्हे
त्या राज्यांत येताले. आनी तें गंगवाडीक तेंकिल्लें. त्या खातीर गंगवंशी राजा पयलें
कोंगनाडूंचेर राज्य करताले आनी तमीळ लोक गंगांक 'कोंग' म्हणटाले आसपाक जाय
अशें अनुमान करूं येत. ताचें कारण गंग वंशाच्या पयल्या राजाचें नांव कोंकणीवर्मा अशें
आसप आनी कोंगनाडूंत कोंकणपुर आनी कोंकणपळ्ळी अशीं दोन थळनांवां
आशिल्ल्यान असो तर्क करप समा जाता. कोंकणपूर हें आतांच्या सेलम जिल्ल्यांत
आसा. डॉ. ए. सी. जर्नेल हांणीं आपणे बरयल्ल्या ''The elements of South
Indian Paleography '' नांवाच्या पुस्तकांत दिल्ल्या कोंगनाडूच्या भूपटांत
(नकाशांत) कोंकणपूर आनी कोंकणपळ्ळी नांवाचीं दोन थळां दाखयल्यांत. गंग
राज्याचे अस्तंत शीमेक समुद्र[2] येता अशें म्हणिल्ल्यान आनी कोंगू शासकांनी अस्तंत
करावळींतल्या तुळुनाडूचेर आक्रमण केल्लें [3] म्हूण कळिल्ल्यान 'कोंगरू' म्हणल्यार गंग
राज घराण्याक लागूनूच दक्षिण भारतांतले अस्तंत करावळीक ''कोंकण'' हें नांव
पडलें अशें म्हणपाक जाता.

कांची हांगा राज्य केल्ले पल्लव पयलीं कोंकणांत आशिल्ले.[4] उपरांत ते पूर्वेक राज्य
*विस्तारित* करीत गेले आनी उदेंत करावळी मेरेन पावून कांची ही तांणी आपणाली

---

1 कन्नड शासनगळ सांस्कृतिक अध्ययन पान 114

2. Mysore Gazetteer Vol II P. II page 591

3. Their home is said to have been in the Kongu country-roughly the modern districts of Salem and Coimbatore and they verran the tulu Country on the west coast in theearly centuries of the Christian era. *A History of South India, by Sri. K. A. Nilakanta Shastri, M. A. page 85*

4 The Pallavas were the immigrants from the North; or properly speaking from Konkan and Anarta. They came into South India through Kuntala or Vanavasa. *Ancient India by Sri. V. D. Mahajan M. A., Page 566.*

ाजधानी केल्ली. ते भारद्वाज गोत्राचे ब्राह्मण आशिल्ले आनी तांची मातृभाशा प्राकृत ााशिल्ली.[1]

पल्लव राजा शिवस्कंदवर्माच्या एका ताम्रपट्यावयल्या लेखाची सुरवात अशी ाासा *''कांचीपुरातो युवमहाराजो भारदायसगोत्तो पलवानं सिवखंदवम्मो''*[2] ीरहडगळ्ळी हांगा मेळिल्ल्या आनी पल्लव राजा शिवसंदवर्मान बरोवन घेतिल्ल्या आनी ्का ताम्रपट्याचेर आशिल्ल्या बरपाची सुरवात अशी आसा *''सिद्धम् । कांचीपुरा अग्निट्ठोम वाजपेयस्स मेधयाजि धम्महाराजाधिराजो भारद्वायो पल्लवाण ।सिवखंदवम्मो''*

थोड्या ब्रिटीश विद्वानांनी पल्लवांक विदेशी वा पारसी आशिल्ले म्हणलां. पूण तें खरें म्हणपाक जावचें ना. कारण पारसी आनी पल्लव एकाच पंगडांतले वा गोत्रांतले न्हीं. पारसी, पल्लव कुशाण, शक, कांबोज आदी भरतलोकांवरीच आर्यवर्गांतलेच आशिल्ले. त्या खातीर तेच तितले परकी वा विदेशी म्हणप योग्य न्हीं. तेच तरेन भरत पंगडाचे लोक भारतांत प्रवेश करपाच्या काळांत वा उपरांतल्या काळांत पल्लवूयबी भारतांत प्रवेश करून थंय *स्थायिक* जाले आसूं येता. तेय बी मुळांत भरतवर्गाच्या पंगडांतलेच आशिल्ले. तेन्ना तांकांच फकत विदेशी कशें म्हणप ? तशें पळोवंक गेल्यार ''भारतवर्ष'' ह्या नांवाक कारण जाल्ल्या भरत पंगडांतल्या लोकांकयबी परकी वा विदेशी म्हणूं येतालें.

महाभारताच्या शांतिपर्वांत पल्लवांचो उलेख आसा.

> *''यवन:किराता गंधाराश्चीनाश्यबरबर्बर: ।*
> *शकास्तुषारा: ककाश्च पल्हवाश्चांध्रमद्रक: ।।64-13।।*

ह्या श्लोकावयल्यान महाभारत काळांतल्या लोकांक पल्हवांचो परिचय आशिल्लो म्हूण बरे भाशेन सिद्ध जाता. पूण त्या श्लोकांत आयिल्लें ''तुषारा:'' = मध्यदेशाच्या

---

1 Pallava History opens with three copper-plate grants all in Prakrit and all dating from the time of Skandavarman the earliest when he was Yuvaraj the others after he had become King. He belonged to the Bharadvaja gotra, performed the Agnistama, Vajapeya and Asvamedha Sacrifices. - *A History of South India by Sri. K. A. Nilakanta Sastri M. A, Page 101.*

2. *भारतीय प्राचीन लिपिमाला लिपिपत्र – १३*

निवाश्यां मदलो एक पंगड ; कंका: = कंकर लोक ; पल्हवा: = पल्लव ; आंध्रा: = आं
लोक अशा शब्दांचो जो अनुक्रम आसा तो एका नव्या तर्काक जल्म दिता. म्हणल्या
पल्हव शब्द आंध्र शब्दा सांगातान आशिल्ल्यान तो कांचीच्या पल्लवांचोच उल्लेख करत
आसपाक जाय अशें दिसता ; तसोच कंक: हो शब्द गंगवाडीचे गंग वा कोंगनाडूतल्य
कोंग राजा संबंदानच उल्लेख करता अशें दिसता. गंग वंशाचे राजा हे खरे काण्वायन
गोत्राचे ब्राह्मण आशिल्ले हाचे विशीं आदीं विसकावणी जाल्या. आनी एक गजाल
म्हणल्यार धर्मराज *युधिष्ठिरान* ब्राह्मण वेश धारण केल्लो तेन्ना तो 'कंक' नांवान
वावुरतालो हाचें स्मरण जाता.

नामनेचो इतिहासकार विन्सेंट स्मिथ आनी हेर कांय तमीळ विद्वानांनी पल्लव
तमीळ मुळाचे आशिल्ले असो अभिप्राय दिल्लो आसा आनी तांणीं तांचो संबंद सिंहलाच्या
नागवंशाच्या राजांकडेन जोडला. पूण पल्हव हे भारद्वाज गोत्राचे ब्राह्मण आसून तांची
मातृभाशा प्राकृत आशिल्ली ही *वस्तुस्थितीच* तांचो अभिप्राय भायर उडयता. त्या भायर
सिंहळ राजवंशयबी आर्य मुळाचोच आशिल्लो हेंयबी कळपासारकें आसा. म्हणल्यार
नागाराधना कोंकणांत *स्थायिक* जाल्ल्या ब्राह्मणांकडच्यानच दक्षिण भारतांत
आचरणांत आयली. त्या खातीर दक्षिण भारतांतल्या खंयच्याच पंगडाक नाग कुळांतलो
आशिल्लो अशें म्हणप सारकें जायना. मूळ शब्द 'पल्हव' असो आसा, पल्लव म्हूण ना.
संस्कृतांत 'पल्लव' म्हणल्यार 'कोमरी' अशें आशिल्ल्यान ताचो तमीळ अर्थ 'तोंडै'
जाता अशें म्हणू येत. 'पल्लवमंडल' म्हणल्यार तोंडै नासून तोंडैनाडू म्हणलें तरी सारकें
जावंक शकना.

खरेपणी सांगतलो जाल्यार पल्हव हे खूब प्राचीन काळांतच उत्तर भारतांत
स्थायिक जाल्ले आशिल्ले, उपरांत ते दक्षिण भारतांत येवन कोंकणांत रावले. थंय तांणीं
क्षात्रधर्म आपणावन सैन्य *संघटित* करून राज्य चलोवपाक सुरवात केली म्हूण सांगू
येता. कोंकणांतलें राज्य घटमूट जाले उपरांत ते पूर्वे वटेन फुडें सरत पूर्व करावळींत
पावले आनी तमीळनाडूचो ल्हानसो भाग जिखून घेवन कांचीपूर ही आपणाल्या
राज्याची राजधानी करून राज्य करपाक लागले अशें म्हणूं येत. ते उपरांत पल्लव
वंशांतले कांयजाण सैन्य वांगडा घेवन व्हड्यांतल्यान दर्या मार्गान वचून सुमात्रा, जावा,
बाली आदी जुंवे (द्वीप) जिखून थंय आपणालें राज्य स्थापन करून वैदिक धर्माच्या

चाराक लागले. ताच्यो कुरवो थंय आजूय उरिल्ल्यो दिसतात.

कोंकणांत बनवासी ही आपणाली राजधानी करून कोंकण प्रदेशाचेर राज्य केल्लो कदंबराजा मयूर शर्मा कोंकणांत *स्थायिक* जाल्लो कदंब कुळाच्या ब्राह्मण कुटुंबाचो वंशज आशिल्लो. कदंबांची मायभास प्राकृत आशिल्ली. यज्ञीक, वेदवेदांगपारंगत विद्वान, व्हड गर्भ श्रीमंत आशिल्ल्या ब्राह्मणाच्या घराब्यांत जल्माक आयिल्लो मयूर वेदाध्ययना खातीर कांचीपुरा गेल्लो. थंय पल्लवांनी स्थापन केल्ल्या ब्रह्मपुरींनीं ब्राह्मण चलयताले त्या घटिकास्थानांत विद्यार्थी म्हूण राविल्लो. थंय एका घोडेस्वार सेवकाकडेन उपराशिल्ल्या झगड्यांक लागून रागान बेजारिल्लो मयूर रानांत गेलो आनी ताणे आपणालें सैन्य जमयलें. आनी त्या सैन्याच्या सहाय्यान पल्लवांच्या राज्यांत सामील जाल्लो एकेक गांव जिखून घेत ताणे आपणालें राज्य बांदून काडलें अशी एक कथा आसा.

ती कथा – मयूरशर्मा उपरांतले पांचवे पिडयेंतलो राजा म्हणल्यार मयूरशर्माच्या नातवाचो नातू शांतिवर्मा हाणे बरोवन घेतिल्ल्या ताळगुंदांतल्या स्तंभलेखाचेर आधारिल्ली आसा अशें म्हणपाक जाता. पूण त्या फातरपट्या वयल्या कांय शब्दांचे आनी प्रयोगांचे अर्थ लावपांत विद्वानांमदीं खूब मतभेद आसात. म्हणल्यार त्या लेखांत आशिल्ल्या ''तत्र पल्लवाश्वसंस्थेन कलहेन ती ब्रेणरोषित:'' ह्या उतरांचो आदल्या विद्वनांनी लायिल्लो अर्थ ''पल्लवांच्या घोडशाळेंतल्या राखणदाराकडेन उपराशिल्ल्या कलहाक लागून खूब रागार जाल्ल्या'' असो आसा. तो सारको ना म्हूण श्रीमान मंजेश्वर गोविंद पै हांचो अभिप्राय आशिल्लो. श्रीमान पै हांच्या अभिप्रायान 'अश्वसंस्थे' म्हणल्यार अश्वमेध यज्ञच. 'अश्वशाले=घोडशाळा' न्हीं. त्या खातीर ''पल्लव राजान चलयल्ल्या अश्वमेधांत वांटो घेतिल्ल्या मयूर शर्मा आनी पल्लवराजा हांचे मदीं जाल्ल्या वादांतल्यान रागार जाल्लो'' हो अर्थच समा जाता अशें म्हणल्यार सारकें जायत. अर्थांत, अश्वमेध काळांत पल्लव राजा आनी यज्ञात वांटो घेतिल्लो मयूर शर्मा हांचे मदीं वाद जावन राजाकडच्यान *अपमानित* जाल्लो मयूर शर्मा बेजारलो अशें म्हणूं येत. त्या भायर पल्लव मुळांत कोंकणांतले आशिल्ल्यान ते कदंबांचे *परिचित* वा संबंधी आशिल्ले आसतले. आनी त्या लेखांतलो

*''य: प्रयूथ पल्लवेंद्रपुरीं गुरुणासमं वीर शर्मणा ।*

*अधिजिगांसुः प्रवचनं निखिलघटिंकां विवेशशु तर्कुकः ।।*

ह्या श्लोकांत – मयूर शर्मान आपणाल्या गुरू आशिल्ल्या वीर शर्माच्या सांगातान सगळ्या घटिक स्थानांनी प्रवेश केल्लो अशें म्हणप – खूब गोंदळांत उडयता.

ताळगुंदांतल्या शिळालेखांत

*''एवमागते कदंबकुले श्रीमान बभूव द्विजोत्तमः ।*
*नामतो मयूर शर्मोति श्रुतशील शैचाद्यलंकृतः ।।*

म्हणल्यार अशे तरेन चलत आयिल्ल्या कदंबकुळांत वेदविद्येंत पारंगत पवित्र गुणांनी अलंकृत, जाचें नांव मयूर शर्मा तो जल्मान, सर्वोत्तम असो ब्राह्मण आशिल्लो अशें म्हणिल्लें आशिल्ल्यान – कदंब घराणे पयलींच्यान आशिल्लें म्हूण सिद्ध जाता. आनी त्या लेखांत उल्लेख केल्लेप्रमाण कदंब कुळांतले ब्राह्मण नित्य *नैमित्तिक* आचारनिष्ठ आशिल्ले, प्रणवपूर्वषड्विध अध्यन नित्य नेमान करताले, विधीप्रमाण अग्नाध्यान करून यज्ञयाग चलयताले, ते सोमपायी आशिल्ले म्हूण कळटा आनी त्या भायर

*'' अकृत चातुर्मास्य होमेष्टी पशुपार्वण श्राद्धपौष्टिकम् ।*
*अथितिसंश्रितावसथसवनत्रयावंध्य नैत्यकम् ।।*

अशें म्हणिल्ल्यान – चातुर्मास्य होम आनी हे इश्टविधी भरपूर करताले, नित्य नेमान अतिथींक म्हणल्यार ब्राह्मणाक प्रत्यक्षपणान आदर दिवन सत्कार करताले, अमास आनी पुनवेक करपाचीं आसतलीं त्या पर्वश्राद्धांनी पशुयज्ञात वैदिक विधीप्रमाण पशुमांस पितरांक – अतिथी आशिल्ल्या ब्राह्मणांक वाडटाले अशीयबी म्हायती मेळटा – म्हणल्यार कदंबवंशाचे ब्राह्मण मांसाहारी आशिल्ले म्हूण सिद्ध जाता.

उत्तर भारतांतल्यान येवन दक्षिण भारतांत स्थायिक जाल्ल्या ब्राह्मणांमदीं स्पश्टपणान तीन पंगड आशिल्ले. 1) सारस्वत 2) काश्मीर मुळाचे आसून सौराष्ट्रांत स्थायिक जावन–लाकुलीशपाशुपत पंथ स्वीकारिल्ले काळामुखी ब्राह्मण 3) काश्मिरांतल्यान वचून उत्तर प्रदेशांतल्या अहिच्छत्रांत *स्थायिक* जाल्ले लांब काळ गेले उपरांत थंयच्यान दक्षिण भारतांत आयिल्ले सहवासी, त्या तिनय पंगडांचे लोक शैवमतानुयायी आसून शिवा वांगडाच शक्तीचीयबी पूजा करताले. सारस्वत ब्राह्मण शिवा वांगडा नागाचीयबी पूजा करताले. काळामुख ब्राह्मण भोवसंख्येन शिवाच्या उग्र

पांतल्या भैरवाक पुजताले.

काळामुख ब्राह्मण केन्ना काळांत दक्षिण भारतांत आयले ते विशीं खात्रेन कितेंय सांगप साध्य जायना. तरी पूण ते शकाच्या चौथ्या शेंकड्या आदीं आयले आसतले अशें दिसना. ताचें कारण सौराष्ट्रांत पाशुपत पंथ प्राचीन काळांतल्यान आशिल्लो अशें आसलें तरी ताचो उत्तर भारतांतल्या सगळ्या प्रांतांनी प्रचार जाणे केलो तो लकुलेश शकाच्या दुसऱ्या शेंकड्यांत अवतरिल्लो. नर्मदा न्हंयेचे तटार आशिल्ल्या भृगुकच्छा लागीं आशिल्ल्या कायवरोहण (=आतांचे कारवण) क्षेत्रांत शिवान, लासपाखातीर (अंतीम संस्कार) म्हूण हाडून दवरिल्ल्या ब्रह्मचाऱ्याच्या प्रेतांत प्रवेश केल्ल्यान जितो जावन उठिल्लो ब्रह्मचारी तोच साक्षात शिव आशिल्ल्यान लकुलीश अशें नांव ताका प्राप्त जालें अशी कथा आसा.[1] त्या खातीर काश्मीरी काळामुख ब्राह्मणांनी लाकुलीश पाशुपत पंथ स्वीकारले उपरांतच दक्षिण भारतांत आयिल्ले अशें म्हणपाक जाय. आनी कर्णाटा, आंध्रा, तमीळनाडू, तुळुनाडू आदी प्रदेशावटेन वचून थंय *स्थायिक* जाले अशें म्हणचें पडटा.

आदल्या कर्णाटा राज्याचे राजा काश्मीरी काळामुख शैव पंथाच्या ब्राह्मणांचो व्हड प्रमाणान गौरव करताले म्हूण प्राचीन फातरपट्या वयल्यान (शिळालेखांतल्यान) समजता. शक 1018 त बरयल्ल्या शिकारपूर तालुक्यांतल्या 114व्या लेखांत मुखार दिलां तशें बरयल्लें मेळटा – ''वरकाळामुख चक्रवर्ती मुनी दिव्यज्ञानी काश्मीरदेवूर संतानदोळा त्रिळोचन मुनींद्रंगे'' काळामुख हे म्हाविद्वान शैववेद निष्णात आनी सदाचारी आशिल्ले. तांचे मदले विद्वान ब्रह्मचारी जे आसताले ते देवालयांनी रावून देवाची पूजाअर्चा करून धर्म प्रसारा वांगडाच विद्याप्रसार बी करताले. ते रावताले त्या देवालयांक 'स्थान' आनी देवालयांत रावताले त्या ब्रह्मचाऱ्यांक स्थानपती वा

---

1 Lakulisha born in the second century in the Saka era at Kayavarohana near Broach on the Narmada was the last of the Pasupata teachers. He was considered an incarnation of Shiva himself. Anoterh parallel tradition connects Prabhasa with Pasupata cult as a very important an acient branch of Siva worship. That the temple of Somanatha was the all India centre of the Pasupata Cult; during historical times is indisputable - *Somanatha the Shrine Eternal - by K. M. Munshi, Pg-16.*

*स्थानिक* अशें म्हणटाले.[1] ते ज्या देवालयांनी रावताले थंय देवतांक निवेद दाखयत अन्न जेवन जगताले. त्या काळार देवालयांच विद्यालयांवरी जावन वतालीं. त्या खातीर ते ब्रह्मचारी पुजा बी सगळीं नित्य कर्मा पुराय करून सोपले उपरांत जो मेकळो वेळ मेळटालो तेन्ना विद्यार्थ्यांक विद्याभ्यासाचे पाठ शिकयताले. देवालयांनी रावून विद्यादान करपी काळामुख ब्रह्मचाऱ्यांक भोव वचनांत ''गुरुवा'' (संस्कृत) म्हणटाले. काळ वतां वतां तो 'गुरुवा (गुरु) ह्या शब्दान कन्नडांत 'गोरवा' अशें रूप घेतलें आनी आपणालो मूळ अर्थ शेणयलो.

गुरूंची विद्वत्ता, तांची नितळ निवळ चलणूक आनी शिस्त तशेंच धर्म आनी विद्येच्या प्रसारांतली तांची आसक्ती पळोवन कर्णाटकाचो राजा खोशी जालो. ताका तांचें कौतुक दिसलें. ताणे त्या गुरूंच्या देवस्थानांचो आनी तातूंत शिकपी विद्यार्थ्यांच्या जेवण-खाण आनी कपड्यांक येवपी खर्च भागोवपा खातीर भूंय आनी हेर वस्तूंचें दान करून बरोवन घेतिल्ले फातरपटे आसात. कर्णाटकांत आशिल्लीं चडशीं देवळां त्या गुरूंनीच बांदून घेतिल्ल्याची म्हायती कांय लेखांतल्यान कळटा.[2]

पाशुपत आशिल्ले ते काळामुख शैवां मदीं कडवे शैव जाल्ले. ते आपणालो आराध्य देव आशिल्ल्या शिवा संबंदान कोणूय उणांक उतरां उलयलो जाल्यार मात्तूय सोसून घेनाशिल्ले. तांचो आराध्य देव शिव हो भोगी शिव नासून विरागी शिव आशिल्ल्यान ताचे सारको जावप, वा शिवैक्य साध्य करप ही तांची जिणेतली मोख आशिल्ली. काळामुखां मदले संन्यास घेतिल्ले थोडेजाण भिक्षा मागून जगपी आशिल्ले. ते भस्म लायताले, माथ्याक, गळ्याक आनी हाताच्या मनगटाक रुद्राक्षाच्यो माळो घालताले. मातयेच्या कैलांत वा फुटके मडकेच्या कैलांत भिक्षा घेताले. ते खातीर कांय लोक तांकां कपाली शेंय म्हणटाले. शैवपंथाकडेन मतभेद आशिल्ले वैष्णवपंथी लोक कापाली काळामुख संन्यासी आनी वाममार्गी कापाली हाचे मदलो फरक समजना जाल्ल्यान काळामुख वर्गाच्या सगळ्यांकच कापाली, भैरवोपासक, शक्तिपूजक वाममार्गी, सुरांटे (सोरो पिवपी) अशा नांवांनी संबोधताले. वैष्णवपंथी लोकांनी काळामुखां संबंदान जें चुकीचें वर्णन केलां तें सत्य अशें मानून घेतिल्ले अशे *आधुनिक* विद्वानय आसात. देख दिवची

---

1 कन्नड शीळालेखांचें सांस्कृतीक अध्ययन Page 140

2 कन्नड शीळालेखांचें सांस्कृतीक अध्ययन Page 138-139

ाल्यार श्री. के. ए. नीलकंठ शास्त्री एम. ए. हांणीं आपणे बरयल्ल्या दक्षिण भारताचो *ांस्कृतीक* इतिहास नांवाच्या पुस्तकांत पान ४३३ चेर दिल्लें वर्णन हांगा दिवंयेता :–

''Smearing the body with ashes from a burning ghat, eating food n skull and keeping a pot of wine, were some of the common ›ractices of the Kalamukhas and some of these sects, if not all, were addicted to the worship of female principle, which often degenerated nto licentious orgies.''

कर्णाटा राज्यांत मेळिल्ल्या शिळालेखांनी कर्णाटाच्या राजांनी काळामुखां संबंदान वापरिल्ल्या गौरवाच्या उतरांनीं श्री. नीळकंठ शास्त्री हांणीं आपणाल्या पुस्तकांत दिल्लें विवरण निराधार आशिल्ल्याचें आनी पुरायपणीं चुकीचें आसा म्हूण सिद्ध जाता. शक 1035 बरोवन जाल्ल्या शिवमोग्गा जिल्ल्यांतल्या शिकारिपूर तालुक्यांतल्या 99व्या लेखांत अशें बरयल्लें मेळटा – ''काळामुखरोळ् – सारस्वत महोदय श्रीमान सोमेश्वर पंडित देवरं – सारस्वत महोदयन किंकरं ई शिवधर्म शासनमं अभिनवमागिरे मल्लिकार्जुनार्यं बरेदं'' हातूंत काळामुख वर्गाचो सोमेश्वर पंडित हाका 'देवरु' म्हणून 'सारस्वत महोदय' म्हणल्यार पाटांगडो विद्वान (म्हान विद्वान) असो उल्लेख केला. त्यो सोमेश्वर पंडिताच्या नांवान आनिकय जायते लेख आसात. श्रीलोचन पंडिता संबदान आशिल्लो लेख आदीं आयला.[1] काळामुख हे श्री. नीलकंठ शास्त्री हांणी वर्णन केल्लेप्रमाण बुरशे लोक आशिल्ले जाल्यार कर्णाटाचे राजा त्या काळामुख ब्राह्मणांचो इल्लो पसून गौरव करचे नाशिल्ले. काळामुखांचे भोव ऊंच पावंड्याचें आचरण, विद्वत्ता, तांचें कार्य आदी गजालीं विशीं कसलोच पक्षपात करिनासतना केल्लें वर्णन हालींच – मैसूर विश्वविद्यालयाच्या प्रसार शाखेवतीन *प्रकाशित* जाल्ल्या आनी डॉ. चिदानंद मूर्ती एम. ए., पीएच. डी. हांणी बरयल्ल्या ''कन्नड शासनगळ सांस्कृतिक अध्ययन'' नांवाच्या ग्रंथांत मेळटा. म्हणल्यार तो ग्रंथ काळामुख संबंदान श्री. नीळकंठ शास्त्रींच्या वर्णानाक सारकें विरोधी अशें चित्र आमचे मुखार दवरता.

---

1 तांचे संबंदातली चडावत म्हायती ''कन्नड शीळालेखांचें सांस्कृतीक अध्ययन (''कन्नड शासनगळ सांस्कृतिक अध्ययन'') नांवांच्या ग्रंथांत वाचूं येता.

काळामुख ब्रह्मचारी धर्मनिष्ठ, सदाचारी, संयमी अशे आसताले. ते बायलांक केन्नाच कामुक भावनेन पळय नाशिल्ले. ब्रह्मचर्य पालनाक *हानिकारक* अशें मासळी मांस, कांदे, लोसूण, पोपाय आदी पदार्थ ते मात पसून खायनाशिल्ले. पुरायपर्ण शाकाहारी रावून कठीण अशीं व्रतां उपास बी करताले. अशें आशिल्ल्यान थोडे लोक तांकां निष्ठावंत ब्रह्मचारी अशेंय म्हणटाले. सारस्वत ब्राह्मण तशे तरेच्या ब्रह्मचाऱ्यांक ''शिवरागी'' म्हणटाले. कोंकणींत 'शिवरागी' म्हणल्यार 'शिवाचे दृढ भक्त' इतलेंच न्हीं तर मासळी, कांदो, लोसूण, पोपाय, वायंगें, नशा हाडपी पदार्थ बी खायना जाल्लो वा शाकाहारी मनीस असोय अर्थ जाता.

आदल्या काळांत दक्षिण भारतांतले सगळे राजा शैव पंथाचे आशिल्ले. ते खातीर शैव पंथा विशीं प्रतिपादन करपी काळामुखांचो आनी सारस्वत ब्राह्मणांचो खूब भोवमान करताले. तेन्नाचे राजा बौद्ध आनी जैनांचे मान राखताले पूण त्या धर्मांक राजाश्रय मेळ्ळो ना. म्हणल्यार राज दरबारांत कसलें अधिकाराचें स्थान तांकां फावो जालें ना. शकाच्या इकराव्या शेंकड्यांत श्री मद्रामानुजाचार्य हांणीं विशिश्टाद्वैत सिद्धांताच्या आदारान श्रीवैष्णव पंथाचो प्रचार करपाक सुरवात केली तरी, त्या पंथाक तमीळनाडू जावं आंध्रांत रोखडीच राजांची मान्यताय मेळूंक पावली ना. उरफाटो श्रीवैष्णवांक राजांचो विरोधच सोंसचो पडलो कारण श्रीरामानुजाचार्य आनी तांचे अनुयायी शैव पंथाक खर विरोध करून तांचीं मतां खोडून काडटाले. त्या भायर शैवां मदीं त्या पंथाचे जे खर अनुयायी आशिल्ले त्या काळामुखांचेर ते कडक टीका करताले. अशें जाल्ले कारणान शैव पंथाचे लोकूय बी वैष्णवांच्या प्रचाराक तितलेच कडकसाणेन (तीव्रतायेन) विरोध करूंक लागले.

श्रीवैष्णवांनी बरयल्ल्या ग्रंथां मदीं श्री रामानुजाचार्यांच्या विरोधकांनी तांचें खूब हिंसक पद्धतीन वर्णन केलां आसलें तरी त्या आरोपांनी सत्याचो भाग खूब थोडो आसा अशें म्हणूं येत. *वास्तविक* श्री रामानुजाचार्यांनी शैव पंथाचीं मतां खूब कडकपणान खोडून काडिल्ले कारणान शैवपंथी आशिल्ल्या चोळ राजांचे वंशज आनी चडावत प्रजाजन तांचेर खूब क्रुध्द जाल्ले. तेन्ना जिवाक धोको आसूं येता असो हुसको जाल्ले कारणान श्री रामानुजाचार्य आपाणाल्या थोड्या अनुयायांक सांगाताक घेवन चोळ राज्यांतल्यान गुप्तपणान पळून गेले आनी मैसूर राज्यांत आसरो घेवन खूब वर्सां थंयच

थायिक जाले. श्री नीलकंठ शास्त्री हांणीं त्या संबंदान एके वेगळे रीतीन सांगलां.[1]

श्री वैष्णवपंथी शैव पंथाचेर जी नकारात्मक टीका करताले, आनी काळामुखांची जी *वैयक्तिक* निंदा करताले त्या सगळ्याचो परिणाम जावनच वीरशैव पंथ जल्माक आयलो अशें म्हणलें जाल्यार तें चूक जावंचें ना. आनी थोडे सारस्वत ब्राह्मण वीरशैव पंथ काळामुख ब्राह्मणांनीच स्थापन केला म्हूण आदीं साकून मानीत आयल्यात आनी तसो तांचो दृढ विस्वास आसा. म्हणल्यार पयल्यान पयलीं आंध्र आनी तमीळनाडूंतल्या थोड्या काळामुख ब्रह्मचाऱ्यांनी एकठांय येवन श्री वैष्णव जी शिव निंदा करताले तिका विरोध करपाच्या उद्देशान शिवाचेर गाडभक्ती आशिल्ल्या अनेक हिन्दू युवकांक *संघटित* केले आनी त्या संघाच्या आदारान वैष्णव पंथ आनी वैष्णवांच्या म्हणण्याचें खंडन करपाक सुरवात केली, तशेंच त्या काळामुखांनी *संघटित* केल्लो नवो पंगड फुडारांत वीरशैव ह्या नांवान प्रसिद्ध जालो. त्या वीरशैवपंथान वेवस्थीत रूप घेतले उपरांत थोडीं गोरवांची कुटुंबां सोडून उरिल्ले सगळे काळामुख ब्राह्मण वीरशैवांक मेळ्ळे. उपरांत तांचीं जीं अनेक देवळां आशिल्लीं तीं, तशेंच तांचे मठ वीरशैवांचेच जाले. तशें जाल्ल्या कारणान आज गोरव सोडून काश्मीर मुळाचो एकूय काळामुख ब्राह्मण दक्षिण भारतांत मेळना अशी परंपरेन चलत आयिल्ली स्थिती सारस्वत ब्राह्मणांच्या थोड्या प्राचीन घराण्यांनी आशिल्ली दिसता.

ती फकत जुनी परंपराच उरनासतना वास्तव वा सत्य म्हणपाक कांय देखीय बी आसात. पयलें म्हणल्यार वीरशैवांमदीं काळामुखांचीं घराणीं आशिल्लीं आनी आतांय बी आसूंक शकतात. दुसरें प्रमाण आसा तें म्हणल्यार जीं देवालयां आनी मठ काळामुखांचे आशिल्ले म्हूण शिळालेखांनी उल्लेख मेळटा तीं देवळां आनी मठ वीरशैवांचे जाल्ले आसात. तिसरें म्हणल्यार उत्तर भारतांतल्या हिमालयांत काश्मीरी ब्राह्मणांच्या घराण्यांचीं म्हूण आशिल्लीं अशीं 'केदारनाथ', 'गुप्तकाशी' आनी 'उखीमठ' नांवांचीं

---

1 The bholas were ardent Saivas, and evidently dod not view the growing influence of Ramanuja woth favour. We may not trust the legends of the persecution to which Ramanuja and his followers were subjected in all their details, but the fact remains that he had to withdraw into Mysore about 1098 and could not return to Srirangam till 1122 - *A History of South India, page 430.*

तीन पुण्यक्षेत्रां आनी काशींत आतां जंगमवाडी म्हणटात ती काश्मीरी ब्रह्मणांच
मालकीची हवेली आज वीरशैवांचीच जाल्या.

दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांतल्या उद्यावर शंभूकल्लू भैरवाच्या देवळाकुशीक
आशिल्ल्या शकाच्या पांचव्या शेंकड्यांतल्या दोन शिळालेखांनी गोरव लोकांचो
(काळामुख ब्रह्मचारी) उल्लेख आशिल्ल्यान, तशेंच दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत
शेंकड्यांनी शिवालयां, शक्तीचीं देवळां, अनेक भैरवालयां आनी शेंकड्यांनी हेर देवळां
आशिल्ल्यान त्या देवळांनीं पुजारी आशिल्ल्या गोरव लोकांचीं हजारांनी कुटुंबांय बी
दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत आसपाकच जाय अशें म्हणूं येता. ताचें कारण म्हणल्यार
शकाच्या चवदाव्या शेंकड्या आदीं पुराय दक्षिण भारतांत आशिल्ल्या सगळ्याच
देवालयांनी काळामुख ब्राह्मण वर्गाचे गुरूच पुजारी म्हूण आशिल्ले अशी म्हायती मेळटा.
दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत पयलींच्यान आशिल्ल्या देवालयांनीं चडशे कडेन 'गोरव' हें
उतर खंयच आयकूंक येना. तशें आसा जाल्यार दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत गोरव
लोकांचीं कुटुंबां नाशिल्लीं तर ? आनी आशिल्लीं जाल्यार तीं खंय गेलीं ?

त्या प्रस्नांक जापो अशो – गोरव लोकांचीं कुटुंबां आदीं आशिल्लीं आनी आजूय
आसात अशी योग्य जाप आसा. म्हणल्यार देवळांनी रावून देवाची पूजा करपावांगडाच
धर्मप्रसार आनी विद्याप्रसार करताले त्या काळामुख ब्रह्मचाऱ्यांक ''*स्थानिक*'' अशें
म्हणटाले म्हूण आदीं सांगिल्लें आसा. त्या खातीर दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांतल्या देवळांनी
पुजारी म्हूण काम करतल्यांक थंयचे लोक ''गोरव'' म्हणपा बदलाक ''*स्थानिक*''
म्हणटाले हें लक्षांत घेवपाक जाय. कारण 'स्थानिक' हो शब्द दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत
खूब आदल्या काळांतल्यान लोक वापरीत आयल्यात. अर्थांत दक्षिण कन्नड
जिल्ल्यांतल्या सगळ्या देवळांनी आदल्या काळांतल्यान जो पुजारी आसतालो आनी
चडावत देवळांचेर पुराय अधिकार जाका मेळिल्लो आसतालो, आनी आज मेरेन अनेक
देवालयांचो तसोच भुंयेचो अधिकार जाका दिल्लो आसता तसले *स्थानिक* ब्राह्मणच
आदल्या काळामुख गोरव ब्राह्मणांचे वंशज आसात अशें म्हणल्यार चूक जायत शी
दिसना.

गोयांत सारस्वत ब्राह्मणांच्या हजारांनी देवळांनीं गोरव हेच पुजारी आशिल्ले. आनी
आजून एक दोन देवळांनी गोरवूच पुजारी आसपा भायर हेर देवालयांनीय बी तेच सेवेचीं

र कामां करपाक आसात. कर्णाट राज्यांत *स्थायीक* जाल्ले गोरव आपणाली मायभास गाशिल्ली प्राकृत विसरून आतां कन्नड उलयतात. गोंयांतले गोरव कोंकणी उलयतात आनी तुळुनाडूंत कुंबळे साकून कल्याणपुरा मेरेन *स्थायिक* जाल्ले *स्थानिक* ब्राह्मण तुळू उलयतात. कल्याणपूरच्यान उत्तरेक कोटा, कोटेश्वर आदी वाठारांनी रावल्यात ते कन्नड उलयतात.

दिवंगत राव बहादूर श्रीपाद सुब्राय तालमकी बी. ए., एलएलबी. हाणीं बरयल्ल्या 'Saraswat Families' नांवाच्या पुस्तकांत कश्मीर मुळाच्या सहवासी ब्राह्मणां संबंदान चर्चा केल्ली आसा. तांच्या अभिप्रायाप्रमाण उत्तर भारतांतल्या अहिच्छत्र नांवाच्या प्रदेशांतल्यान म्हणल्यार आतांच्या अलाहाबाद जिल्ल्यांत येवपी रामनगर हांगाच्यान येवन कर्णाट राज्यांत *स्थायिक* जाल्ल्या सहवासी ब्राह्मणांनी आपणाल्या पुर्वजांचो शैव पंथ सोडून वैष्णव पंथ *स्वीकारून* कर्णाट देशस्थ ब्राह्मण म्हूण नांव धारण केलें. ते महाराष्ट्रांतय आसात. त्या खातीर ते कन्नड आनी मराठी ह्यो दोन भासो वापरतात.

उत्तर भारतांतल्यान येवन दक्षिण भारतांत *स्थायिक* जाल्ल्या सगळ्या सारस्वत ब्राह्मणांचीं कुलदैवतां फकत गोंयात आसात. त्या खातीर सारस्वत ब्राह्मण पयल्यान पयलीं येवन गोंयात राविल्ले अशें म्हणपाक जाय. उपरांत आयले तांणीय बी गोंय हेंच आपणालें केंद्र म्हूण वेंचून काडलें आसपाक जाय. अशें जाल्ले कारणान गोवा मुळाचे सारस्वत ब्राह्मण खंयच्याय प्रदेशांतले आसूं एक दीस तरी गोयां वचून आपणाल्या कुलदेवाचें दर्शन घेवंकूच जाय म्हूण तीव्र इत्सा बाळगून रावतात.

शिव, शक्ती आनी नाग हीं सारस्वत ब्राह्मणांचीं मूळ कुळदैवतां. आनी सारस्वत ब्राह्मणांतले चडावत लोक मंगेश आनी शांतादुर्गा ह्या देवतांचे भजक आसात. 'मंगेश' म्हणल्यार सामान्यतायेन एकूच देव म्हळ्ळी चड लोकांची भावना जाल्ली आसा. पूण वास्तवांत मंगेश हो देव शिवलिंग आनी नाग अशा दोन देवतांच्या संयोगान रूपाक आयिल्लो देव. त्या खातीर 'मंगेश' हें नांव 'महानागेश' ह्या मूळ रूपाचें रूपांतर आसूं येता अशें दिसता. म्हणल्यार महाशेषाचे फणेच्या आसऱ्याक शिवलिंग आशिल्ल्यान 'मंगेश' [1] हें नांव जल्माक आयलां हातूंत कसलोच दुबाव ना.

---

1 मंगेश देवाक ब्रह्मालिंगेश्वर अशें नांवूय आसा.

गोंय विंगड विंगड काळांत विंगड विंगड राजवटींच्या शेकातळा उरिल्ल्या कारणा थंय विंगड विंगड राजांनी विंगड विंगड देवतांच्या आराधनांच्यो चाली सुरू केल्ल्यो अशें घडिल्ल्यान गोयांत शिव, शक्ती, विष्णू, सूर्य, गणपती, ब्रह्मा, सरस्वती महालक्ष्मी, भैरव, वीरभद्र, बेताळ, सप्तमातृका, आदी देवतांचीं नाना रूपां आनी नांव घोळटात. गोंयच्या मंगेश देवालयांत देवता पंचायतन म्हणल्यार – शिव, शक्ती, विष्णू, सूर्य आनी गणपती हीं पांच दैवतां आसात. मंगेश देवाचे गर्भकुडी सामका नंदीचो मंटप आसा. आनी त्या मंटपाच्या दाराचे उजवे वटेन गणपतीची आनी दाव्यान भगवतीची मूर्ती आसा. गर्भकुडीचे भोवतणी लक्ष्मीनारायणाची आनी सूर्यनारायणाची अशो देवळ्यो आसात. त्या खातीर गोंयच्या सारस्वत ब्राह्मणांत शैव, शाक्त, वैष्णव, सौर आनी गाणपत्य ह्या पांच पंथांक मान्यताय आसा वा सारस्वत ब्राह्मणांच्या समुदायांत त्या पांच पंथांच्या अनुयायांचो आसपाव जाल्लो आसा अशें म्हणपाक जाता.

अशें जाल्ल्यान गोयांत दर एका दैवताक विंगड विंगड नावांचीं अनेक देवळां आसात. म्हणल्यार गोंयांत शिवाक – सोमनाथ, चंद्रनाथ, भूतनाथ, गोवनाथ, मल्लिनाथ, रामनाथ, रवळनाथ, सप्तनाथ, सिद्धनाथ, महादेव, ईश्वर, कांतेश्वर, गदगेश्वर, चंद्रेश्वर, बंकेश्वर, सप्तकोटेश्वर, भैरव, मार्तंडभैरव, मल्लारी आदी अनेक नांवां फावो जाल्यांत. शक्तीक – अंबिका, अश्टदुर्गा, कामाक्षी, चामुंडा, चांडेश्वरी, दुर्गा, भवानी, पार्वती, माया, महामाया, शांतादुर्गा, शांतेरी, महिशासुरमर्दिनी, भगवती, सती, अशीं अनेक नांवां लाबल्यांत. लक्ष्मीक – गजलक्ष्मी, महालक्ष्मी, म्हालकुम, म्हाळसी आदी नांवां पडल्यांत आनी म्हाळसी म्हाळसा (=महालसा) ह्या नावान शक्तीरूपान मानतात. विष्णूक – नारायण, लक्ष्मीनारायण, नरसिंह, दामोदर, देवकीकृष्ण अशीं नांवां लाबल्यांत. गणपतीक – गणेश, विनायक आनी विघ्नेश्वर म्हूण वळखतात. सूर्याची एक प्रतिमा मंगेश देवालयांत आसा आनी दुसरी एक कुडणें नांवाच्या गांवांत आसा. कुडणें गांवांतली सूर्याची प्रतिमा शकाच्या सातव्या शेंकड्यांतली आसून तिची रचना शकलोकांचे शिल्प पद्धतीन जाल्ली आसा. ब्रह्माची प्रतिमा पार्से गांवांत आसा. तांचे भरीक बेताळ, बटुकेश्वर, क्षेत्रपाळ आदी नांवां आशिल्ल्यो अनेक परिवार देवता आसात.

शकाच्या 502 धरून 672 वर्सा मेरेन गोंयांचेर चालुक्य राजांची राजवट

ग्रलताली. कार्तिकेय वा षण्मुख हो चालुक्यांचो राखण देव आशिल्लो. अशें जाल्ल्यान ते सप्तमातृकांची आराधना करताले. त्या खातीर तांणीं गोंयांत कार्तिकेयावांगडाच सप्तमातृका, गणपती, ब्रह्मा, विष्णू आनी महेश्वर देवालयां बांदिल्लीं म्हूण म्हायती मेळटा. उपरांत कदंब राजा शिवचित्त हाणे सप्तकोटेश्वर देऊळ बांदलें आनी ताची राणी कमलादेवीन कमलनारायणाचें आनी महालक्ष्मीचें अशीं दोन देवळां बांदलीं अशीय बी म्हायती मेळटा. गोंयाचेर राज्य करपी शिलाहार राजांनीय बी महालक्ष्मीचें तशेंच हेर अनेक देवालयां बांदलीं अशीय नोंद मेळटा.[1] सप्तमातृका म्हणल्यार 1) ब्राह्मी, 2) माहेश्वरी, 3) कौमारी, 4) वैष्णवी, 5) वाराही, 6) माहेंद्री (इंद्राणी), 7) चामुंडा अशो सात देवी आसात.

दक्षिण भारतांत *स्थायिक* जाल्ल्या गोवा मुळाच्या सारस्वत ब्राह्मणांचो 'गौड सारस्वत' अशा अभिधानान उल्लेख करप मात पसून सारकें न्हीं. ताचें कारण म्हणल्यार मुळांत सारस्वत ब्राह्मणच पंजाबांतल्यान भायर सरून वेग वेगळ्या प्रदेशांनी *स्थायिक* जाल्ल्यान संबंदीत प्रदेशाच्या नावान तांची वळख जाल्ली. म्हणल्यार – काश्मीरी, कान्यकुब्ज, सरयूपारीण, मैथील, उत्कल, गौड, गुर्जर, महाराष्ट्र, कोंकण आदी नांवां त्या त्या प्रदेशां वयल्यानच पडलीं, जातींवयल्यान न्हीं. त्या भायर गोवा मुळाच्या सारस्वत ब्राह्मणांच्या जम्यांत (समूहांत) आदीं नांवां घेतिल्ले सगळे प्रादेशिक पंगड मेळून एकवटीत जाले उपरांत त्या सगळ्या पंगडांतलो एक आशिल्ल्या 'गौड' ह्या एका पंगडाकच फकत 'सारस्वत' शब्द लावन 'गौड सारस्वत' म्हणप सर्वार्थान समा न्हीं आनी ताका अर्थय ना.

ब्राह्मणांच्यो – सारस्वत, कान्यकुब्ज, मैथील आनी गौड अशे पांच नाम प्रकार आसात तांकां 'पंचगौड' म्हणटात. गुर्जर, महाराष्ट्र, कर्णाटा, आंध्र आनी द्राविड ह्या पांच नामप्रकारांक 'पंच द्राविड' अशें म्हणटात. ह्या वर्गीकरणाच्या आदारान सारस्वत ब्राह्मण गौड वर्गांत समाविश्ट जाले. त्या खातीर तांकां 'गौड सारस्वत' म्हणप योग्य थारता असो वादाचो मुद्दो काडलो जाल्यार तें वर्गीकरण मुळांतच सारकें न्हीं अशें म्हणचें पडटा. कारण 'गौड' हो शब्द जावं वा 'द्राविड' हो शब्द जावं, तो वयल्या एका समाज घटकाचें नांव नासून – *प्रादेशिक* पंगडाचें तें नांव. त्या भायर तें वर्गीकरण

---

1 Ancient Shrines of Goa, Government Publication.

जावचे आदींच उत्तर भारतांत हेर अनेक नांवांच्या पंगडांनी तकली वयर काडिल्ली नागर, औदिच्य, सरयूपारीण, काश्मीरी, बंगालांतले कुलीन, शाकद्वीपीय, मग आद पंगड तें वर्गीकरण चालीक लागचे पयलींच आशिल्ले. गुर्जर आनी महाराष्ट्रीयांव पंचद्राविडांत घालपय बी समा जायना. अर्थांत गौड हो शब्द जे तरेन एका पंगडाचें नांव तशेंच द्राविड म्हणटात तेंय बी एका पंगडाचें नांव आसून फकत तमीळ लोक इतलेंच सूचित करता म्हणपाचें त्या उतरा वांगडा येवपी कर्णाट आनी आंध्र वा तैलंग हे शब्द सिद्ध करतात.

ब्रिटीश पाद्री डॉ. रॉबर्ट काल्डवेल्लर हाणे द्राविड भासांचें व्याकरण रचून उजवाडायले उपरांत परदेशी विद्वान दक्षीण भारतांतल्या मूळ निवासींक 'द्रविड' म्हणपाक लागले. ताचें अनुकरण करीत भारतीय विद्वानानीय बी दाक्षिणात्य लोकांक द्राविड म्हणपाक सुरवात केली. पूण तो प्रयोग सगळ्या तरांनीं चूक थारता म्हूण फुडल्या विवरणांतल्यान समजून घेवं येता. 'द्राविड' वा 'द्रविड' हो शब्द मुळांत खंयचे भाशेंतलो म्हणपाचें वा पयल्यान पयलीं तो खंयच्या अर्थान वापरलो ते विशीं थारावप हें कठीण काम आसलें तरी, संस्कृत साहित्यांत द्रविड शब्द प्राचीन काळांतल्यानूच तमीळ लोकां खातीर वापरिल्लो आसा. म्हणल्यार कर्णाट, आंध्र, सत्यपुत्र, केरळपुत्र आदी पंगड ''द्रविड'' शब्दाच्या अर्थांत बसनात वा अर्थाचे कक्षेंत येनात. आनी द्रविड हो शब्दच द्रमीड, द्रमीळ. दमीळ अशे तरेन *रूपांतरित* जायत ताणे तमीळ रूप घेतलें हो विचार सगळे विद्वान मान्य करतात. अशे स्थितींत द्राविड ह्या शब्दाच्या प्रभावाभितर हेर दक्षिणी पंगड कशे येवंक पावतले हाचो अर्थ लागना. अर्थांत द्राविड म्हणल्यार तमीळच आसपाक जाय हेर कोण दक्षिणी लोक न्हीं.

पाद्री काल्डवेल्लरान द्राविड शब्दाच्या परीधाभितर दाक्षिणात्य मुळाच्यो कन्नड, मलेयाळी, तुळू, तेलगू, तमीळ, बडगा, कोडगू आदी अठरा भासो उलोवपी लोकांक हाडल्यात आनी तो एकाच वर्गाचो समाज ह्या अर्थान ताणे तो शब्द वापरला. आनी तमीळ भाशा ही हेर भासां परस प्राचीन म्हूण सिद्ध करपाची धडपड केल्या. ताचें कारण तमीळ भाशा हेर भासां परस प्राचीन म्हूण सिद्ध जालें जाल्यार हेर पंगड आनी तांचे लोक उलयतात त्यो भासो तमीळ भाशेंतल्यान जल्मल्यात अशें म्हणिल्लेवरी जाता. पूण

---

1 *द्राविड भाशा विज्ञान – पान 111 आनी 112*

स्तुस्थिती पाद्री काल्डवेल्लर तशेंच उपरांतल्या ब्रिटीश विद्वानांच्या कल्पनांपरस रफाटी आसा. म्हणल्यार कन्नड भाशेंत तमीळींत नाशिल्ले अनेक मूळ शब्द आसप, तलें न्हीं तर त्या भायर तमीळींत आशिल्ल्या अनेक शब्दांचीं प्राचीन तशींच शुद्ध रूपां ासात. अशें आशिल्ल्यान तमीळी परस कन्नड प्राचीन म्हणपाचें मान्य करपाक जाय.[1] ण कन्नडांत नाशिल्ले अनेक शब्द तमीळ भाशेंत आसात. त्या खातीर त्या दोन भासां रसय प्राचीन अशी एक भाशा आशिल्ली म्हूण मान्य करपाकच जाय. आनी तीच भाशा क्षिणी लोक उलयतात त्या भासांची मूलस्त्रोत आशिल्ली म्हूण मानपाक जाय. अशें ाशिल्ल्यान ती मूळ भाशा खंयची हें सोदून काडी मेरेन दक्षिण भारतांतल्या मूळ नेवासींक दाक्षिणात्य (दक्षिणी) अशें म्हणप योग्य दिसता पूण द्राविड म्हणप न्हीं.

अशे परिस्थितींत पंजाबांतल्यान येवन गोयांत स्थायिक जाल्ल्या कारणान ोयकार जावन राविल्ल्या ब्राह्मणांक ''सारस्वत ब्राह्मण'' अशें म्हणप हेंच सारकें ासून यथार्थय बी थारता. थोडे अन्य वर्गाचे लोक सारस्वतांच्या दोन पंगडांतल्या काक कोंकणी वा गौड सारस्वत, दुसऱ्या पंगडांतल्यांक शेणै व सारस्वत अशेंय हणटात. पूण तांकां कोंकणी उलोवपी लोकां मदले ब्राह्मण कोण, ब्राम्हणेतर कोण हें ोगीत खबर आसचें ना. अशें जाल्ले कारणान गौड सारस्वत म्हणल्यार सगळे मासळी नुस्तें) खावपीच असो तांचो समज जाल्लो आसा. पूण तांची भावना निराधार आसा हें ांगचेंच पडटा कारण ते लोक गौड सारस्वत वा कोंकणी म्हूण लेखतात त्या जातीं भेतर वैदिक आनी गृहस्थ (वैदिक न्हीं ते) म्हळ्ळे दोन विभाग आसात. वैदिक हणल्यार वेदाध्ययन केल्ले आनी कर्मकांड शिकून वैदिक कामां (विधी) करपी वा ुरोहीत आशिल्ले भट, आचार्य, तंत्री, अवधानी (वेदाध्ययन केल्ले), पुराणीक, जोयशी ादी लोक. ते फकत नुस्तें खायनात, इतलेंच न्हीं तर कांदे, लोसूण, वाळे भाजी, ोपाय, अळमीं आदी वस्तूय बी खायनात. पूण तांची मासळी खावपाक जायना अशे निर्बंध वा खातल्याचो निशेध करप अशी आडखळ ना. वयल्यान तांचे मदले खूब जाण ुवक उच्च शिक्षण घेवपाच्या निमतान परदेशांत वचत आशिल्ल्या कारणान नुस्तें मासळी) खावपाक जायना असो निर्बंध घालप साध्य जायना.

त्या भायर हेर वर्गांतल्या लोकांनी तर्क केल्ले प्रमाण गौड सारस्वत आनी चित्रापूर ारस्वत अशे दोन पंगड हे भिन्न जातींचे न्हींच न्हीं. गोयांतल्या सारस्वत ब्राह्मण

समुदायांत वा 'शेणाय' ह्या उपनांवाच्या समुदायांत एका मूळ स्वार्थातल्या उपराशिल्ल्या कलहाक लागून सारस्वत ब्राह्मण समुदायाचे दोन वांटे जाले. दे कार्यांच्या विनियोगाखातीर वडलांनी वेगळी काडून दवरिल्ले आस्पतींत द्वारकानाथ आनी भानप्पय्या (=भानू) अशा दोन वारसदारांक समान अधिकार आशिल्लो तांतूतल्या द्वारकानाथाक सगळी आस्पत आपणे एकट्यानच बळकावपाची दुर्बुद्धी जाली.

पूण ती आस्पत बळकावपा खातीर भानप्पय्याची जात काडून उडयले बगर दुसरो उपाय नाशिल्लो. आनी त्या खातीर द्वारकानाथान भानप्पय्याक जातींतल्यान भायर घालपाच्या उद्देशान तो शूद्र जातीचे बायल मनशेन रांदिल्लें जेवता म्हूण खबर पातलायली. थोड्या लोकांक फुसलावन तांचे मार्फत भानप्पय्याचेर जातींतल्यान भायर घालचो म्हूण राय्स् काडपाची विनवणी करून आपणाल्या वर्गाचे धर्मगुरू आशिल्ल्या कैवल्य (=कवळे) मठाच्या स्वामीं मुखार अर्जी धाडली. श्री स्वामींनी पद्धती प्रमाण त्या गांवांतल्या प्रमुख गृहस्थांक आफोवन आरोपांविशी चौकशी केले उपरांत द्वारकानाथाचो आरोप निराधार म्हूण कळिल्ल्यान भानप्पा निर्दोश आसा असो निर्णय दिलो. पूण ताचे आदीं दोगांय वटेन तेंको दिवपाक लोक जमिल्ले आनी परस्परांची निंदा करपाक लागिल्ले. द्वारकानाथाच्या पंगडांतल्या लोकांची संख्या चड आशिल्ली कारण तो भानप्पा परस चड श्रीमंत आसून त्या भायर ताणे संबंध जोडिल्ल्या घराण्यांतले लोकय बी खूब श्रीमंत आशिल्ले. अशें जावन दोनय पंगडांचे लोक कवळेंच्यान फाटीं परतले आनी एक सभा घेवन भानप्पय्या आनी ताच्या पंगडाक मेळिल्ल्या पांच गोत्रांच्या घराण्यांतल्या थोड्या मनशांकय स्वामींचो निर्णय कुशीक सारून जातींतल्यान भायर घालपाचो निर्णय घेतलो. ते उपरांत द्वारकानाथ पंगडाच्या मनशांनी भानप्पयाच्या पंगडाकडेन कसलेच तरेचो संपर्क आनी संबंधच दवरप ना असो खर निर्धार केलो.

भानप्पय्याच्या पंगडांत 1) कौंडिण्य, 2) कौशिक, 3) भारद्वाज, 4) अत्री आनी 5) कुत्स अशा पांच गोत्रांक जोडिल्लीं अनेक कुटुंबां आशिल्लीं. अशें आशिल्ल्यान द्वारकानाथाच्या व्हडल्या पंगडातलें लोक भानप्पय्याच्या ल्हान पंगडांतल्या पांच गोत्रांच्या मनशांक 'शेणाइपंचे' म्हणल्यार शेणाई उपनांवांचे पांच अशें म्हणटाले. बरोच

ांब काळ गेले उपरांत पयलींच्या पांच गोत्रांतल्या लोकांक वत्स गोत्रांतलीं कुटुंबां वन मेळिल्ल्या कारणान त्या ल्हान पंगडांत आतां स गोत्रांतले लोक आसात. आदीं ांगलां ते प्रमाण सारस्वत ब्राह्मण समाज दोन पंगडांनीं वांटे जावन गेले. ते उपरांत ारकानाथाच्या पंगडांतल्या लोकांचो 'दोरको' नांवान आनी भानप्पाच्या पंगडांतल्या ोकांचो 'भानपु' नांवान उल्लेख करूंक लागले. एका पंगडांतल्यांक दुसऱ्या पंगडांतले ा आपणाल्याच पंगडांतल्यांक त्याच नांवान संबोधप ही एक वयवाटच जाली.

आदल्या काळांतले ब्राह्मण खूब क्षुल्लक अशा कारणा वयल्यान बी आपणाल्या नशांक जातींतल्यान पयस करताले वा जाती भायरे करताले. आनी तशें करपा खातीर तांणीं कांय नेम तयार करून स्मृतिग्रंथांनी घाल्ले. *सार्वजनिक* देवालयांनी वेतन घेवन पुजारी जावंक फावना. शिवलिंगाक निवेद दाखयल्लें अन्न जेवप ना; गांवांतल्या सगळ्या लोकांचें पौरोहित्य चलोवंक फावना; शुद्राचो पुरोहित जावन तांचे कडच्यान दक्षिणा घेवंक फावना. अशे तरेचे नेम केल्ले. तशे तरेच्या नेमांक लागुनच गोंयांतल्या ब्राह्मणांच्यो किरवंत, पाध्ये आदी उपजाती जल्माक आयल्यो. देवळांनी पुजारी जावन निवेद्याचें अन्न जेवपी गुरव हे पतीत थारले.

गोंयांत सारस्वत ब्राह्मणांकडेन जोडिल्ल्या हजारांनी देवालयांनी काळामुख गुरवूच पुजारी आशिल्ले. आनी देवालयांतल्या देवांची पूजा करपाचो अधिकार पुरायपणी तांकांच दिल्लो आशिल्लो. पुर्तुगेजांची हावळ पडली तेन्ना सारस्वतांकडेन संबंदीत शेंकड्यांनी देवळां नश्ट जालीं. उपरांत बांदिल्ल्या देवळांनी गुरवां बदलाक कराड ब्राह्मण पुजाऱ्यांचीं कामां करूंक लागले. अशें जाल्लें आसतनाय गोंयांतल्या सांतेर आनी म्हाळशेच्या देवळांनी आजय देवींचें निर्माल्य काडून अभिशेक केले उपरांत आनी देवींक न्हेसोवन सजोवन जाले उपरांत पयलीं आरत दाखोवपाचो अधिकार गुरवांक दिल्लो आसा.

दक्षिण भारतांत स्थायिक जावन आशिल्ल्या गोवा मुळाच्या सारस्वत ब्राह्मणांत बावीस गोत्रांचे लोक आसात अशें म्हणटात. पूण आज मेरेन अठराच गोत्रां कळ्ळ्यांत. तीं ताच्या प्रवरांसयत दिवपाचीं आसतात. प्रवर हाचो अर्थ 'श्रेष्ठ आसता तो' असो जाता. म्हणल्यार ज्या एका गोत्रांत जल्मून आपणाली विद्या, आचरण आनी असामान्य ज्ञानाच्या बळान आदल्या मनशां परस श्रेष्ठ म्हूण मान्यताय मेळोवन आपणाल्या

स्वताच्या नांवान गोत्र स्थापन केल्ली व्यक्ती असो अर्थ जाता. गोत्र हाचो अर्थ चोंबो
पंगड असो जाता. त्या खातीर – गोत्रां आनी प्रवरां हीं मुळांत एकूच आशिल्ल्यान तां
भितर लग्न संबंद जुळून येनात.

''अत्री, कश्यप, गौतम, जमदग्नी, भारद्वाज, वसिष्ठ आनी विश्वामित्र'' अशे सा
रुशी आनी 'अगस्त्य' मेळून आठ जण गोत्र प्रवर्तक जावन गेल्ले मूळ रुशी. तां
संततेचींच गोत्रां घडलीं त्या गोत्रांनीं ४९ (एकूणपन्नास) प्रवर घडून उपरांत हजा
हजार गोत्रां घडलीं म्हणपाची नोंद मेळटा :–

> गोत्राणां तु सहस्त्राणि प्रयुतान्यर्बुदानि च ।
> ऊनपंचशिदेवैषां प्रवरा ऋषिदर्शनात् ।।
> विश्वामित्रो जमदाग्निर्भरद्वाजोऽथ गौतम: ।
> अत्रिर्वसिष्ठ: कश्यप इत्येते सप्तऋषय: ।।
> तेषां सप्तर्षिणामगस्त्याष्टमानां यदपत्यंतद्गोत्रमित्युच्यते ।

सारस्वत ब्राह्मणांत आशिल्लीं गोत्रां अशीं आसात :–

१) अत्रि – आत्रेय, आर्चनानस, शावश्व. (तीन प्रवर)

२) आंगीरस – अंगीरस, बार्हस्पत्य, मौद्गल

३) कश्यप – काश्यप, अवत्सार, नैद्रुव

४) कुत्स – (+शंखपिंग) आंगीरस, अंबरीश, यौवनाश्व

५) कौंडिण्य – वासिष्ठ, मैत्रावरुण, कौंडिण्य

६) कौशिक – वैश्वामित्र, अघमर्षण, कौशिक

७) गार्ग्य – आंगरिस, बार्हस्पत्य, भारद्वाज, गार्ग्य

८) गौतम – आंगीरस, आयास्य, गौतम

९) जामदग्न्य – भार्गव, च्यावन, आप्नवान, औरव, जामदग्न्य

१०) धनंजय – वैश्वामित्र, माधुच्छंदस, धनंजय

११) नैध्रुव – काश्यप, अवत्सार, नैध्रुव

१२) भारद्वाज – आंगीरस, बार्हस्पत्य, भारद्वाज

१३) मुद्गल – आंगीरस, भार्म्याश्व, मौद्गल

१४) वत्स – भार्गव, च्यावन, आप्नवान, औरव, जामदग्न्य

१५) वसिष्ठ – वासिष्ठ, इंद्रप्रमद, आभरद्वस्

१६) विश्वामित्र– विश्वामित्र, देवरात, देवल

१७) शांडिल्य – शांडिल, असित, देवल

१८) सांख्यायन – गोम, वसु, सांख्यायन, वा सांख्यायन, वासिष्ठ – इंद्रप्रमद.

कुत्स गोत्राचो कौत्स जाता. आनी कुशिक गोत्राचो कौशिक जाता. पूण त्या दोन गोत्रांचे कोंकणीत कंश (=कौंश) आनी कांश्य म्हूण तांचे उच्चार जातात. शिवाय कुत्स शब्दावांगडा शंख, पिंग अशीं दोन नांवां सांगातानूच येतात. ताचें कारण कितें तें समजूंक ना. कुत्सगोत्राचे आदीं साकून आपणाल्या गोत्राक शंख, पिंग–कंश अशें उच्चारीत आयल्यात.

शांडिल्य नांवाच्या गोत्राचे सगळे सारस्वत ब्राह्मण कनोज नगरांत *स्थायिक* जाल्ले. गोंयांतल्या सारस्वत ब्राह्मण समुदायांत शांडिल्य गोत्राचे ब्राह्मणय आशिल्ल्यान तांचे मदीं कनोज पंगडांतले ब्राह्मणूयबी येवन मेळ्ळ्यात म्हूण सिद्ध जाता. तशेच गोंयांतल्या सारस्वतांमदीं सांख्यायन गोत्राचे ब्राह्मण आसप हें तांचे मदीं रुग्वेदाच्या बाश्कल शाखेचे ब्राह्मणयबी आसात हाचें एक प्रमाण म्हणपाक जाय.

यज्ञांक प्राधान्य आशिल्ल्या काळामेरेन सारस्वत ब्राह्मणांच्या वेगवेगळ्या गोत्रांचीं कुटुंबां यज्ञांवेळार ज्यो तरेकवार भूमिका निभावपाच्यो आसतात तांचें खातीर गरज आशिल्ले वेगवेगळे वेद, शाखा–सूत्रां आदी धर्मीक साहित्याचो अभ्यास करतालीं आनी तो अभ्यास विभिन्न आंगांपांगांतल्यान करतालीं. थोड्या कुटुंबांचे लोक एक वेद विशेश रीतीन शिकून घेताले जाल्यार हेर वेद सामान्य रीतीन शिकताले. विशेश पद्धतीन वेदांचें पाठांतर केल्लीं अनेक कुटुंबांय आशिल्लीं. सागर हांगाचें रामाचार्य हांचें घराणें

1 Saraswat Families Part I
2 Ibid. Part II page 26

हालीं हालीं मेरेन अशे तरेच्या पाठांतरा खातीर नांव जोडून आशिल्लें.

उपरांतल्या काळांत जैनांकडच्यान धर्मपरिवर्तन घडून आयलें आनी ब्राह्मण लोकांक विरोध आनी तांचो अपप्रचार जावंक लागलो तेन्ना यज्ञांक आदीं आशिल्लें तितलें प्राधान्य उरलें ना. ताका लागून वेदाध्ययनाक प्रोत्साहन मेळप कमी जालें. अशे जाल्ल्यान सारस्वत ब्राह्मणांतल्या चडावत लोकांनी वैदिक कामां करपाचें सोडून ते व्यापार उद्यम करूंक लागले. एका ल्हानशा पंगडाच्या लोकांनी आपणाल्या वडलांनी सांबाळून चलयत हाडिल्लें वेदाध्ययन मुखार व्हरत वडलांची परंपरा सांबाळ्ळी. हेर थोडे आपणालें पोट भरपाखातीर तशेंच पौरोहित्य चालू दवरपा खातीर गरजेक जाय तितले वेदमंत्र शिकताले. पूण विंगड विंगड वेदांची आनी शाखांचीं कार्यां चलोवपाची तांक आशिल्ले पुरोहित तयार करप हें कश्टाचें आनी उपेग नाशिल्लें अशें काम आशिल्ल्यान सगळेच जण रुग्वेदांतले एकेच शाकल शाखेचो अभ्यास करताले. अशें आसतनाय कौशिक गोत्राच्या थोड्या कुटुंबांच्या लोकांनी खूब लांब काळ मेरेन यजुर्वेदाचो अभ्यास केलो आनी भारद्वाज गोत्राच्या थोड्या लोकांनी सामवेदाचो अभ्यास चालू दवरलो.[1]

सारस्वत ब्राह्मणांचीं सामवेदी कुटुंबां वसई आनी ठाण्यात आशिल्लीं [2] तीं पुर्तुगेजांनी केल्ले बळजबरेक लागून भ्रश्ट जालीं अशी म्हायती मेळटा. गोयांत आशिल्लीं थोडीं कौशिक गोत्राचीं कुटुंबां आज मेरेन आपणालो उपक्रम हस्त नक्षत्रांत चालूच दवरतात ताचे वयल्यान ते आदीं यजुर्वेदी आशिल्ले हाचें प्रमाण मेळटा. यादव राजा भिल्लवान शक वर्स 922 त बरोवन घेतिल्ल्या एका दान पत्रांत उल्लेख केल्ल्या कांय ब्राह्मणांच्या नांवां मदीं पयले ''*माध्यंदिन शाखेय महलपैयाय इंदपैसुताय*'' अशें आसा म्हणल्यार 'शुक्लयजुर्वेदाच्या माध्यंदिन शाखेच्या इंदपैचो पूत महलपै हाका' असो अर्थ जाता. आयचे घटकेक जाल्यार सारस्वत ब्राह्मणांतल्या ग्रहस्थ वर्गाच्या लोकांनी फाटींफुडे सगळ्यांनीच वेदाध्ययन सोडूनूच दिलां अशेंच म्हणचें पडटा. एक दोन अपवाद आसतीत इतलेंच. तांचे मदले थोडेच म्हणल्यार प्राचीन परंपरेंत श्रद्धा आशिल्ले आपणाल्या भुरग्यांक उपनयन (मूज) केले उपरांत थोडे दीस मेरेन आपणाल्या पुरोहिताक लावन मुंज्याकडच्यान रुग्वेदांतलीं एक दोन सूक्तां शिकोवन घेतात आनी अग्निकार्य करून घेतात. पूण आधुनिक शाळांनी वचपी त्या भुरग्यांची प्राचीन परंपरेंत श्रद्धा नाशिल्ल्यान ते वेदमंत्रां वांगडाच संध्या वंदनेचेय मंत्र विसरून वतात. प्रवरोच्चार

गळांत सगळेच ''*ऋग्वेदस्य आश्वलायन सूत्रस्य शाकलशाकाध्यायी*'' अशें म्हणप फकत औपचारिक आसता, वास्तव तशें आसना.

दक्षिण भारतांत *स्थायिक* जावन राविल्ल्या सारस्वत ब्राह्मणांक ते जें काम वा जो व्यवसाय करताले ताचे वयल्यान आयिल्लें पयलें आनी अत्यंत प्राचीन उपाधी वा कुळनांव 'सेणाइ' वा 'शेणाइ' अशें आसा. महाराष्ट्रांत 'शेणावई' जाल्लें तें आतां शेणवी ह्या रूपान सारस्वत ब्राह्मण म्हूण सुचोवपा खातीर वापरतात. 'सेणाइ' संस्कृतांतल्या 'सेनानी' आनी 'शेणाई' संस्कृतांतल्या 'सेनापती' ह्या शब्दांचीं प्राकृतरूपां. तीं अडेचीं नांवां खंयच्या काळांत आयलीं तें *निश्चितपणान* सांगपाक कांयच प्रमाण मेळना. तो शेणाई शब्द कन्नडांत 'सेनबोवा' ह्या रूपान 'सैन्य मुखार व्हरपी' वा चलोवपी ह्या अर्थान वापरतात म्हूण रे. किट्टेल हांच्या कन्नड-इंग्लीश शब्दकोशांत मेळटा. त्या कोशांत 'बंडिबोवा' गाडी वा टांगो चलोवपी हें उदाहरणय (देख) दिलां. शेणाइ हो शब्द कन्नडांत 'सेनबोवा' इतलोच न्हीं जाल्यार सेनभव, सेनभाव, शानभाव, शानभाग, शानभोग आदी अनेक रूपांनी आसा. तसोच संस्कृतांतलो 'दलपती' हो शब्द पयलीं 'दळवइ' असो जावन उपरांत 'दळवै' जावन आतां 'दळवी' ह्या रूपान सारस्वत ब्राह्मणांतले थोडेजाण कुळनांव म्हूण वापरतात.

आदल्या काळांत कर्णाट राजांच्या म्हालांनी करणीकाचें काम म्हणल्यार हिशोब बरोवपी वा जमा-खर्चाच्यो नोंदी बरोवपाचें काम करपी वा कुलकरण्याचें काम करपी म्हणल्यार गांवांतल्या जमनींचें मेजप-मापप करून नोंदी बरोवन दवरपाचें, नक्शे आनी महसूल येणावळीचो हिशोब दवरपाचें काम शेणाइ उपनांवाचे सारस्वत ब्राह्मणच करताले आशिल्ल्यान काळांतरान शेणाइ वा सेनबोवा हो शब्द करणीक ह्या अर्थान वापरपांत आयलो. ते खातीर आतां तें काम खंयचेय जातींतलो मनीस करता आसलो तरी ताका कोंकणीत 'शेणइ', तुळूंत 'शेणेर', कन्नडांत 'शानभाग' अशें म्हणटात. आदल्या काळार तुळूनाडूंत सगळ्या गांवांचे कुलकरणी सारस्वत ब्राह्मणच आसताले. ब्रिटीशांची राजवट सुरू जाले उपरांत इंग्लीश विद्या शिकपाकडेन मनाचो कल जाल्ल्यान आनी गांवगिरी जीण नाकाशी जाल्ले कारणान अनेक सारस्वत ब्राह्मण आपणाल्या कुटुंबीक घरण्यांनी वारस परंपतेन चलत आइल्ली सेनबोवकी अन्य जातींतल्या मनशांक विकून शारांनी गेले. अशें जाल्ल्यान अन्य जातींतलेयबी सेनबोवा

जाले. अशें आसतनाय हालीं सरकारान कायदो बदली मेरेन अनेक सारस्वत ब्राह्मणांची घराणीं गांवांतली सेनबोवकी सांबाळीत आयिल्लीं. गोंयांत 'शेणाइ' शब्द 'गुरू' वा 'अध्यापक' ह्या अर्थान वापरतात.

थोडे जणांनी 'शेणाइ' शब्दाचें मूळ 'शाण्णवी' म्हणल्यार 'शाण्णव गांवचे' असो अर्थ लावपाचो यत्न केला. म्हणल्यार तांच्या मताप्रमाण गोंयातल्या 'सासश्टी = सांसश्ट गांवचे लोक आनी 'तीसवाडी'= तीस गांवचे लोक मेळून वट्ट 'शाण्णवी' हो शब्द घडला असो जाता. तांणी शेणाइ शब्दाचें मूळ सेनानी अशें मानलें जाल्यार हेर लोक आपणाक क्षत्रिय म्हणूंये म्हूण भंयान ते शाण्णवी शब्द फुडें हाडपाक लागले अशें जावंयेता. पूण दक्षिण भारतांतल्या अनेक राजांचे सेनाधिपती ब्राह्मणच आशिल्ले हाची तांकां जाणविकाय नाशिल्ली जावंये.

त्या शिवाय सारस्वत ब्राह्मणांत शेणाइ हें कुळनांव केन्नाच्यान वापरूंक लागले वा शेणाय जावं शेणवी हो शब्द सारस्वत ब्राह्मणांची जात सुचोवपा खातीर वापरूंक लागले हाचें कारण कितें ? हाचो सट्ट करून उलगडो जावप शक्य ना. कोंकणांतल्यान सैन्यासयत वचून बंगालांत राज्य स्थापन केलें तो सेन वंशाचो राजा मुळांत कोण आशिल्लो ? तसोच गुजरातांत राज्य केल्लो सेनापती वंशाचो राजा खंयच्या मुळाचो आशिल्लो ? अशा प्रस्नांच्यो कोणेच आजून जापो दिवंक ना.

*****

# श्रीमच्छंकचार्य आनी सारस्वत ब्राह्मण

श्रीमच्छंकचार्यांचे गुरू आशिल्ले श्रीमद् गोविंद भगवत्पादाचार्य आनी परम गुरू ाशिल्ले श्रीमद् गौडपादाचार्य हे सारस्वत ब्राह्मण आशिल्ले अशें थोड्यांनी म्हणलां. पूण या म्हणण्यांतल्यान ते दोगूय आचार्य दक्षिण भारतांत स्थायिक जाल्ल्या सारस्वत ाह्मण समुदायांतले काय उत्तर भारतांतल्या ते विशीं मात कळचें ना. श्री ंकराचार्ययबी दक्षिण भारतांतले निवासी म्हणप काय ते दाक्षिणात्य मुळाचे म्हणप तेंय ांगपाक येना. श्रीशंकराचार्यांचे बापूय शिवगुरू हे शक्ती पूजक आशिल्ले. स्वत: ंकराचार्य शक्ती पूजक आशिल्ल्यान तांणी कांचींत श्री कामाक्षी देवीची प्रतिष्ठापना ेली. ते उपरांत तांणीं सौंदर्यलहरी आनी आनंदलहरी नांवांचीं स्तोत्रां रचलीं अशी म्हायती मेळटा. हे इतले म्हायतीच्या आदारनच तांचे गुरू दोगूय आचार्य सारस्वत ब्राह्मणच आशिल्ले अशें म्हणचें पडटा. तें कशेंय आसलें तरी श्रीशंकराचार्यांनी स्थापन केल्लें कांचीचें जगद्गुरू धर्मपीठ जायत्या कोंकण सारस्वत ब्राह्मणांनीं आनी कनोज ब्राह्मणांनी *अलंकारित* केल्लें हें मात इतिहासीक सत्य.

श्री. एन. वेंकटरामन एम. ए. हांणी बरयल्ल्या 'Shankaracharya the Great and His Successors at Kanchi' नांवाच्या पुस्तकांत कांचींतली गुरू परंपरा दिल्ली आसा. तातूंत तांणीं अनेक गुरूंची पुर्वाश्रमीचीं नांवां आनी जाती दिल्यात. तातूंत मुखार दिल्ले कांचीचे गुरू सारस्वत वर्गांतले आशिल्ले म्हूण कळटा :–

१. कांचीचे गुरू परंपरेंत आठवे श्रीमत्सुरेश्वरानंद सरस्वती हे कोंकणांतल्या महाबळेश्वराचे आशिल्ले. तांचें पूर्वाश्रमीचें नांव महेश्वर आनी बापायचें नांव आशिल्लें ईश्वर पंडीत.

२. चवदावे श्री उज्वलशंकर सरस्वती हे आशिल्ले महाराष्ट्रांतले. तांचें पुर्वाश्रमीचें नांव आशिल्लें अच्चुत केशव आनी बापायचें नांव केशवशंकर.

३. पंदरावे आशिल्ले गौडसदाशिव सरस्वती कनोजांतले ब्राह्मण. तांच्या बापायचें नांव आशिल्लें देवमिश्र.

४. सोळावे श्रीमत्सुरेंद्र सरस्वती हे महाराष्ट्रांतले आनी तांचें पूर्वाश्रमीचें नांव आशिल्लें माधव आनी बापायचें नांव मधुरानाथ.

५. एकुणीसाव्या श्रीमत् चंद्रेशेखर सरस्वती हे कोंकण ब्राह्मण आशिल्ले आनी तांच्या बापायचें नांव आशिल्लें अच्चुत.

६. विसावे श्रीमत्परिपूर्ण बोध सरस्वती हे कोंकणांतल्या रत्नागिरींतले आशिल्ले आनी तांचें पूर्वाश्रमीचें नांव मधूर आनी बापायचें नांव आशिल्लें रामनाथ.

७. बाविसावे आशिल्ले श्रीमत् चित्सुखानंद सरस्वती. हे कोंकणांतले ब्राह्मण आशिल्ले आनी तांचें पूर्वाश्रमीचें नांव शिवशर्मा. हे आश्रम स्वीकारलो तेन्नाच्यान समाधिस्त जाय मेरेन पंदरा वर्सां कोंकणातच आशिल्ले. कांचींत गुरू पदार पाविल्ले कोंकणांतले हेच निमाणे आशिल्ले अशें दिसता.

८. अठ्ठाविसावे श्रीमन्महादेवेंद्र सरस्वती हे मैथीलब्राह्मण आशिल्ले. हांचें पूर्वाश्रमीचें नांव शेषमिश्र आनी बापायचें नांव आशिल्लें भानु मिश्र.

९. तिसावे आशिल्ले श्रीमत् सच्चिद्विलाससरस्वती आनी ते कनोज ब्राह्मण आशिल्ले. तांचें पूर्वाश्रमीचें नांव श्रीपती आनी बापायचें नांव आशिल्लें कमलेश्वर.

श्रीमान वेंकटरामन हाणीं बरयल्ल्या पुस्तकांत हेर अनेक गुरुंचीं पूर्वाश्रमीचीं नावा आनी तांच्या मूळ प्रदेशांचीं नांवां हांची म्हायती दिवंनाशिल्ल्या कारणान कांचीचें गुरुपीठ आनीक कितल्या सारस्वत वर्गांतल्या ब्राह्मणांनीं अलंकारित केल्लें ताचे विशीं सांगप साध्य जालें ना.

श्रीमच्छंकराचार्यांकडेन शास्त्राचेर जाल्ल्या वादांत हरले उपरांत संन्यास घेतिल्ले मंडन मिश्र हेच सुरेश्वराचार्य असो उल्लेख सगळ्या प्राचीन शंकरदिग्विजय ग्रंथांनी प्रगट जाल्लो आसा. मंडन मिश्र हे कनोज ब्राह्मण आसून प्रसिद्ध मीमांसाकार भट्टकुमारीलमिश्र हांचे शिश्य आशिल्ले. पूण कांय अर्वाचीन विद्वानांनी मंडन मिश्र आनी सुरेश्वराचार्य हे एकूच व्यक्ती काय कितें हे विशीं दुबाव व्यक्त केला. ताचें कारण म्हणल्यार व्यासाचल नांवाच्या एका कवीन रचिल्ल्या शंकर दिग्विजय कृतींत मंडन मिश्र वेगळो आनी सुरेश्वराचार्य वेगळो असो उल्लेख केला. म्हणल्यार हेर ग्रंथांनी श्रीशंकराचार्यांकडेन शास्त्र-वाद केल्लो मंडन मिश्र अशें म्हणलां आसलें तरी व्यासाचलाच्या ग्रंथांत मंडन मिश्रान श्रीशंकराचार्यांकडेन शास्त्र-वाद केल्लो म्हळ्ळी कथा ना. त्या बदलाक व्यासाचलान भट्ट कुमारिलाक मंडनमिश्रा सांगातान विश्वरूप नांवाचो एक नवो शिश्य

नेर्मून एक विचित्र कथा विणल्या. म्हणल्यार व्यासाचल हो इतिहासकार नासून कवी आशिल्ल्यान आपणालें कविता चातुर्य, सर्जशील तांक त्या शंकरविजयांत ताणे खूब सुंदर रीतीन दाखयल्या. ताणे विणिल्ली कथा अशी आसा –

श्री शंकर कुमारिल भट्ट हांका मेळपाक गेले तेन्ना कुमारिल भट्ट हे प्रायोपवेशन सुरू करून तुषाग्नींत न्हिदिल्ले. ताणीं शंकराचार्यांक पळोवन खूब संतोश व्यक्त केलो. शंकराचार्यांनी कुमारिलांक वंदन केलें आनी आपणे बरयल्लें महाभाष्य तांकां दाखयलें. तेन्ना कुमरिल हाणीं शंकरांक उद्देशून म्हणलें – विश्वरूप नांवाचो म्हजो एक शिश्य मगधांत आसा. तुमच्या भाष्याचेर विमर्श व्यक्त करपाक तोच एक योग्य व्यक्ती अशें म्हाका दिसता. संसारी जीण समजुपाची बरी बौद्धिक तांक आशिल्लो असो तो मनीस, ताका कसोय करून तुजेवटेन वश करून घे, तुजें काम जातलें अशें ताणीं सांगलें आनी तांकां निरोप दिलो. तेन्ना थंयच आपणाले गुरू कुमारिल हांचे म्हन्यांत बशिल्ल्या मंडन मिश्रान उठून येवन श्री शंकराचार्यांक नमस्कार करून तांची खूब तोखणाय केली. मंडन मिश्रान केल्ली स्तुती आयकून शंकर संतुश्ट जाले. ताणीं मंडन मिश्रांक आपणाल्या अद्वैत तत्त्वाचो परिचय करून दिलो आनी ताचे भितर आपणाविशीं आदर आनी भक्ती निर्माण करून ताका थंयच सोडून आपूण थंयच्यान वचपाक गेले.[1] तशेच ते विश्वरूपाच्या घराच्या आंगणांत देंवले. हे उपरांतली कथा हेर शंकर विजयांनी मंडन मिश्रा संबंदान सांगल्या तीच आसा.

वयले हे कथेंतल्यान जें कितें निश्पन्न जाता तें अशें – पयलें म्हणल्यार शंकराचार्य आनी मंडन मिश्र हांचे मदीं शास्त्रार्था संबंदान वाद जावं ना आनी मंडन मिश्र वादांत हरून ताणीं सन्यास घेवं नाशिल्लो. दुसरें – मगधवासी आशिल्लो त्या विश्वरूपानच श्री शंकराचार्यांकडेन जाल्ल्या वादांत हरून संन्यास घेतलो आनी उपरांत सुरेश्वराचार्य ह्या नांवांन प्रसिद्ध जालो अशें जालें. पूण व्यासांचलान रचिल्ली ही कथा ताचे पयलींच्या रचणारांनी बरयल्ले कथेचे पुराय विरूद्ध आशिल्ल्यान, ते कथेक कसलोच एक आधार नाशिल्ल्यान ती त्याज्य मनाची पडटा.

व्यासाचला उपरांतले माधव विद्यारण्य हाणीं आपणे रचिल्ल्या शंकर विजयांत

1 *एवमेनमनुनीय सत्पदैर्ब्रह्मवादनपरैर्गुरुवयः ।।*
*मंडनं निजपदे स्थिरभक्तिं संविधायगमनायमनोऽधात् ।।5-47।।*

व्यासाचल कवीक वाखाणला आसलो तरी, व्यासाचलान विश्वरूपा संबंदान सांगि
कथेक विरोधी अशी कथा ताणे गुथल्या. श्री शंकराचार्यांकडेन मंडन मिश्रान
वादविवाद केल्लो अशें ताणें स्पश्टपणान म्हणलां आनी एका पद्यांत विश्वरूप हो शब्
विशेषणाच्या रुपान लावन मंडन मिश्राचें नांव घेतलां. (सर्ग–8, श्लोक 63) हा
वयल्यान विद्यारण्याच्या काळांत घोळणुकेंत आशिल्ल्या व्यासाचलाच्य
शंकरविजयांत आतां मेळटा तशे तरेची कथा नाशिल्ली म्हणपाचें तर्कान थारावपाक
जाय. अर्वाचीन काळांतलो आनंदगिरी हाणेय बी श्रीशंकराचार्यांकडेन वादविवाद केल्
तो मंडन मिश्र अशेंच म्हणलां. त्या खातीर मंडन मिश्र होच संन्यास घेतले उपरां
सुरेश्वराचार्य नांवान प्रसिद्ध जालो अशें दुबाव नासतना म्हणूं येत.

सुरेश्वराचार्यांविशीं आशिल्लो मतभेद अर्वाचीन विद्वानांमदींय बी आसा. श्रीमान के.
ए. नीलकंठ शास्त्री, एम. ए. हांच्या अभिप्रायान मंडन मिश्र आनी सुरेश्वराचार्य हे दोग
जाण वेगवेगळ्यो व्यक्ती :– पूण ह्या मताक कसलोच आदार ना म्हूण पयलींच स्पश्ट
केलां. मंडन मिश्र वेगळे आनी सुरेश्वराचार्य वेगळे म्हणटात त्या वादाक श्रीमान के.
वेंकटरामन हांणीं आपणे बरयल्ल्या कांची पीठाच्या इतिहासांत योग्य उत्तर दिलां.
शंकराचार्यांनी स्थापन केले अशें म्हणटात ते अनेक मठ वास्तवांत स्थापन केले ते
सुरेश्वराचार्य हांणींच. त्या खातीरच त्या मठाचे परंपरेंत शंकराचार्यां उपरांत येता तें
नांव सुरेश्वराचार्य हांचेंच. श्रीशंकराचार्यांच्या काळातूच मंडन मिश्राची विद्वत्ता आनी
ताची नामना जाल्ली पळोवन हेर शिश्य भितरले भितर ताचो दुस्वास करताले म्हूण
शंकरविजय ग्रंथांतल्यान समजता. अशे आशिल्ल्यान – नव्या ब्राह्मणांक – मंडनमिश्र
हो आपणांतलो न्हीं अशें दिसून तांच्या पोटांत जळपाक लागलें आनी तांणीं मंडनमिश्र
आनी सुरेश्वराचार्य म्हणल्यार एकूच व्यक्ती न्हीं अशें सांगलें जाल्यार व्हडलें अजाप
करपाची गरज ना. हाचे संबंदान श्रीमान के. वेंकटरामन हाणीं काडिल्ले उद्‌गार एक देख
म्हूण पळोवं येत :–

" Sureshvaracharya is the Celebrated Madana Misra, a great Mimansa teacher, and pupil of Kumarila Bhatta. He is said to have been an incarnation of Bramha; and his wife was a very learned lady so much so that she was looked upon as Sarasvati herself. He was by caste a Kanaujia Goud Brahman. He renounced the world and his

doctrines as the result of a dispute with Sankara, and followed the latter as his disciple. He is the author of a number of Vedanta and Mimansa works. 1) नैष्कर्म्यसिद्धी 2) तैत्तिरीय उपनिषद्भाष्य 3) बृहदारण्यकोपनिषद् भाष्यवार्तिक 4) मानसोल्लास 5) पंचीकरणवार्तिक 6) ब्रह्मसिद्धि 7) विधिविवेक 8) विभ्रमविलास. 'Prithvidhava', 'Bramhasvarupa' and 'Visvarupa' are probably only other names for him; though sometimes they are regarded as different persons. I have already said how he is claimed as the first head of several Mathas. Undoubtedly, he is the most illustrious of Sri Sankara's pupils, and deservedly held in great esteem by his followers. This pre-eminence seems to have excited the jealousy of others, which led to a sort of split among the great Guru's followers soon after his demise if not quite during his life time.

That is probably the meaning of the circumstantial account of the squabble over the writings of a Vartika on the Brahmasutra Bhashya, which Madhava gives in his Sankara Vijaya.

मिश्र ही उपाधी मुळांत सारस्वत ब्राह्मणांकच लागताली. आनी तेच उपरांतल्या काळांत कनोज हांगा वचून *स्थायिक* जाल्ल्यान थंय प्रचलित जाल्ली. आतां ती उपाधी सरयूपारीण आनी मैथिला ब्राह्मणांतच चलणुकेंत आसा, काशी नागरी प्रचारणी सभेच्या लोकांनी प्रकाशीत केल्ल्या ''संक्षिप्त हिन्दी शब्दसागर'' ह्या कोशांत 'मिश्र' शब्दाविशीं अशें मेळटा - मिश्र = सरयूपारीण, कान्यकुब्ज और सारस्वत आदि ब्राह्मणों के एक वर्ग की उपाधी.

*****

# देशांतरांनी सारस्वत ब्राह्मण

सारस्वत ब्राह्मणांतले चडशे जण वैदिक वेवसाय सोडून व्यापारउद्यम करपाक लागले म्हूण हे आदीं सांगलां. पूण ताचे पयलीं तांच्यातल्या अनेक धनीक लोकांनी व्यापार सुरू करून व्हड्यांनी दर्या मार्गान वचून ते व्यापारी वेव्हार करताले. आनी तांणीं भायल्या देशांनी, दक्षिण भारताच्या पुराय पश्चिम करावळींत जायते कडेन व्यापारा खातीर वखारी स्थापन केल्ल्यो. ह्या व्यापार वेवसायांत पल्लव वंशाचे ब्राह्मणय बी आशिल्ले. पल्लव वंशाचे लोक दक्षिण भारतांतले पूर्व करावळींतल्यान व्हड्यांनी सुमात्रा, जावा आदी जुंव्यांनी गेल्ले त्या संबंदींचो इतिहास भोवतेक लोकांनी वाचलाच आसतलो. अशें आसतनाय पश्चिम करावळींत *स्थायिक* जाल्ल्या सारस्वत ब्राह्मणांनी व्हड्यांनी वचून अरब देशाक वश करून घेतिल्लो ही गजाल काळखांतूच उरल्या.

मैसूरांतले प्रख्यात कादंबरी लेखक जावन गेल्ले *स्मृतिशेश* बी. वेंकटाचार्य हांणीं 1836 वर्सा बरोवन उजवडा हाडिल्ल्या ''देशांतरांतल्यान प्राचीन भारतीयांच्यो विदेशी वसणुको'' नांवाच्या पुस्तकांत तीस पानावयल्यान फुडें हो विषय रंगयला ताची देख – ''अरब देशांत महम्मद प्रगट जावचे पयलीं थंय एक हिन्दू राजा आशिल्लो अशें पोरणावळीचो अभ्यासक आशिल्लो एकटो युरोपीय पंडित सांगता आनी आमकां एक नवी खबर दिता. मुक्तेश्वर नांवाचो एकटो सारस्वत ब्राह्मण मक्केंत राजा आशिल्लो, ताचो पूत सहरी आनी ताचो पूत साला ह्या दोगांकय थंयच्यान धांवडावन घाले तेन्ना दोगूय वांगडाच भारतवर्षांत येवन पावले अशें कनिंगहेम सायबाच्या म्हणण्यावयल्यान समजता.

अरबी देशांत हिन्दूंच्या सर्वाधिकारा संबंदांतलो एक प्रवाद आसा तो म्हणल्यार मक्का गांवांत एक शिवलिंग आशिल्लें, इस्लाम धर्म संस्थापक महम्मदा पयलीं थंय अग्नीपूजक लोक पाविल्ले तेन्ना भारतांतले हिन्दू लोक व्यापाराखातीर, तीर्थयात्रेखातीर थंय वचून येताले, हिन्दू शासकाच्या काळांत थंय शिवलिंगाची प्रतिष्ठापना जाल्ली, अशें म्हणटाले. भविष्य पुराणांत मक्केश्वर म्हूण शिवमूर्तीचें नांव आयलां. हिन्दू धर्मविरोधक आशिल्ले मुसलमान प्रबळ जाले तेन्ना सगळे हिन्दू लोक मक्केक वचून येवपाचें बंद जालें म्हूण मुसलमानांनी मुक्तेश्वराची मूर्ती लिपोवन दवरली, आतां मक्केंत 'काबा' नांवाच्या मंदिरांत जी काळी शीळा आसा ती त्याच मुक्तेश्वराचें रूपांतर म्हणपाचें तें प्रबळ अशें

माण. हो प्रवाद विश्वकोशांत नोंद केल्लो आसा.

वयर उल्लेख केल्लो आसा तो राजा मुक्तेश्वर हाणेच शिवलिंग स्थापन करून ताका आपणालेंच 'मुक्तेश्वर' हें नांव दवरलें अशें दिसता आनी त्या भायर मुक्तेश्वर हें नांवच त्या नगराक पडून कालांतरान तें रूपांतरित जायत रावलें आनी ताचें 'मक्का' जावन आतां ते मुसलमानांखातीर मुक्ती स्थान जावन नामनेक पावलां.'' (बी. वेंकटाचार्य)

वयल्या ह्या वर्णनाच्या आधारान खूब प्राचीन काळांतय सारस्वत ब्राह्मणांमदले *धनिक* लोक व्हड्यांनी प्रवास करून परदेशांत वताले आनी थंय तांणी आपणालें राजकी शासन स्थापन केल्लें म्हूण सिद्ध जाता. ताणीं फकत शासनच चलयलें ना तर धर्म प्रचारक, व्यापारी आदी वेवसाय धंद्यांनीय बी ते आसताले ही गजालय लक्षांत घेवपाक जाय. ताचें कारण म्हणल्यार ते थंय व्हडल्या समूहांनीं वचून स्थायिक जावंनाशिल्ले जाल्यार राज्य स्थापन करपाक पावचे नाशिल्ले म्हूण आपशींच सिद्ध जाता. त्याखातीर तांच्या समूहांत श्रोत्री ब्राह्मण, (वेदाध्यायी ब्राह्मण) क्षात्रधर्म आपणायल्ले झुजारी, व्यापारी अशे लोक आसचेच पडले – हातूंत दुबाव ना. हजरत महम्मदाच्या चरित्रांत अरब देशांतले लोक फातरांची पूजा करताले अशें म्हणिल्लें आसा. ताचे वयल्यान अरब देशांत *स्थायिक* जाल्ल्या ब्राह्मणांनी अरबी लोकांक हिन्दू धर्मांत हाडून तांचे मदीं हिन्दू धर्माचो प्रचार करून देवालयां बांदून शिवलिंगां स्थापन केल्लीं म्हूण सिद्ध जाता.

प्रसंग पडल्यार सारस्वत ब्राह्मण क्षात्रधर्म आपणावपाक कांचवेनाशिल्ले. अशें आशिल्ल्यान मक्का नगरांत मुक्तेशर ह्या सारस्वत ब्राह्मणान राजा जावन राज्य केलें आसपाक जाय हातूंत अजाप जावपासारकें कांयच ना. थोडे भितर सांगतलो जाल्यार हजरत महम्मदाच्या इस्लाम धर्माच्या प्रचारा पयलीं अरब देशांत *स्थायिक* जाल्ल्या सारस्वत ब्राह्मणांनी थंयचे राजकी, धर्मीक आनी *व्यावहारिक* वा व्यवसायीक अधिकार आपणाल्या नियंत्रणांत दवरिल्ले आसपाक जाय.

हजरत महम्मदाचो इस्लाम धर्माचो प्रचार म्हणल्यार परकी आशिल्ल्या भारतीयांच्या अधिकारा विरुद्ध धर्मीक रूपान सुरू जाल्लें राजकी आंदोलन आशिल्लें. तशे तरेचें धर्मीक आंदोलन करपी हजरत महम्मदाक तांच्या देशाच्या लोकांचो बळिश्ट

तेंको मेळ्ळो आनी सारस्वत ब्राह्मणांचे धर्मीक तशेच राजकी अधिकार काडून घेतले उपरांत मक्केंत आशिल्ल्या शिवालयांचें मशिदींनी परिवर्तन केलें. अशे तरेची एक अस्पश्टशी दंतकथा सारस्वतांमदीं खूब आदल्या काळार साकून चलत आयल्या. हे वयले विसकावणेक बळगें दिवपी थोड्यो देखी दिवं येता :-

हजरत महम्मद हे धार्मिक जबरदस्ती करपाची शिकवण दिनाशिल्ले अशे इतिहासांत बरयल्लें आसलें तरी तांच्या अनुयायांनी जुलूम जबरदस्तेन धर्मांतरां केलीं. थंयच्या प्रदेशांत आशिल्ले व्यापारी आनी वैदिक धर्म प्रचारक सारस्वत ब्राह्मण इस्लाम धर्मांत वचपाक तयार जायनात जाले तेन्ना बळजबरेन तांचें धर्मांतर केलें आनी तांका ते पिडूंक लागले. धर्मांतर केल्ल्या सारस्वतांचो एक पंगड सातव्या शेंकड्यांत अरबांच्या अत्याचारांतल्यान सुटपा खातीर साध्य जाता तितली संपत पुंजावन आपणाल्या बायलां भुरग्यांक घेवन त्या देशांतल्यान व्हड्यांनी बसून आपणांली मायभूंय आशिल्ल्या भारतावटेन आयलो. ते पश्चिम करावळींतल्या भटकळ बंदरांत पावून थंयच देंवले. तशे तरेन नव्यानच आयिल्ल्या त्या लोकंक भटकळांत स्थायिक जाल्ले कोंकणी लोक ''नवायते'' म्हणल्यार नव्यानच आयिल्ले लोक म्हणपाक लागले. नवायते हो शब्द प्राकृतांतल्या 'नवायतो' ह्या शब्दाचें भोववचन रूप. संस्कृतांतलो ''नवायत: = नव्यान आयिल्लो'' हो शब्द कोंकणींत 'नवायतो' शब्दांत परिवर्तीत जालो. कन्नडात ताचें रूप 'नवायत' अशें जालें. तशे तरेन आयिल्ल्या त्या लोकांची भाशा भटकळांतले लोक उलयताले ते कोंकणीक खूब लागींची आशिल्ले अशें आशिल्ल्यान ते लोक भटकळांतल्या लोकांकडेन खूब सलगेन वेव्हार करूंक लागले.

नव्यानच आयिल्ले ते लोक मुसलमान आशिल्ल्यान तांचे उपरांत भारतांत धर्मांतर जावन मुसलमान जाल्ल्या लोकांक कोंकणींत 'नवायतो' शब्दाचेंच थोडें रूपांतर करून 'नायतो' म्हणूंक लागले. कोंकणींत 'नायतो' ह्या शब्दाचो अर्थ 'मुसलमान' असो जाता. ताका दुसरो कसलोच अर्थ ना. पूण 'नवायतो' ह्या शब्दाचो अर्थ भटकळांत *स्थायिक* जाल्ले कोंकणी उलोवपी मुसलमान पंगडांतले लोक असो जाता. थंय 'मुसलमान' हो अर्थ गौण उरता.

नवायत लोक कोंकणी उलयतात ताचें खरें कारण जांकां सारकें खबर ना ते कांय लोक नवायत म्हणल्यार भटकळांत व्यापाराखातीर आयिल्ल्या अरबी लोकांचो

टकळांतल्या कोंकणी उलोवपी हिन्दू बायलांकडेन आयिल्ल्या संबंदांतल्यान ल्माक आयिल्ले संततीक लागून अशें समजतल्यात.[1] पूण तशें मानपी लोक नवायत लयतात ती कोंकणी भटकळांत घोळटा ते कोंकणी परस थोड्या प्रमाणात वेगळी भासा म्हळ्ळी गजाल ध्यानात घेनात अशें दिसता. त्या शिवाय नवायत लोक आपणाले र्वज अरब देशांतल्यानच *विस्थापित* जावन आयिल्ले हें इतिहासिक दायज वंशपरंपरेन ग्लत आयलां म्हणटात तें ताणी आयकूंक ना अशें म्हणचें पडटलें. ते म्हणटात तें पूर्ण सत्य म्हूण फुडल्या वर्णनांतल्यान समजून घेवं येत.

1933 वर्सा मक्का यात्रेक गेल्लो एकटो भारतीय मुसलमान सज्जन परतून येता आसतना तुर्कीच्या मार्गान आयिल्लो. तुर्कींतल्या इस्तांबूल (Constantinople) वस्तू संग्रहालयांत मांडून दवरिल्ल्या कांय ताम्रपटांचेर आशिल्ल्या अरबी भाशेंतल्या कवितांच्या नकलांच्यो प्रती ताणे हाडिल्ल्यो. ते ताम्रपट अरब देशांतले आसून मक्का देवालय तशेंच हिन्दू धर्माकडेन संबंदीत आशिल्ले. तांचेर बरयल्ल्यो कविता, इस्लाम धर्माची स्थापना जावचे पयलीं अरबस्थानातल्या शिवालयांत दर वर्सा भरताली ते जात्रेच्या काळांत जें कविसम्मेलन घडोवन हाडटाले तातूंत पुरस्कार प्राप्त कविता आशिल्ल्यो. त्या कवितांनी हिंदूच्या वेदांची तुस्त तोखणाय, हेर *अध्यात्मिक* विचार अशे विशय मांडिल्ले. हे आदीं उल्लेख आयला त्या मुसलमान सज्जनान त्या कवितांचेर आदारून विस्तारान एक प्रबंध बरोवन त्या कवितांच्या मूळ नकलां वांगडा तांचो अणकार दिवन कलकत्त्यांतल्यान श्री रामानंद चटर्जी हांच्या संपादनांन उजवाडा येवपी 'विशाल भारत' नांवाच्या म्हयनाळ्यांत 1934च्या एप्रिलाच्या अंकांत उजवाडा हाडलो. त्या प्रबंधाचो कन्नड अणकार त्याच वर्साच्या जुलय म्हयन्याच्या 'स्वदेशी प्रचारक' ह्या मंगळूरच्यान उजवाडा येवपी म्हयनाळ्यांत छापून आयिल्लो.

मैसूर विश्वविद्यालयाच्या कन्ना ग्रंथमाले–2 डॉ. एस. श्रीकंठ शास्त्री एम. ए., पीएच. डी., हांणीं बरयल्ल्या 'भारतीय संस्कृती' नांवाच्या पुस्तकांत पान 322 चेर मुखार दिल्लो वांटो आसा :– (कन्नडाचो अणकार) ''अरेबिया देशांत महम्मद पैगंबराच्या धर्म प्रचारा आदीं लिंग पूजा, मूर्ती पूजा जाताल्यो. काबा भोंवतणेत आशिल्ल्या मूर्तींची पूजा कुमा़रिकाच करताल्यो, मक्का देवालयालागीं पावना फुडें हाज

1 Navayats of Kanara - by Victor S. De Souza.

यात्रिकाक वालो गुटलावप आनी उपरणें खांदार घेवप असो नेम आसा. (Shustery Outlines of Islamic Culture : Westermark - Pagan Survivals in Mohammadanism.)

मद्रासच्यान प्रकाशित जावपी 'Hindu' दिसाळ्यांत 1963 वर्साच्य फेब्रुवारी म्हयन्याच्या 'Weekly Magazine' हातूंत छापून आयिल्ल्या 'The Palace of the Nawabs of Arcot' नांवाच्या लेखांत भटकळांतले नवायत अरबांचे अत्याचार सोंसपाक जायना जाल्ल्यान सातव्या शेंकड्यांत (क्रि.श.) अरब देशांतल्यान *विस्थापित* जावन भटकळांत येवन *स्थायिक* जाल्ले; आर्काटचो नवाब जाल्लो तो चंदासाहेब भटकळांतलो नवायत आशिल्लो अशें बरयल्लें.

हे फाटले विसकावणे वयल्यान इस्लाम धर्म मूळ धरपाक पावचे पयलीं अरब देशांत हिंदूंची राजवट आशिल्ली आनी अरब देशांत सारस्वत ब्राह्मण *स्थायिक* जाल्ले म्हूण सिद्ध जाता आनी त्या भायर श्री वेंकटाचार्य हाणीं बरयल्ल्या पुस्तकांत मांडिल्ले मुद्दे वास्तवाक धरून आसात म्हणपाचेंय बी सिद्ध जाता.

चित्पावन ब्राह्मण परदेशांतल्यान भारतवर्षांत आयले म्हूण खूब आदल्या काळार साकून एक म्हणणें प्रचारांत आसा. ताचो वयर येवन गेल्ल्या विवरणांच्या आदारान विमर्श केलो जाल्यार चित्पावन लोकय बी अरब देशांत स्थायिक जाल्ले सारस्वत ब्राह्मण आशिल्ले, हे लोक नवायत अरब देशांतल्यान भायर सरून येवपाच्या काळांत वा थोडे पयलीं, अरबांच्या अत्याचारांक लागून ना जाल्यार बळजबरेन जें धर्मांतरण करताले तें चुकोवन आयिल्ल्या लोकांचो तो पंगड आशिल्लो जावपाक जाय अशें म्हणू येत. ते जायत्या पिळग्यां साकून अरब देशांत *स्थायिक* जावन आशिल्ल्यान थंयच्या हवामानाच्या गुणधर्माक लागून तांच्या दोळ्यांच्या रंगांत आनी शरीराच्या अवयवांच्या आकारमानांत थोडीं परिवर्तनां घडिल्लीं. नवायतां भितरय तेच तरेचीं परिवर्तनां दिसून येतात तीं समजून घेतलीं जाल्यार फाटलो तर्क सारको आसा अशें म्हणूं येता. चित्पावना संबंदान दिसून येतात ते तरेच्या लक्षणांच्या आदारान ह्या ब्राह्मणांत नॉर्डीक लोकांचीं लक्षणां चड प्रमाणात आसात अशें थोड्या इतिहासकारांनी म्हणलां. गुजरातांतल्या नागर ब्राह्मणां संबंदानय बी थोड्या इतिहासकारांचो हेच तरेचो अभिप्राय आसा. पूण खंयच्याय मुळाचे लोक आसले तरी आपणाली मूळ भूंय सोडून

ृक विंगड तरेचें हवामान आशिल्ल्या तशेंच भुगोलीक भिन्नताय आशिल्ल्या प्रदेशांत ाचून *स्थायिक* जाले जाल्यार थोड्या पिडयां उपरांत त्या लोकांच्या शरीरांचे स्थितींत ा आंगांपांगांचे रचणुकेंत आपले आपूण परिवर्तन घडून येवप ह्या सैमीक नेमाची आधुनिक इतिहासकार जांव वा पश्चिमी विज्ञानीक गणना करतात शे दिसनात. म्हणल्यार चित्पावन लोक हे मुळांत भारतीय सारस्वतूच. ते खंयच्या परदेशी नॉर्डीक वंशाचे बी न्हीं कारण मुळांतूच तांची भाशा प्राकृत वा कोंकणी आसप हें ताचे फाटलें घटमूट प्रमाण.

*****

# सारस्वत ब्राह्मण आनी विजयनगर साम्राज्य

विजयनगर साम्राज्याचो इतिहास बरयल्ल्या दर एकट्यान विजयनगर नांवाच्या रंगमाचयेर अनेक 'माधवां' मदलो विजयनगराचे स्थापनेत जाचो हात आशिल्लो तो कोण हाचो पत्तो लागना जाल्ल्यान आनी विजयनगराच्या स्थापने संबंदान लोकांमदें घोळटात त्यो कल्पकथा सत्य म्हूण मानिल्ल्यान विजयनगर साम्राज्याचे स्थापनेचें सगळें श्रेय माधव विद्यारण्य नांवाच्या एका विद्वानाक दिल्लें आसा. तांणीं तशें करता आसतना विजयनगराचें साम्राज्यांत रूपांतर करपाच्या कामांत *प्रमुख* पात्राची भूमिका वठोवपी आनी विजयनगराच्या राजदरबारांत अत्यंत प्रभावशाली आशिल्ला विजयनगराच्या राजाचो महादंडनायक आनी मंत्री आशिल्ल्या चावुंडा माधव नांवाच्या गोयांतल्या सारस्वत ब्राह्मणाक पुरायपणी कडेक काडला. चावुंडा माधवाचें शौर्य आनी साहस, ताची राजनितीक नैपुण्यताय, धर्मनिश्ठा अशा सगळ्याचो गुणगौरव करून विजयनगराच्या राजान बरोवन घेतिल्ले अनेक शिळालेख आसात. पूण विजयनगराचे स्थापनेत वा साम्राज्याचो उत्कर्ष विस्तारांत विद्यारण्य माधवाची भूमिका कसली आशिल्ली; ताणे कसलें काम केल्लें; वा विजयनगराच्या दरबारांत ताचें स्थान कितें आशिल्लें आदी सगळी म्हायती मेळोवपाक आदार दिवपी प्रमाणां म्हणूं येत असो एकूय शिळालेख ना. म्हणल्यार विद्यारण्य माधवा संबंदान ज्यो कथा घोळटात तातूंतले एकेय कथेक लिखित प्रमाण जाय सारको आदार ना. ताचो अर्थ त्यो सगळ्यो कथा विजयनगर साम्राज्याच्या सोंपत्या काळांत अधिकार मेळिल्ल्या लोकांनी पातलायल्ल्यो असत्य गजाली म्हणच्यो पडटात. त्यो कथा सत्य म्हूण थारपाक थोडे शिळालेख फाटबळ दिवपाक आसले तरी विद्वानांनी ते विश्वासाक पात्र नात म्हूण पक्को निर्णय दिला.

शक 1858 वर्सा विजयनगराच्या षट्शताब्दी स्मारकोत्सवाचो वांटो म्हूण उजवाडायल्ल्या आनी श्रीमान देसाई पांडुरंगराय बी. ए. (ऑनर्स) हांणी बरयल्ल्या ''विजयनगर साम्राज्य'' नांवाच्या पुस्तकाच्या दुसऱ्या परिशिश्टांत इतिहाससंशोधक आशिल्ले फादर हेरास आनी डॉ. सालेतूर हांणी व्यक्त केल्ले अभिप्राय श्री. पांडुरंगराय हांणी संग्रहित करून दिल्यात. ते आसात तशेच घेवन हांगा दिल्ले आसात :-

१) फादर हेरासांचें अतिभाश्य' :-

१) हरिहर भाव विजयोत्सवाच्या दबाज्यांत (1346) शृंगेरींत दान करता आसतना विद्यारण्याचो उल्लेख ना. तो कित्याक ?

२) ताचे उपरांतल्या शृंगेरींतल्या दाना वेळारय बी विद्यारण्याचो उल्लेख ना. हे तरेच्या दानांनी विद्यातीर्थांचें नांव येता, विद्यारण्यांचें येना.

३) फुडारांत विद्यारण्याक बुक्क, इम्मडी हरिहर आदी राजांनी दान दिल्ल्या विशीं अनेक शिळालेख आसात. त्या लेखांनी विद्यारण्य हे विजयनगराचे संस्थापक आशिल्ले म्हूण खंयच म्हणिल्लें ना.

४) विजयनगराक उद्देशून – विद्यानगर, विद्यानगरी अशें म्हणपी प्रामाणिक अशे लेख चडशे फुडारांत 15व्या – 16व्या शेंकड्यांनी मेळ्ळे.

५) शृंगेरीच्या जगद्गुरूंनी विजयनगर साम्राज्याचो मानसन्मान आपणाल्या पीठाक मेळोवपाच्या हव्यासान 16व्या शेंकड्याच्या आरंभाक विद्यारण्यांनी विजयनगराची स्थापना केली अशी असत्य कथा पातलायली. (Heras pg. 15-35)

२) डॉ. सालेतूर –

१) विस्वासपात्र अशा एकाय शिळालेखांत राज दरबारांतले माधव आनी माधव विद्यारण्य म्हणल्यार एकच व्यक्ती अशें म्हणिल्लें ना.

२) शृंगेरीचो संप्रदाय वा परंपरेविशीं म्हायती दिवपी 'विद्यारण्य कालज्ञान', 'गुरुवंशकाल' आदी ग्रंथांतल्यान माधव आनी विद्यारण्य माधव ह्यो दोन भिन्न व्यक्ती अशें दिसता.

३) माधवाचार्यांक उद्देशून येवपी सगळे उल्लेख आसात ते बुक्करायाच्या काळांतले. विद्यारण्यांक उद्देशून येतात ते उल्लेख मुखेल करून इम्माडी हरिहरन हांच्या काळांतले. 1375 वर्सा आदीं विद्यारण्यांचें नांव आशिल्लो प्रामाणिक असो एकूय शिळालेख आजून मेळूंक ना.

४) 1335 धरून 1387 मेरेन परंपरागत पद्धतीन विद्यारण्य पीठा संबंदान

---

1 'अतिभाश्य' हें श्री. पांडुरंगराय हाणीं वापरिल्लें उतर.

उल्लेख मेळटात. ह्या मदल्या काळांत रचून जाल्ले अशें मानतात ते माधवाचार्यांचे ग्रंथ मेळ्ळ्यात. (देखीक - कालमाधव - 1359) ह्या ग्रंथांनी ग्रंथकाराचे उल्लेख माधवाचार्य अशा गृहस्थाश्रमीच्या नांवान स्पश्टपणान येता.

हांगा वयर देखी घेतिल्ल्या दोगां विद्वानांच्या अभिप्रायांचो सारांश मुखार दिल्ले तरेन संक्षेपान सांगू येत :-

1) विजयनगराची स्थापना केली ती व्यक्ती विद्यारण्य न्हीं.

2) विद्यारण्य हे शृंगेरीचे स्वामी जावंनाशिल्ले आनी

3) विद्यारण्यांनी विजयनगराची स्थापना केली अशें म्हणटात त्या शिळालेखांनी खरेपण ना.

आतां उपलब्ध आशिल्ल्या लेखांतल्या प्रमाणांचो अभ्यास केलो तेन्ना प्रत्येकाक एकाच निर्णायचेर येवचें पडटा म्हणपाचें मुखार दिल्ल्या विस्कावणेतल्यान समजून घेवं येता :-

शृंगेरी पीठाचे गुरूपरंपरेंत श्री विद्याशंकरतीर्थ हे 1268[1] वर्सा अधिकारार आयले ते 1328 वर्सा श्री भारती कृष्णतीर्थांक आश्रमाधिकार दिवन 1333 वर्सा समाधिस्त जाले. श्री भारती कृष्णतीर्थ हे 1331 त विद्यारण्यांक पीठाधिकार दिवन 1380 वर्सा तांणी समाधी घेतली, श्री विद्यारण्य 1386 वर्सा समाधिस्त जाले असो उल्लेख जाल्लो आसा. पूण श्री विद्याशंकरतीर्थ हे 1333 वर्सा समाधिस्त जायनासतना ते उपरांत 23 वर्सां जगले म्हूण दाखोवपी दोन शिळालेखांचे प्रमाण मेळटा. 1346 वर्सा पयलो हरिहर आनेगोंदी हांगा राज्याधिकाराचेर आसतना श्री विद्याशंकरतीर्थ हांच्या नांवान बरोवन घेतिल्लो एक आनी 1346 वर्सा विजयनगर ही राजधानी केले उपरांत थंय अधिकाराचेर आशिल्लो पयलो बुक्कराय शृंगेरी वचून श्री विद्याशंकरतीर्थ हांकां उद्देशून बरोवन दिल्लो

---

1 Mysore Gazetteer Vol II, Part III page 1433

2 Vidyatirtha was alive in 1356 A.D. for in that year Bukka paid a visit to him and made a grant of lands to him for providing for the Servants of the math (मठ) and for the food of the ascetics - Mysore Gazetteer Vol II, Part III page 1434

दुसरो लेख. अशें आसा जाल्यार फादर हेरास हांच्या म्हणण्यात अतिभाश्य म्हणपा सारकें कांयच नाशिल्लें म्हूण स्पश्ट जाता. म्हणल्यार 1356त विद्यारण्य हे शृंगेरीचे स्वामी नाशिल्ले म्हूण सिद्ध जाता.

विद्यारण्यांच्या आदेशान विद्यानगर नांवाचें शार बांदून जालें आनी थंयच्या शिंवासनाचेर पयल्या हरिहराक पट्टभिषेक जालो, पट्टभिषेकाच्या काळांत हरिहरनान अनेक जणांक अनेक गांव दान केले, विद्यानगर ही राजधानी करून पयलो हरिहर थंयच्यान शासन चलोवंक लागलो म्हूण सांगपी अनेक शिळालेख आसात. पूण पयल्या हरिहराच्या जिवीत काळांत विजयनगर शार बांदून जावंनाशिल्लें, हरिहर दोरासमुद्र हांगाच्यान राज्य चलयतालो, ते उपरांत राज्यार आयिल्ल्या पयल्या बुक्कान राजधानी दोरासमुद्राच्यान होसपट्टणाक, 1354 वर्सा थंयच्यान विजयनगराक स्थळांतरीत केली म्हूण म्हायती मेळटा.[1]

तशेंच विद्यारण्य माधव हे विजयनगराचेर राज्य केल्ले पयल्या हरिहररायाचे वा बुक्करायाचे मंत्री आशिल्ले म्हूण जांव तांचे गुरू आशिल्ले म्हूण सिद्ध करपी कसलेच प्रमाण ना.[2] आतां मेळपा सारकीं प्रमाणां आसात तीं समजून घेतलीं जाल्यार विद्यारण्य माधव रंगमाचयेर आयले तो काळ 1360 वर्सा उपरांतलो आशिल्लो म्हूण दुबावा विरयत सिद्ध जाता.

'कन्नड शिळालेखांचें सांस्कृतिक अध्ययन' नांवाच्या ग्रंथाच्या 155 पानार फुडलें विवरण आसा :–''विजयनगराच्या राजांमदीं थोडेजण काळामुख गुरूंचे अनुयायी आशिल्ले अशी म्हायती मेळटा. पयलो हरिहर आनी पयलो बुक्क हांचे गुरू पशुपत

---

1 Bukka I transferred the capital from Dorasamudra to Hosapattana between 1352 or 1354. about the last year of the reign of his brother Harihara I. and his own first year, and thence to Vijayanagar it being more central and convenient for administering the affairs or a large kingdom. Though Vijayanagar had been found 18 years before it had not yet been occupied as the Capital as much of the country in the west and south had yet to be recovered or brought under control. *Ibid, page 1447.*

2. Mayana Madhava, indeed as Vidyaranya, helped in the establishment of the kingdom and the capital (हाका आधारच ना ). though there is nothing to show he held any temporal office under either Harihara I or Bukha I - *Mysore Gazetter page 1445.*

आशिल्ले काशीकला क्रिया शक्ती हे विजयनगर राज्याचे स्थापने खातीर प्रामुख्यान वावुरलेलो महादंडनायक आनी मंत्रीय बी आशिल्लो त्या माधवनाचे हेच गुरू आशिल्ले म्हूण एका शिळालेखांत पळोवंक मेळटा.'' (E.C. VII S.R. 281)

विजयनगर नांवाच्या नाट्यमंचार तीन ते चार जण 'माधव' नांवाच्यो व्यक्ती आसप ही गजाल विजयनगर साम्राज्याचो इतिहास बरोवप्यांक गोंदळांत घालता अशें म्हणूं येता. भारद्वाज गोत्राच्या मायण नांवाच्या ब्राह्मणाक श्रीमती नांवाचे बायलेकडच्यान १) माधव २) सायण आनी ३) भोगनाथ नांवांचे तीग जण पूत आशिल्ले. तांचे मदलो व्हडलो माधव हाणे खूब विद्या संपादून विद्यारण्य हें नांव जोडलें. ते उपरांत सायण हाणेय आपणाल्या पुताक (?) माधव हेंच नांव दवरलें. अशें जाल्ल्यान *आधुनिक* इतिहासकारांनी तांकां वळखुपा खातीर मायणाचो पूत आसल्यार ताका मायण माधव, सायणाचो पूत माधवाक सायण माधव अशीं नांवां दवरल्यांत.

विजयनगर साम्राज्याचो महादंडनायक आशिल्लो आनी कांय काळ मंत्री जाल्लो माधव अंगिरस गोत्राचो चावुंडा भट्ट आनी ताची बायल माचलदेवी (माचांबिके) हांचो पूत आशिल्लो. इतिहासकारांनी हाका चावुंड माधव अशें म्हणलां. ताचे उपरांत विजयनगराच्या राजदरबारांत अत्यंत प्रभावी आशिल्ल्या दुसऱ्या एका माधवाक वीरवसंतमाधव अशें नांव दिलां. वीरवसंत माधव चावुंडा माधवा सारकोच विजयनगराचो दंडनायक आसून त्या शिवाय दुसऱ्या हरिहराचो मंत्रीय बी आशिल्लो. हे सगळे माधव व्हडले विद्वान आसून संस्कृतांत तांणी अनेक ग्रंथ बरयल्यात. त्या ग्रंथांतले खंयच्या माधवान खंयचो ग्रंथ बरयला तो वळखप खूब कश्टांचें काम थारलां.

सर्गेस्त शेणाय वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकर ह्या गोंयांतल्या विद्वानान ''गोंयकारांची गोंयां भायली वसणूक'' नांवाच्या कोंकणी पुस्तकांत विजयनगराच्या राजदरबारांत आशिल्ले ते चावुंडा माधव आनी वसंतमाधव हे दोगूय गोंयचे सारस्वत ब्राह्मण आशिल्ले म्हूण सगळ्या प्रमाणांच्या आदारान सिद्ध केल्लें आसा. तशेंच बेंगळुरांतले प्रसिद्ध ज्योतिशी श्रीमान बी. सूर्यनारायण राव बी. ए., एलएलबी. हांणी बरयल्ल्या 'A History of Shivaganga Math' नांवाच्या पुस्तकांत विजयनगराचे मंत्री जावन गेल्ले तशेंच 'सूतसंहिते'चेर टीका बरयल्ले 'माधव' हे सारस्वत ब्राह्मण म्हूण स्पश्ट केलां. मैसूर गॅझेटांत विवरण आसा ते प्रमाण चावुंडा माधवान पयल्या

हरिहरनाच्या काळांतल्यान दुसऱ्या हरिहरनाच्या काळा मेरेन म्हणल्यार 1258 साकून 1306 मेरेन म्हणल्यार 48 वर्सांच्या काळांत तरे तरेच्या प्रसंगांक फावो सारक्या जबाबदारेन महादंडनायक म्हूण, मंत्री म्हूण, मंडलेश्वर म्हूण कार्य केल्लें.

चावुंडा माधव हो युद्धविद्येंत आनी राजनीतींत निपुण आशिल्लो तसोच वेदवेदांगांतय पारंगत आशिल्लो. ताका 'उपनिषन्मार्ग प्रतिष्ठागुरू' हें बिरुद आशिल्लें. विंगड विंगड शीळा लेखांनी ताच्या नांवाचो माधवमंत्री, माधवांक, माधवराय, मादरस ओडेय असो उल्लेख जाल्लो आसा. ताच्या पुताचें नांव बाळ्तरस अशें आसून वेगवेगळे राजकी अधिकार ताणें सांबाळिल्ले अशें कळटा. विजयनगराचो महादंडनायक आशिल्लो चावुंडा माधव हाणे 1288-89 वर्सा मदीं गोंय मुसलमानां कडच्यान जिखून घेवन विजयनगर साम्राज्याक जोडिल्लें. ताणे गोंय जिखिल्ल्याचें यादस्तीक म्हूण आपणाले आवयच्या नांवान 'माचलपूर', बापायच्या नांवान 'चावुंडपुरी' म्हूण आनी स्वताच्या नांवान 'माधवपूर' म्हूण तीन ब्रह्मपुरी स्थापन केल्ल्यो. ते उपरांत 1290 वर्सा बुक्करायान चावुंडा माधवाक गोयां सयत पुराय पश्चिम करावळीचो मंडलेश्वर करून थंयच्या राज्याचें शासन ताचे सुवादीन केल्लें.[1] तो मंडलेश्वर आसतना बरोवन घेतिल्ल्या शिळालेखांनी ताचें नांव 'मादरस ओडेयरु' असो उल्लेख केल्लो आसा.

चावुंडा माधवा उपरांत विजयनगराच्या राजदरबारांत अत्यंत प्रभावी असो जो मनीस आशिल्लो तो गोंयचो सारस्वत ब्राह्मण वीर वसंत माधव हो. तो चावुंडा माधवा उपरांत विजयनगर साम्राज्याचो महादंडनायक जालो. थोडो काळ तो दुसऱ्या हरिहराचो पूत चिक्करायाचो मंत्री जाल्लो.[2] निमाणेकडेन तो गोंय आनी तुळुनाडूचो मंडलेश्वर जाल्लो. वीरवसंत माधवाक 'सप्तकोंकणधूलिपट्टा' (E. C. VIII, Honnali 71)) हें बिरूद दिल्लें हें मतींत घेतल्यार तुळुनाडू जिखून घेवन विजयनगर साम्राज्याक जोडपी तोच आसपाक जाय असो अदमास दिसता. ताणे तुळुनाडूंतल्या कुक्के हांगाच्या सुब्रम्हण्य देवालयाक जमीन दान करून बरोवन घेतिल्ल्या शिळालेखांत ताच्या नांवाचो 'प्रख्यातदान शौंडस्य माधवार्योमहीपतिःश्रीमद्गोवापुराधीशः'' असो उल्लेख केल्लो आसा.[3]

1 Mysore Gazetteer, page 1443 2. Ibid page 1511

3 Annual Report of the Mysore Archaeological Department for the year 1943, page 145. South Kanara.

वीरवसंत माधवनाक बाचण्णा (=भास्कर) आनी नरहरी नावांचे दोगजण पूत आशिल्ले म्हूण कळटा. वीरवसंत माधवा उपरांत गोवा आनी तुळुनाडूचें मंडलाधिपत्य ताचो व्हडलो पूत बाचण्णाकडेन आयलें. बाचण्णाचो थोड्या शीळा लेखांनीं बाचप्पा[1] असो उल्लेख जाल्लो आसा. बाचण्णान मंडलेश्वर आसतना बापायवरीच कुक्केच्या सुब्रम्हण्य देवालयाक जमीन दान दिल्ली म्हूण ताणे बरोवन घेतिल्ल्या शिळालेखांतल्यान कळटा. ते शिळालेख बी नागरी लिपींत बरयल्ले आसात आनी बाचण्णान दिल्ली सम्मती कन्नड लिपींत आसा. तातूंत ''श्रीमन्महाराजाधिराज राजा परमेश्वर श्री वीर हरिहररायाचो कुमार बुक्कमहाराय हाचे सम्मतीन मंगलूर राज्य गोयांचो बाचण्णा ह्या अधिपतीच्या शासनाकडेन वर्स 1326 चालू व्यय संवत्सराच्या चैत्र शु. प्रतिपदेक कडबाच्या स्थळांतल्या कुक्केच्या देवाक धर्मीक आदेशान चलपी प्रथांखातीर'' अशें बरप आसा. आनी तें बरप सोपले उपरांत निमाणेकडेन ''श्री. श्रीमान्य बावण्णाचें बरप.'' अशें आसा. ह्या लेखनाचो काळ 1406 वर्स आनी ते तिथीक तारीक येता मार्च एकवीस. वयल्या विवरणांतल्यान वीरवसंत माधव आनी ताचो पूत बाचण्णा हे गोवा आनी तुळुनाडूचेर राजांच्या अधिकारान राज्य केल्ल्यान त्या काळात तुळुनाडू सरस्वत ब्राह्मणांच्या शासनाच्या नियंत्रणात आशिल्लें म्हूण आदल्या शिळालेखांतल्यान समजता.

विजयनगराच्या राजदरबारांत चावुंडा माधव आनी वीरवसंत माधव हे दोगूच न्हीं तर तांचे भुरगे, तांच्या नात्यांतले आनीकय अनेकजण अधिकाराच्या पदांचेर आशिल्ले म्हणल्यार चूक जावची ना. अर्थात विजयनगराच्या राजदरबारांत गोंयांतल्या सारस्वत ब्राह्मणांचो प्रभाव खूब आशिल्लो अशें दुबाव नासतना म्हणू येत. आनी विजयनगराचे राजा ब्राह्मणांक कितल्या भोवमानान लेखताले ते विशीं तांणीं बरोवन घेतिल्ल्या शिळालेखांतल्यान समजता. (चावुंडा माधवा संबंदान चड म्हायती परिशिश्टांत दिल्ली आसा ती पळोवं येत).

---

1 Bachappa Vodeyar was a subordinate of Bukka II the Vijayanagara King. He ruled the Goa kingdom after Madhava Mantri. His brother was Narahari. He had also the name of Bhaskara. A number of inscriptions refer to him (See E. C. VII He. 71, M. A. R. 1941, p. 206 etc. ). In M. e. R. 1927 No. 369 he is referred to as ruling the kingdom of Barkur under Bukkaraya. *Annual Report of Mysore Archaeological Department for the year 1943.*

उत्तर भारतांतल्यान येवन दक्षिण भारताचे पश्चिम करावळींत स्थायिक जाल्ल्या ाह्मणांमदीं पश्चिम भारतांतले म्हणल्यार पंजाब आनी सिंध प्रांतातल्यान आयिल्ले ारस्वत वर्गाचेच पयले आशिल्ले. ताचें कारण सारस्वत ब्राह्मण वालो आनी तांचीं ।ायलां आपणाली साडी कास घालून न्हेसपाची तरा तांच्या पंजाब वा वायव्य भारतीय ुळाची कल्पना दिता. म्हणल्यार सिंधी, पंजाबी आनी वायव्य भारतांतलीं दादले-बायलां पायजमो घालून वयर कुड्ता घालपी अशे ते लोक दक्षिण भारतांत आयले उपरांत दादले पंचो (वालो) आनी बायलां साडी कास घालून पायजम्यावरी करून न्हेसपाक लागले. पयलीं बायलां माथें आनी छाती धांपपा खातीर कुडत्याचेर एक शाल घेतालीं. साडी न्हेसपाक लागलीं तेन्ना साडयेचो पदर सोडून तो माथ्यार आनी छातयेर धांपून धेवंक लागलीं.

अशे तरेचें न्हेसपाचें वास्तव चित्र सारस्वत ब्राह्मणांगेर लग्नाच्या वेळार पळोवपाक मेळटा. सारस्वत ब्राह्मणांगेर लग्नांत व्हंकलेक साडी न्हेसयतना तिचो पदर कमरावयर घेनात. म्हणल्यार साडी पायजम्यासारकी कास घालून न्हेसतात. वयर आंग धांपपा खातीर आदल्या काळांत 'बाजू' म्हणल्यार पुराय भुजां आशिल्लो कुड्ता घालतालीं. आतां पोलको घालतात आनी वयर शाल वा धवें वस्त्र स्वस्तिकाकारांन छातये वयल्यान पांगुरतात. त्या धव्या वस्त्राक कोंकणींत 'खोळिये (+चें) आंगवलें' म्हणल्यार तें धापून घेवपाचें वा पांगरुपाचें वस्त्र आसता. कोंकणीत 'खोळी' = Veil आनी Cover.

*****

# शिवाराधना, नागपूजा आनी सारस्वत ब्राह्मण

आर्य लोकांनी शिवाराधना, नागपूजा आनी देवीपूजा हे धर्मीक आचरणांचे प्रकार भारतवर्षाचे मूळ निवासी आशिल्ल्या मुखेलपणान द्राविड लोकांकडच्यान घेतले आनी तें सगळें रुग्वेदाच्या काळा उपरांत घडून आयलें असो चडशा ब्रिटीश विद्वानांचो अभिप्राय आसा. पूण तांचो तो अभिप्राय फकत तर्कांचेर आदारीत आसून ताका दुसरो कसलोच एक घटमूट आदार ना. म्हणल्यार आर्य लोकांच्या आगमनाच्या काळा परस पयलीं भारतवर्षांत *स्थायिक* आशिल्ल्या लोकांमदीं शिवाराधना, नागपूजा हे प्रकार आशिल्ले म्हूण सिद्ध करपा सारके पुरावे उत्तर भारतांत जावं दक्षिण भारतांत आज मेरेन मेळूंक नात. इतलेंच न्हीं तर ब्रिटीश विद्वानांनी आपणाले अभिप्राय व्यक्त करचे पयलीं रुग्वेदाचो अभ्यास केल्लो जाल्यार ते तशें म्हणचे नाशिल्ले अशें म्हणल्यार जाता. रुग्वेदांत शिव, रुद्र, सर्प, अहिर्बुध्न्य आदी शब्द आसात इतलेंच न्हीं जाल्यार तांची देवतारूपान वाखाणणी करपी मंत्रय बी आसात. म्हणल्यार आर्य लोक आपणाले आराध्य देव म्हूण मानिल्ल्या अग्नीक प्रसंग येता ते प्रमाण शिव, रुद्र, अहिर्बुध्न्य आदी नांवांनी उलो करताले म्हणपाचें रुग्वेदांतल्या मंत्रांतल्यान स्पश्टपणान कळून येता.

*त्वमग्ने प्रथमो अंगिरारुषिर्देवोदेवा नामभव शिव: सखा ।*
*तवव्रते कवयो विद्मनापसो अजायंत मरुतो भ्राजदृष्टय: ।।1-31-1।।*

अर्थ – गा अग्निदेवा ! तूं सगळ्यांत पयलो अंगिरारुषी (=इंगळो) च्या रूपान देवांचो देव, शिव (=कल्याणकारक) इश्ट सगळ्यांत पयलो. तुज्या व्रतांत (=यज्ञ समारंभाच्या अग्निकुंडांत) शब्द निर्माण करपी (कवीलोक) इंगळ्या सारके चकचकपी भाले घेवन आशिल्ले जागरुकतायेन चलपी वायू जल्माक आयले.

*आरे अस्मदमतिमारे अहं आरे विश्वांदुर्मतिंयन्निपासि ।*
*दोषा शिव: सहस: सूनो अग्ने यं देव आचित् सचसे स्वस्ति ।। 4-11-6।।*

अर्थ– शिवस्वरूप गा अग्निदेवा – तूं आमचे सगळे अविचार, सगळीं पातकां, सगळे वायट विचार पयस करता. बलवंताचो पूत, मंगलमय आशिल्ल्या गा अग्निदेवा तूं रातींतल्या काळखांत आमचो रक्षक

जावन आमचे वांगडाच रावता.

मुखावयल्या मंत्रांत अग्नीक स्पश्टपणान रुद्र म्हूण संबोधला :-

*त्वमग्ने रुद्रो असुरो महोदिवस्त्वंशर्धोमारुतंपृक्ष ईशीषे ।*
*त्वं वातैररुणैर्यासि शंगयस्त्वंपूषा विधतः पासिनुत्मना ।। 7-1-6 ।।*

अर्थ : गा अग्निदेवा तूंच रुद्र. तूंच म्हान आकाशांतलो सूर्य वाऱ्यांचो लाब जाल्लो तूंच, तूंच तांबड्या रंगाच्या वाऱ्यांच्या सांगातान चलता. म्हणल्यार बळिश्ट वारो व्हांवता तेन्ना तूं तांबड्या रंगाच्यो ज्वाळा वाऱ्यांत मेळोवन धांवता. (गृहस्थांच्या) घरां खातीर शुभकारक आसपी तूं पूष (एक देवता) ह्या नांवाक योग्य आसपी तूं तुज्या भक्ताक पोसता आनी तांकां राखता.

ह्या वयल्या मंत्रांतल्यान रुग्वेद काळांतच रुषी लोक अग्नीक शिव आनी रुद्र ह्या नांवांनी संबोधून ताची आराधना करताले म्हूण सिद्ध जाता. यजुर्वेदांत मुखार दिल्लो उल्लेख मेळटा :-

*शिवो भूत्वामह्यमग्ने अथोसीद शिवस्त्वम् ।*
*शिवाः कृत्वा दिशः सर्वाः स्वां योगिमिहासद ।।*
*वाजसनेयी संहिता – 18-17 ।।*
*।। तैत्तिरीय संहिता – 4-9-16 ।।*

अर्थ : गा अग्निदेवा शिव आसपी तूं, म्हाका शिव जावन म्हणल्यार कल्याणकारी जावन आतां बस; तूंच शिव. सगळ्या दिकांक (तुज्या उजवाडान) मंगलमय जाय सारकें कर. हांगा तुजे योनीत (=गार्हपत्यकुंडांत) बस.

तशेंच वाजसनेयी संहितेंत अग्नीक स्पश्टपणान *'शिवो नामासि' ।। 3-63 ।।*

शिव ह्या नांवान अस्तित्वांत आसा – अशें म्हणलां.

तैत्तिरिय संहितेंत एक फावट न्हीं अनेक फावटी *''रुद्रोवा एष यदग्नी ।। 5-4-3-1 आदी ।।''* जो कोण हो अग्नी आसा तोच रुद्र अशें

म्हणलां.

खरेपणी सांगतलो जाल्यार आर्यांचे शेंकड्यांनी पंगड अग्नीक अनेक प्रकारांच्या नांवानी उलो करून, अनेक तरांनी, अनेक रूपांनी भजताले वा ताची आराधना करताले. ताचो प्रत्यय शतपथ ब्रह्मणांतल्या मुखार दिल्ल्या वळींनी स्पश्ट जाता.

> *''तद्वा अग्नये इतिक्रियते; अग्निर्वै सदेव: । तस्य एतानि नामानि । शर्व इति यथा प्राच्या आचक्षते । भव इति बाहीका: । पशूनां पतीरुद्रो अग्निरिति । तानि अस्य अशांतनि एव इतराणि नामानि ।। अग्निरिति एव शांततमम् ।। तस्माद् अग्नियें इतिक्रियते; स्विष्टकृते इति ।।*

अर्थ : – आहुती अग्निदेवाकच दितात आनी अग्नी हो तोच देव जाका 'शर्व' अशें उदेंते कडचे लोक म्हणटात, 'भव' अशें भायले लोक म्हणटात. ताकाच पशुपती म्हणटात, रुद्र म्हणटात. म्हणल्यार विंगड विंगड नांवांनी उलो करतात. पूण पशुपती, रुद्र आदी हेर नांवां अशांत, उग्र सभावाचीं आसात. अग्नी हें एकच नांव शांत, सौम्य आनी मंगलकारी दिसता. त्याच खातीर आहुती दिता आसतना ''अग्नये = अग्निदेवाक अशें म्हणून स्विष्टकृते = शुभेच्छांचें फळ मेळोवन दिवपी देवाक अशें म्हणटात.

ह्या वयल्या देखींतल्यान आर्य लोक अग्नीकच शिव म्हणटाले हें दुबाव नासतना सिद्ध जाता. त्या खातीर आर्य लोकांनी शिवाराधना हेर लोकांकडच्यान घेतली वा शिव हो द्राविड लोकांचो आदी विधानां करपांत कसलोच दम ना म्हूण वेगळें सांगपाची गरज ना.

आर्य लोक खूब प्राचीन काळांत पिपळाच्या (अश्वत्थ) रुखाच्यो दोन बडयो एके बडयेर दुसरी बडी आडवी धरून नेटान फुडेंफाटीं घांसून उजो पेटयताले. त्या बडयांक 'अरणी' म्हणटाले. तांचे मदले थोडे दोन फातर घांसून उजो पेटयताले. अरणी वापरून उजो पेटोवपा विशीं विधान रुग्वेदांतल्या मुखार दिल्ल्या मंत्रांत आसा :–

> *अग्निं नरो दीधितिभिररण्योर्हस्तच्युती जनयन्तप्रशस्तम ।*
> *दूरेदृशं गृहपतिमथर्युम् ।। 7-1-1 ।।*

अर्थ :– मनशांनी गाढ ध्यान करून, हातांची कुशळटायेन हालचाल करून दोन रणींमदीं उजो तयार केलो. तो अग्नी यज्ञगृहाचो धनी, सौम्य तरेन पेटलो तरी थसमेरेन दिसलो, वाखाणणेक पात्र थारिल्लो. तेच तरेन इंद्रा संबंदान आयिल्ल्या त्रांत इंद्रान दोन फातरांनी उजो तयार केलो अशें म्हणलां.–

*''अश्ननोरंतरग्निं जजान ।। 2-12-3 ।।''*

फुडारांत आर्यां मदल्या थोड्यांनी उजो तयार करपाक इल्लो सोपो उपाय सोदून गडलो. ते दोन अरणी स्वस्तिक + आकारान उबी आडवी जमनीर दवरून त्यो ालनात तशो घट करताले. उपरांत तांच्या मध्याचेर एक बुराक काडून तातूंत एक ांडो रोमून ताका दोरी रेवडायताले आनी ताक चाळटात ते तरेन दोरी ओडून दांडो फेरयताले. ताचें घर्शण जावन उजो तयार जतालो. मदल्या बुराकाक योनी आनी ंथन करपाच्या दांड्याक प्रमंथ अशें म्हणटाले.[1] योनी हाचो अर्थ अग्नीचें उत्पत्तिस्थान. त्या योनीत प्रमंथ दवरलो जाल्यार अग्नी पेटोवपी तें यंत्र पांच दिकांवटेन निर्देश करतालें. त्यो म्हणल्यार – पूर्व, दक्षिण, पश्चिम, उत्तर आनी ऊर्ध्व. आदीं त्या यंत्राक प्रजापती म्हणटाले. निमाणेकडेन त्या अग्निमंथन यंत्राक शिवाचो संकेत वा प्रतिनिधी मानूंक लागलें. त्या खातीरच पुराणांनी प्रजापतीक आनी शिवाक पांच मुखां म्हूण वर्णन जाता अशें म्हणूं येत.

ब्राह्मी वर्णमालेंत स्वस्तिक + आकृती '**ಹ**' व्यंजना सारकें (क–कन्नड) लिपींतलें अक्षर) आसता. आनी दंड '।' ○ (र) ह्या व्यंजना सारको आसता. '○' (र) काराक अग्नी हो अर्थ आसा. आनी 'ಹ' (क) संबंदान वैदिक साहित्यांत तरेकवार कल्पना आसात. रुग्वेदाच्या धाव्या मंडळाच्या 121व्या सूक्तांत 'ಹ:' (क:) म्हणल्यार प्रजापती अशें म्हणून ताची तुस्त केल्ली आसा. तैत्तिरीय संहिता ''प्रजापतिर्वै क: ।। (1-6-6-4) आनी (1-7-6-6) ।।'' म्हणल्यार प्रजापती होच 'ಹ' (क) अशें म्हणटा. तैत्तिरीय ब्राह्मण *''प्रजापति: संवत्सरो महान् क: ।। (3-10-1) ।।* म्हणल्यार प्रजापती संवत्सराच्या रुपाचो व्हडलो 'ಹ' (क) अशें म्हणून उपरांत त्या संवत्सराची एका शेवण्याकडेन (पक्षी) तुळा करता :– *''तस्य (=संवत्सरस्य) वसंत: शिर: । ग्रीष्मो*

---

1 कर्मप्रदीप – 7-5 आनी 7-11

*दक्षिण पक्षः । वर्षा पुच्छम् । शरदुत्तर पक्षः । हेमंतो मध्यम् ।। 3-10-4 ।।''* वसंत रुतू त्या शेवण्याची तकली; दक्षिण (उजवो) पांखाटो (पंख) हो ग्रीष्म रुतू. वर्षा रुतू त्या शेवण्याची शेंपडी; शरदृतू त्या शेवण्याचे उत्तर दिकेचो (दावो) पांखाटो आनी हेमंत रुतू हो ताचो मदलें धड (भाग) म्हणल्यार तें शेवणें दुसरें कांयच न्ही तर तें हाचें आदीं उल्लेख आयला तें स्वस्ती(क) आनी दंडाचे जोडणेंतल्यान तयार जाल्लें अग्निमंथन यंत्र म्हूण कळटा. आनी तेंच प्रजापती. तें पूर्व, दक्षिण, पश्चिम आनी उत्तर दिको दाखयता आसतनाच क्रांति वृत्तय बी सुचयता. क्रांतिवृत्त म्हणटात तेंच संवत्सर. म्हणल्यार पृथ्वी तांतूंत भोंवताडो घालून आयिल्ल्यानच संवत्सर जाता. संवत्सरच प्रजापती आशिल्ल्यान क्रांति वृत्तांत शिंपडून आशिल्लीं नक्षत्रां हीं प्रजापतीचीं भुरगीं. अग्नीचें मूळ प्रजापती आशिल्ल्यान, तसोच अग्नी होच यज्ञाचें मूळ आशिल्ल्यान अग्नी आनी यज्ञ हे प्रजापतीची प्रजा थारता.

कालांतरान अग्नियंत्राच्या आदारान अग्नी निर्माण करपाची पद्धत *स्थगित* जाल्ल्यान तें यंत्र अग्नीचो संकेत ह्या रूपानच उरलें. ताकाच त्या काळा उपरांतले लोक शिवलिंग म्हणूंक लागले. लिंग ह्या शब्दाचो मूळ अर्थ 'लक्षण' वा 'संकेत' असो आसा. त्या खातीर अग्नीचो संकेत म्हणू वा शिवाचें लिंग म्हणू तांचो अर्थ एकूच म्हणपाचें स्पश्ट जाता. पूण उपरांतल्या लोकांक ताचें मूळ खंय आसा ते विशीं कांयच जाणविकाय ना जाल्ल्यान त्या संकेतांक स्त्रीच्या आनी पुरुषाच्या जननेंद्रियांचो संयोग अशें समजपाची चूक केली. अर्थांत अग्निमंथन यंत्र हें उपरांतल्या काळांतल्या शिवलिंगाचें मूळ अशें म्हणल्यार चूक जावंनजो.

अग्नी पेटोवपाक उपेग जावपी अरणी म्हणटात ते लाकडाचे कुडके अश्वत्थ रुखाचे आशिल्ल्यान अश्वत्थ रूख (पिपळ) अग्नीचो प्रतिनिधी वा प्रत्यक्ष अग्नीच थारता. अशें जावन अश्वत्थ रूखाक देवत्व प्राप्त जालां. त्याच खातीर गीतेंत श्रीकृष्णान *''अश्वत्थ : सर्ववृक्षाणाम् ।। 10-26।।''* म्हणल्यार 'सगळ्या रूखांमदीं अश्वत्थ रूख म्हणटात तो हांव' अशें म्हणिल्लें आसा.

रुग्वेदांत अग्नीक उदेशून ताका शिव म्हणिल्लें आसा. तशेंच अहिर्बुध्न्यः म्हणल्यार खोल भागांत वा तळाक आसपी सोरोप अशेंय बी संबोधन मेळटा. काळोख म्हूण सुचीत करपी वृत्राकय 'अहि' म्हणल्यार सोरोप अशें म्हणलें तरी अग्नी खातीर 'अहि'

ाब्दाचो प्रयोग जाल्ल्या दर एका संदर्भांत ताचे सांगातान बुध्न शब्दय बी वापरला. बुध्न म्हणल्यार बुड, पोंद, तळ, खोलाय असो अर्थ जाता आनी आकाश, शरीर अशेय ी अर्थ आसात. एकेक फावट तो 'कित्याचें तरी मूळ' असोय अर्थ व्यक्त करता. अग्नीक 'सर्प' (सोरोप) अशें म्हणले उपरांत अग्नीचो प्रतिनिधी आसपी शिवा वांगडा सोरोप जायच अशें जालें. म्हणल्यार 'अहि' शब्दाचो अग्नीची ज्वाळा असोय अर्थ जाता अशें म्हणूं येत. त्याच खातीर 'शिवाक अहिभृत् = सोरोप घेवन आशिल्लो आनी 'नागभूषण = सोरोप आभरणावरी घेवपी' अशे म्हणलां आसपाक जाय. तितलेंच न्हीं तर वैदिकोत्तर साहित्यांत शिवाक आनी रुद्राक 'अहिर्बुध्न्य' अशें म्हणिल्लें आसा.

रुग्वेदांत अग्नीक *''अपां नपात् ।। 3-9-1।।''* म्हणल्यार उदकांचो पूत अशें म्हणून, *''आपो अग्निं जनयंतमातरः ।। 10-91-6 ।।''* म्हणल्यार उदकां नांवांच्या आवयांनीं अग्नीक जल्म दिलो अशें म्हणलां. तशेंच अहिर्बुध्न्य हो उदकांत जल्मल्लो उदकाच्या तळाक उरपी अशेंय म्हणलां :-

*''अब्जामुक्थैरहिंगृणीषे बुध्नेनदीनां रजःसु षेदन् ।। 7-34-16।।''* म्हणल्यार - उदकांत जल्मल्लो, न्हंयांच्या तळांतल्या चिखलांत बशिल्लेवरी आशिल्ल्या सोरपाक हांव यज्ञाच्या मंत्रांनी वाखाणटां असो अर्थ जाता. तशेंच - *''मानो अहिर्बुध्नोरिषे मा धान्मा यज्ञो अस्य श्रीधद्रतानोः ।। 7-34-17 ।।''* म्हणल्यार खोल तळाक रावतल्या सोरपान आमचें कितेंच वायट करचें न्हीं आनी ह्या सेवकाचो यज्ञ कसलेंच विघ्न नासतना पूर्णत्वाक पावूं दी अशीय बी प्रार्थना केल्या.

अहिर्बुध्न्य शब्द स्वतंत्रपणान आयिल्ले मंत्र रुग्वेदांत फकत तीनच आसात. हेर मंत्रांनी अहिर्बुध्न्य शब्द अग्नीचीं हेर नांवां आशिल्ले अजएकपाद, आपांनपात् आदी शब्दांच्या सांगातानच आयला. त्या खातीर 'अहिर्बुध्न्य = खोलायेंत आशिल्लो सोरोप' हें नांव अग्नीचेंच आसून, अग्नीक अहिर्बुध्न्य खूब प्राचीन काळांतल्यान म्हणत आयल्यात म्हूण सिद्ध जाता.

वाजसनेयी संहितेंत गार्हपत्याग्नीक तळाचे खोलायेंत आशिल्लो सोरोप अशें म्हणलां :- *''अहिरसि बुध्न्यो ।। 5-33।।''* तूं तळाचे खोलायेंत रावपी सोरोप.

ऐतरेय ब्राह्मण जाल्यार ·अहिर्बुध्न्य म्हणल्यार गार्हपत्याग्नि म्हूण स्पश्टपणान

म्हणटा :– *''एष ह वा अहिर्बुध्योयदग्निगार्हपत्य: ।। 3-3-36।।''* म्हणल्यार – हो खंयचोय गार्हपत्याग्नी आसूं तोच तळाचे खोलायेंत रावपी सोरोप.

फाटल्या उदाहरणांतल्यान गार्हपत्यकुंडाच्या तळाक सदांकाळ रक्षण करून दवरिल्ल्या अग्नीकच 'अहिर्बुध्न्य = खोल तळांत रावपी सोरोप'' अशें म्हणिल्लें आशिल्ल्यान गार्हपत्याग्नीचो प्रतिनिधी म्हूण – सोरपाची प्रतिमा दवरताले अशेंय म्हणूं येत. आनी गार्हपत्याग्नीक ''खोल तळाक रावपी सोरोप'' अशें म्हणिल्ल्यानच नागाचीं वा महाशेषाचीं देवळांचे भोवतणेत उंचायेचो वाठार आशिल्ल्या अशा म्हणल्यार अग्निकुंडा सारकें दिसता अशे तरेच्या खोलसारशा जाग्यार बांदताले अशें म्हणल्यार जाता. इतलेंच न्हीं तर वैदिक साहित्यांत सोरपाक आनी नागाक आहुती वा हवीस अर्पण करताले अशे उल्लेख आसात. तैत्तिरीय ब्राह्मणात आशिल्ल्या नक्षत्रेष्टिंनी आश्लेषा नक्षत्राच्या देवता आशिल्ल्या सोरपांक, उत्तराभाद्रा नक्षत्राच्यो देवता आशिल्ल्या अहिर्बुध्न्याक हवीस अर्पण करतात :– इदं *सर्पेभ्यो हविरस्तु जुष्टम् ।। 3-1-1-5 ।।*

> *''अहिर्बुध्न्य प्रथमान एति ।*
> *श्रेष्ठो देवानामुत मानुषाणाम् ।। 3-1-21-9 ।।''*

आश्वलायन ग्रह्यसूत्राच्या विधी प्रमाण स्वाध्याय काळांत नागांक तर्पण, श्रावणी पुनवे दिसा श्रवणाकर्मांत वा उपाकर्म होमांत सोरपांखातीर बळी दिवपाचो आसता. तशेंच श्राद्धकाळांत पशुबळी दिता आसतना त्या पशूचें रगत आनी ताच्या पोटांतलें रवंथ जायनासतना उरिल्लें तण आदी पदार्थ सोरपांक आहुतीच्या रूपान अर्पण करताले.

> *''सर्पेभ्यो यत्तत्रासृगूवध्यंवावस्रुतं भवंति ।। 4-9।।*

फाटल्या उदाहरणांतल्यान आर्य लोकांत सोरोप आनी नागांची आराधना पयलींच्यान आशिल्ली म्हूण सिद्ध जाता. तितलेंच न्हीं जाल्यार सिन्धू संस्कृतायेच्या उत्खननांत मेळिल्ल्या मुद्रांचेर नागांचीं चित्रां आसप, नागपूजा करप आदी आचरणां प्राचीन काळांतय जातालीं म्हणपाचें सिद्ध करतात. पूण वैदिक काळांत तांच्यो प्रतिमा यज्ञशाळेंत हाडून यज्ञकुंडा कुशीक तांचे खातीर पातलायल्ल्या दर्भाचेर दवरून उपरांत

ार एके प्रतिमेच्या नावान यज्ञात आहुती पडटाल्यो आनी त्या भायर ताचे खातीर वेगळी पुजा आसताली जाल्यार म्हायती ना. आनी तांचे खातीर देवळां बांदिनाशिल्ले. वैदिकोत्तर काळांत प्रतिमांची देवालयांनी प्रतिष्ठापन करून पूजा करताले हें मात खरें. महाभारताच्या शल्यपर्वांत 38व्या अध्यायांत बलराम तीर्थयात्रेक गेल्लो ते कथेंत 'नागवर्त्म' नावाच्या पुण्यक्षेत्राचें वर्णन मुखार दिलां तशें आयलां :-

> ततः प्रायाद बलोराजन् दक्षिणेन सरस्वतीम् ।
> गत्वा चैवं महाबाहुर्नातिदूरे महायशाः ।।29।।
> धर्मात्मा नागवर्त्मानं तीर्थमागमदच्युतः ।
> यत्र पन्नगराज्यस्य वासुकेस्सन्निवेशनम् ।।30।।
> महाद्युतेर्महाराज बहुभिः पन्नगैर्वृतम् ।
> ऋषीणां च्र सहस्राणि तत्र नित्यं चतुर्दश ।।31।।
> यत्र देवाः समागम्य वासुकिं पन्नगोत्तमम् ।
> सर्वे पन्नगराजानमभ्यसिंचन् यथा विधिः ।। 32 ।।

अर्थ - तसोच बलराम सरस्वती न्हंयेच्या दक्षिण कांठा वयल्यान फुडें सरत थोडो पयस गेलो तितल्यान नागवर्त्म नांवाच्या तीर्थक्षेत्रांत पावलो. थंय चकचकीत कांत आशिल्लो, हेर सोरोप ताचे भोंवतणेत आशिल्ल्या अशा त्या वासुकी नांवाच्या सोरपांच्या राजाचें मंदीर आशिल्लें. थंय नित्य नेमान चवदा हजार रूशी आसताले आनी देवताय बी थंय येताल्यो. तशेच ते सगळे विधिपुर्वक नागश्रेश्ठाक, नागांचो राजा वासुकीक अभिशेक घालताले.

हाचे वयल्यान नागवर्त्म नांवांचें पुण्यक्षेत्र वा नागराजाचें निवासस्थान सरस्वती न्हंयेच्या कांठाकडच्यान थोडेंशें पयस आसून थंय नागलोक रावताले, तांचे मदीं हजारांनी ब्राह्मणय बी आसताले म्हूण आमी लक्षांत घेवपाक जाय. सरस्वती न्हंय घुग्गर न्हंयेक मेळून मुखार वचून सतलज न्हंयेक मेळटा म्हणपाचें आनी सतलज न्हंय मुखार वचून सिन्धू न्हंयेक मेळटा म्हूण कळटा आशिल्ल्यान नागराजाची भूमी दक्षिण पंजाबांत आशिल्ली म्हूण सांगप गरजेचें आसा. उपरांतल्या पुराणांनी नागलोक (भूंय) पाताळांत आसा अशें म्हणलां. त्या खातीर दक्षिण पंजाबांत स्थायिक जाल्ले नागलोक म्हणल्यार नागाराधना करपी लोक दक्षिण पंजाबांतल्यान आनीक मुखार दक्षिणेक

आशिल्ल्या पाताळ नांवाच्या प्रदेशांत वचून स्थायिक जाल्ले म्हूण कळपाची गरज आसा. पाताळ म्हणल्यार सिन्धू नद जंय दर्याक मेळटा त्या करावळी प्रदेशाचें नांव आशिल्लें. उपरांतल्या काळांत सिन्धू नद आनी नर्मदा न्हंय दर्याक मेळटात त्या दोन थळां मदल्या पुराय करावळी प्रदेशाक नागलोक म्हणटाले अशें दिसता. [1]

पुराणांतल्या कथांच्या रचनाकारांनी वैदिक ग्रंथांतले *कल्पित* नाग आनी तांचे आराधक हांका एकठांय घालून रासवळपणान नाग (सोरोप) थारावन कथा विणिल्ल्यान त्या कथांनी आशिल्लें इतिहासिक तथ्य पृथक्करण करून पळोवप हें एक खूब कश्टाचें काम. अशें आसुनय नाग पूजताले त्या लोकांचेंच पुराणकारांनी नाग वा सोरपांत परिवर्तन केलें अशें दुबाव नासतना म्हणूं येत. त्या भायर पुराणकारांनी सोरोप म्हूण रंगयल्ले तक्षक, कार्कोटक आदी वास्तवीक आनी इतिहासिक नावांच्यो व्यक्ती आशिल्ल्यो म्हूण कळटा. [2]

प्रोफेसर के. पी. जयस्वाल हांचे परिश्रम आनी दीर्घ संशोधनांच्या फळांच्या रूपान, आपणाल्या नांवांच्या शेवटाक नाग चिन्ह मुद्रीत करून घेतिल्लीं नांणी चलनांत हाडपी एका राजवंशाचो विश्वासपात्र असो इतिहास उजवाडा आयला. त्या शिवाय त्या राजघराण्याच्यो दोन शाखा आशिल्ल्यो अशी म्हायती मेळ्ळ्या. पयले शाखेच्या मूळपुरुशाचें नांव 'शेषनाग' अशें आशिल्लें. त्या वंशाचें शासन शकपूर्व 188 त सुरू जावन तेरा राजांचें शासन जाले उपरांत शकाच्या आरंभ काळांत ताचो अंत जालो. ताचे उपरांत 'नवनाग' नांवाच्या राजाच्या शासनान शक 218 वर्सा दुसरे शाखेचें शासन सुरू जालें. तांची एक राजधानी मध्य भारतांतल्या पद्मावती हांगा आनी दुसरी राजधानी उत्तर प्रदेशांतल्या मधुरापट्टण हांगाय आशिल्ली. नवनागाकडच्यान आरंभ

---

1 Mahishmat, the father of Sahasrarjuna of the Puranic tradition, wrested an ancient port near Broach on the Narmada, from the Nagas, in order to find Malishmati. Two facts emerge from these references. First, the Nagas were associated with the region from the mouth of the river Indus to the mouth of Narmada and perhaps further south. Secondly, Prabhasa was associated with the Nagas referred to as belonging to Patala. *Somanatha The Shrine Eternal; by K. M. Munshi page 10.*

2 Takshaka and Karkotoka from whom one can protect oneself by involcing Shiva, their Lord and Master, were in fact the names of Naga rulers. - *Somnath the Shrine Eternal. Page - 11*

नाल्ले शाखेच्या राजांक भारशिवनाग अशें म्हणटाले. ताचें कारण त्या वंशाचे राजा सदांच आपणाल्या खांदार एक शिवलिंग घेवन आसताले.[1] तांच्या साम्राज्यांत पूर्वपंजाब, राजस्थान, मध्यभारत, मध्यप्रदेश, विंध्यप्रदेश, उत्तर प्रदेश आनी बिहार इतलो प्रदेश आसपाविल्लो. मध्य प्रदेशांत राज्य करपी वाकाटक राजवंशय बी नाग कुळाचेच आशिल्ले असो अभिप्राय आसा. कशेंय आसलें तरी वाकाटक वंशाचो पयलो प्रवरसेन (शक 202-262) हो नागवंशाच्या भवनागाचे धुवेचो पूत म्हूण म्हायती मेळटा.

नाग वंशाच्या पयल्या राजाचें नांव 'शेषनाग' आशिल्ल्या कारणान पुराणकारांनी ताका 'महाशेष' म्हूण *पौराणिक* नांवान संबोधून सर्पकुळाची कथा रचून पुराणांनी आसपावन घेतली अशें म्हणूं येत.

नागपूजेचें मूळ वेदांनी आसून आर्यांचो एक पंगड शिव वा अग्नीचो नाग हो संकेत मानून तांची आराधना करताले अशें म्हणूं येता. आनी ताचोच विकास जायत वचून आयच्या थराक पावल्या म्हूण वैदिक साहित्यांत मेळपी कांय आदार पळोवन म्हणपाक जाता. ताचे भायर महाभारतांत आयिल्ल्या नागवर्त्माच्या वर्णना वयल्यान, सरस्वती न्हंयेच्या दक्षिण कांठार नागाराधना चलताली म्हूण म्हायती मेळटा आशिल्ल्यान थंय *स्थायिक* जाल्ल्या ब्राह्मणांकडच्यानूच नागाराधना सगळ्यांक पातळ्ळी अशें म्हणचें पडटा.

त्या खातीर विश्वासार्ह अशीं प्रमाणां मेळचे आदीं वा घटमूट अशा प्रमाणांचो आधार नासतना, दक्षिण भारतांत नागाराधना आचरणात आसा ह्या एकाच आधाराच्या बळार तुळू लोकांक जावं मलयाळी लोकांक नागकुळाचे अशें थोडेजण म्हणटात ती शाणेपणाची गजाल न्हीं. तशें म्हणपाक हाचे परस चड प्रमाणांची आनी संशोधनाची गरज आसा. ताचें कारण म्हणल्यार शिवाराधना आनी नागाराधना ह्यो एकामेका कडेन लागींच्यान संबद्ध आसात. अशें आशिल्ल्यान बुद्धपुर्व काळांतच उत्तर भारतांतल्यान येवन दक्षिण भारतांत *स्थायिक* जाल्ले *अग्निपूजक* आशिल्ल्या ब्राह्मणांकडच्यानच दक्षिण भारतांत शिवाराधना आनी नागाराधना लोकांच्या आचरणांत आयिल्ली अशें म्हणप तर्कसंगत आनी प्रमाणयुक्त थारता. भगवान बुद्धा उपरांत उत्तर भारतांत जाल्लें

---

1 Ancient India page 367 by V. D. Mahajan M. A.

धर्मपरिवर्तन, यज्ञांचेर आयिल्ले निर्बंध, राज्यक्रांती, सतत आयिल्लीं परकी आक्रमणां आदी कारणांक लागून उत्तर भारतांतलो प्राचीन धर्म समूळ उद्ध्वस्त जालो. त्या खातीर उत्तर भारतांत आतां धर्मीक श्रद्धा संकेत आनी चाली चलणुको आदल्या मूळरुपांत उरिल्ल्यो नात. प्राचीन वैदिक धर्माचो खंयचोय एखादरो अवशेष मूळ रुपांत उरला आसत जाल्यार तो दक्षीण भारतांतूच अशें म्हणपाक जाता.

उत्तर भारतांतल्यान येवन दक्षिण भारतांत स्थायिक जाल्ल्या सारस्वत ब्राह्मणांकडच्यानच दक्षिण भारतांत शिवाराधना आनी नागाराधना आचरणांत आयिल्ल्यो म्हणपाक एक–दोन प्रमाणां आसात. शिवाराधना आनी नागपूजा सारस्वत ब्राह्मणांक करपाचें बंधनकारक आसा. म्हणल्यार पयल्यान पयलीं 'मंगेश' हो देव वा महाशेष आनी शिवलिंगा सांगातान आसपी देव हो सारस्वतांचो कुळदेव. दुसरें म्हणल्यार सारस्वतांच्या लग्नांनी वधुवरांनी नागपूजा करपाकूच जाय अशें आसा. आतांचीं लग्नां एक वा दोन दिसांनी नाटकांतल्या देखाव्यांवरी जावन वतात. पूण आदल्या काळार सारस्वत ब्राह्मणांगेर आठ दीस लग्नां चलतालीं. आनी तातूंत चवथ्या दिसा नागोली वा नागबली नांवाचो विधी जाता. तो विधी अपस्तंब गृह्यसूत्रांत सांगिल्लो आसा. नागोली विधींत तांदळाच्या पिठाचे आठ नाग करून दर एका नागाक दोन प्रमाण सोळा तांतयां करून केळीच्या पानाचेर दवरून वधुवरान मेळून तांची पुजा करपाची आसता. पूजा जाले उपरांत पुरोहीत वधुवरांक दोळे धांपपाक सांगता आनी तांणी दोळे धांपल्या उपरांत पुरोहित त्या नागांक पाताळांत धाडटा. म्हणल्यार त्या खातीर पात्रांत भरून दवरिल्ल्या उदकांत तांकां बुडयता. वधुवरान ती करणी पळोवंक फावना.

अग्नीचो प्रतिनिधी म्हूण मानिल्ल्या अश्वत्थ रुखाच्या मुळांत नाग प्रतिष्ठापना करपाची आसता; अश्वत्थ आनी नागाचे पूजेच्या काळांत तांका जानवें घालप, मेल्लो सोरोप दिसलो जाल्यार विधिपुर्वक ताचो दहन संस्कार केले उपरांत उत्तरक्रिया करपाचो विधी करप म्हणल्यार अश्वत्थ आनी नाग हांकां ब्राह्मण मानप हाचे वयल्यान नागाराधना ही अग्निपूजक आशिल्ल्या ब्राह्मणांकडच्यानच आचरणांत आयली म्हूण सिद्ध जाता. ताचें कारण अग्नी होय बी ब्राह्मण अशें मानतात.

दिवंगत राष्ट्रकवी श्रीमान मंजेश्वर गोविंद पै हांणी फाटीं तेंकनाडी साहित्य

संमेलनाच्या नेमाळ्यांत प्रकाशित 'तुळुनाडू पूर्वस्कृती' नांवाच्या लेखांत (पान 6–वळ 4) ''वेदांभितर सर्प ह्या अर्थान नाग हो शब्द नाशिल्ल्या कारणान संस्मरणांत तांच्या नांवान न्हावन घेवचें पडटा'' अशें म्हणलां पूण तांचें तें विधान पाश्चिमात्य विद्वानांनी आधाराविणें मांडिल्ली कल्पना तपासून पळयनासतना खरी म्हूण मानून घेतिल्ल्याचें फळ म्हणूं येत. तांणी स्वता विचार करून तें म्हणिल्लें ना अशें म्हणचें पडटा. वेदांनी 'नाग' हो एकूच न्हीं तर हेर अनेक शब्द नात. ते सगळे शब्द वेदांनीं वापरिल्ले नात अशें म्हणपा वांगडाच ते शब्द वेदांचे भाशेंत नाशिल्ले अशें म्हणलें. वा ते वेद भाशेंतले न्हीं म्हणलें म्हूण तें म्हणणें सिद्ध जावचें ना. नाग शब्दाचें मूळ 'नग' ह्या संस्कृत शब्दांत आसा आनी 'नग' शब्द अथर्व वेदांत वापरलां. *''यानि नक्षत्राणि दिव्यंतरिक्षे अप्सु भूमौ यानि नगेषु दिक्षु । प्रकल्पयंश्चंद्रमायानैति सर्वाणि ममैतानि शिवानिसंतु. ।।19-8-1 ।।*

अर्थ – द्युलोकांत, अंतरिक्षांत, जळांनी, भुंयेत, पर्वतांनी आनी दिकांनी खंयचींय नक्षत्रां आसतना आनी चंद्र मार्गक्रमण करतासतना खंयच्या नक्षत्रांक सन्मानीत करता तीं सगळीं नक्षत्रां म्हाका कल्याणकारी जावं.

संस्कृतांतलें 'गम्' = वच वा चल' अशा अर्थाचो धातू नाम रुपान दुसऱ्या शब्दां वांगडा जोडून येता तेन्ना 'ग' रूप घेता. देखीक – 'अनुग = फाटोफाट वचपी', 'उरग = छाती फुडें काडून (धिटायेन) चलपी आदी. तशेंच तो निषेधार्थक 'न' ह्या अव्ययाक मेळून 'नग = चलून वचपाक शकना तसो' ह्या अर्थाचें नाम जाता आनी 'पर्वत' तसोच 'सर्प' ह्या अर्थान तो वापरतात. तो 'नग' शब्द ताचें अपत्य वा संतती ह्या अर्थान परिवर्तित केलो जाल्यार ताचें रूप व्याकरणाच्या नेमांक अणसरून 'नाग' अशेंच जाता. आनी पर्वताची संतती 'नाग' हाचो 'हती' असो अर्थ, सर्पाची संतती 'नाग' हाचो सर्प असो अर्थ व्यक्त करता. सर्पाची संतती सर्प न्हीं जावन दुसरी कितेंय जावं येता व्हय ? अशे तरेन 'नग' ची संतती नाग म्हणपाचें एकदम स्पश्ट आसा. त्या खातीर नाग हो शब्द संस्कृत भाशेंतलो न्हीं अशें म्हणपांत कांयच दम ना हें सिद्ध जाता.

सर मोनियर विलियम्स् नांवाच्या संस्कृताच्या महापंडितान आपणे रचिल्ल्या संस्कृत – इंग्लीश शब्दकोशांत नाग शब्दा संबंदान मुखार दिल्ले तरेन विसकावणी दिल्ली आसा – 'नाग – Nāga (Prob. neither fr. na-ga nor fr. nagna) म्हणल्यार 'नाग' हो शब्द 'नंग' शब्दापसून वा 'नग्न' शब्दापसून घडपाक शकना अशें

ताणीं म्हणलां. संस्कृताचे महापंडीत आसून ते 'नाग' शब्द 'नग' शब्दांतल्या घडपाकच शकना अशें जें म्हणटात ताचें खूब अजाप दिसता. भोव करून तांणीं ''आ लोकांनीं नागाराधना हेर लोकांकडच्यान घेतली'' हे ब्रिटीश विद्वानांनी फुडें हाडि कल्पनेचे समर्थन करपाच्या उद्देशान तशें म्हणलां आसतलें अशें दिसता.

*****

# दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत सारस्वत ब्राह्मण

शक 1432 (क्रि.श. 1510) वर्सा पुर्तुगेजांनी गोयांचेर आक्रमण करून गोंय जिखले उपरांतच सारस्वत ब्राह्मण गोयांतल्यान *विस्थापित* जावन तुळुनाडूंत *स्थायिक* जाले अशें चडशे धरून चलल्यात. पूण वास्तवीकपणान पुर्तुगेज लोक भारता वटेन येवपाक लागले तेन्नाच्यान अनेक शेंकड्यां पयलींच गोंयांचे दक्षिणेक आशिल्ल्या पश्चिमी करावळींतल्या गांवांनी सारस्वत ब्राह्मणांच्यो बऱ्योच व्हडल्यो वस्त्यो आशिल्ल्यो म्हणपाक तांकां संबंदीत थोडीं प्राचीन देवळां प्रत्यक्ष प्रमाणांच्या रूपान अस्तित्वांत आसात. फाटीं कर्कळ हांगाच्यान उजवाडा येवपी शक्ती नांवाच्या म्हयनाळ्यांत दिवंगत मंजेश्वर गोविंद पै हांणी शक 1215 (क्रि. श. 1293) वर्सा मंजेश्वरांतलें श्रीमदनंतेश्वर देवालय सारस्वत ब्राह्मणांच्या वंशात आशिल्लें अशें म्हणून देवस्थान आसपाक जाय जाल्यार तांची व्हडली वस्ती आसचीच पडली, अशें मत तांणी त्या लेखांत मांडलां. पूण त्या काळांत श्री पै हे मंगळुरांतल्या गोल्लरकेरी गणपती देवालया सामकार आशिल्ल्या आनी दुसऱ्या बंकिदेव राजाच्या शासन काळांत शक 1225 (क्रि. श. 1303) वर्सा सारस्वत ब्राह्मण वामन सेनभवर हाका तीन देवालयांनी निवेदाचो खर्च चलोवपाखातीर व्हडली जमीन त्या राजान दान करून बरोवन दिल्लो शिळालेख पळोवपाक पावले ना. म्हणल्यार तो लेख शकाच्या तेराव्या शेंकड्या पयलीं दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत सारस्वत ब्राह्मण आनी ताचीं देवळां आशिल्लीं अशें म्हणटा. अशें आसलें तरी सारस्वत ब्राह्मण तुळुनाडूंत आयिल्ले तो निश्चित काळ केन्नाचो ते विशीं सांगपाक गरजेचीं आशिल्लीं प्रमाणां आजून मेळिल्लीं नात. पूण तुळूनाडूंत *स्थायिक* जाल्ल्या सारस्वत ब्राह्मणांचो इतिहास तुळुनाडूचेर राज्य करपी आळू वंशाच्या राजघराण्याकडेन लागींच्यान संबद्ध आसा अशें निश्चितपणान म्हणूं येत. त्या खातीर ते आयिल्ले तो काळ *निर्धारित* करचे पयलीं आळू वंशाच्या राजांच्या इतिहासाचो *संक्षिप्त* रीतीन तरी विमर्श घेवपाची आवश्यकताय आसा.

साधारण शालिवाहन शकाच्या चवथ्या शेंकड्याच्या पयल्या अर्दांतल्यान धरून पंदराव्या शेंकड्याच्या अन्ता मेरेन उद्यावर, बारकूर, मंगळूर आदी नगरां राजधानयो करून तुळुनाडूंत शासन चलयल्ल्या आळु वंशाच्या राजांकडेन सव्या शेंकड्याच्यान सारस्वत ब्राह्मणांचो संपर्क आशिल्लो अशें दिसता. पूण त्या संबंदान आजमेरेन कसलेंच

*लिखित* प्रमाण मेळिल्लें ना. पूण शकाच्या पांचव्या शेंकड्याच्या निमाण्या भगांत राज्य करपी मारम्मा आळ्वरसाचे दोन शिळालेख उद्यावरांतल्या शंभूकल्लू भैरव देवालया सामकार मेळ्ळ्यात आनी त्या शिळालेखांनी शैवपंथी गोरवाचो उल्लेख आसा :- ''स्वस्ति श्री मारम्मा आळ्वरसर कोळ्ळलनकरक्के करसी नायगनाळ्द् कायिसिदो ओदेवूर नकरसहित्त सकल श्री आळ्गळ् गोरवरू'' ह्या लेखांत भोवमान फावो जाल्लो गोरव भैरवोपासक आशिल्लो तसोच काश्मीरी काळामुख ब्राह्मण पुजारी आशिल्लो अशें दुबावा विरयत म्हणूं येत. आनी तोच उपरांतलो *स्थानिक* ब्राह्मण आशिल्लो अशेंय खात्रेन म्हणपाक जाता. अर्थांत शकाच्या पांचव्या शेंकड्यांतूच काळामुख गोरव तुळुनाडूंत आशिल्ले म्हूण सिद्ध जाता. सामान्यतायेन शैवपंथी काळामुख ब्राह्मण आशिल्लेकडेन शैवपंथी सारस्वत ब्राह्मण आसतातूच. म्हणल्यार काळामुख गोरव हे शिव, भैरव, शक्ती आदी दैवतांचे पुजारी म्हूण रावताले. ते लोकांच्या धर्मीक संस्कारांनी पौरोहित्य करिनाशिल्ले. तेच तरेन सारस्वत ब्राह्मण हे देवतांच्या मूर्तींचे अर्चक म्हूण काम करिनाशिल्ले, त्या खातीर आळु राजांच्या धर्मीक संस्कारांनी पौरोहित्य करपाक सारस्वत ब्राह्मण आशिल्ले अशें म्हणपाक जाता. कारण त्या काळांत तुळुनाडूंत विंगड वर्गाचे ब्राह्मणच नाशिल्ले, आनी आसपाची शक्यताय नाशिल्ली. त्या शिवाय उपरांतल्या थोड्या शिळालेखांनी सेनभव, सहनी आदी सारस्वत ब्राह्मणांच्यो उपाधी दिसून आयिल्ल्यान त्या लेखांच्या काळापरसय पयलींच्यान तुळुनाडूंत सारस्वत ब्राह्मण आशिल्ले म्हणपाक जाता. त्या भायर आळु राजांची राजवट दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत सीमित उरनासतना कोंकण म्हणल्यार उत्तर कन्नड जिल्लोय बी तांच्या शासना भितरच येतालो.

आळु आनी अरसु (राजा) हे दोन शब्द मेळून फुडारांत आळ्वरसु अशें रूप घडलें. कांय काळा उपरांत तांचें आळ्वा आनी आळुप जालें आनी निमाणें आळुव आनी आळुप जावन स्थिर जालें. पूण चालुक्य मंगलेशान चालुक्य कीर्तिवर्मनाक उद्देशून शक 524 वर्सा बरोवन घेतिल्ल्या महाकुटांतल्या शिळास्तंभावयल्या लेखांत कीर्तिवर्मनान जिखिल्ल्या राजांच्या नावांचे वळेरेंत बरयल्ल्या 'आळुक' शब्दान एके विचित्र कल्पनेक वाव दिला. म्हणल्यार आळुख हो शब्द आळुप ह्या शब्दा बदलाक आयिल्ल्यान आळुक वा आलुक हो शब्द संस्कृतांत महाशेषाचें नांव म्हूण आयिल्ल्या

कारणान आळुप हे नाग कुळांतले आसपाक जाय असो डॉक्टर फ्लीट नांवाच्या एका ब्रिटीश विद्वानान आपणालो तर्क व्यक्त केल्लो.

उपरांत मंजेश्वराचे श्रीमान गोविंद पै हाणीं आपणाल्या तुळुनाडू ह्या लेखांत फ्लीट सायबाच्या तर्काक समर्थन दिता आसतना आलुक शब्द हेमचंद्राच्या अभिधान चिंतामणीत महाशेष ह्या अर्थान आयला अशें म्हणून, नागशब्द संस्कृत मुळाचो न्हीं म्हूण बरयलें. ते उपरांत डॉक्टर भास्कर आनंद सालेतूर हांणी आपणाल्या तुळुनाडूचो इतिहास पुस्तकांत पयल्या दोगांयच्या कल्पनांक समर्थन दिलें इतलेंच न्हीं जाल्यार आळुप राजा हे नाग कुळाचेच आशिल्ले म्हणपाक आधाराखातीर मंगळुरांतल्या गोल्लर गणपती देवालयाच्या सामकार आशिल्ल्या आळुप राजांच्या शिळास्तंभांच्या लेखांत फणा फुलयल्ल्या नागाचें चित्र [1] आसा म्हूण *सूचित* केलां. पूण तांणी ते कांतावणेतल्या नागाच्या उजव्यान आनी दाव्यान ब्रह्मा आनी शिवाचीं चित्रां कांतायल्यांत तीं तपासून पळोवंक नात अशें म्हणल्यार चूक जावंचें ना कारण वास्तवांत त्या खांब्यावयल्यो मूर्ती ब्रह्मा, शेषशायी विष्णू आनी शिवाच्यो आसात. ताचें विवरण मुखार येता.

पूण कोणेच एकट्यान डॉक्टर फ्लीट हाचो तर्क सारको आसा काय कितें ताचेर विमर्श करपाक हात घाल्लो ना. विंगड तरेन सांगचें जाल्यार मंगलेशान महाकूटांतलो शिळालेख बरोवन घेतिल्लो काळ शकाच्या सव्या शेंकड्याचो पयलो चरण आसून हेमचंद्रान अभिधान चिंतामणी रचिल्लो काळ बाराव्या शेंकड्यांतलो आशिल्लो, हेमचंद्रापरस प्राचीन आशिल्ल्या अमरसिंहान रचिल्ल्या कोशांत आलुक हो शब्द ना, सव्या शेंकड्यांत आळु वंशांतल्या राजांक 'आळुप' अशें म्हणनाशिल्ले, आलुक शब्दाचें मूळ कितें असल्या अनेक गरजेच्या प्रस्नांचेर एकट्यानय सादक बादक विचार करूंक ना. आनी हेर मुख्य मुद्देय बी कडेक काडल्यात. म्हणल्यार पयल्यान पयलीं महाकूट शीळा लेख बरोवपाच्या काळांत आळु वंशाच्या राजांक 'आळुप' म्हणटाले म्हूण दाखोवपाक कसलेंच प्रमाण ना. दुसरी गजाल म्हणल्यार आळु वंशाच्या राजांक 'आळोक' अशें म्हणिल्ल्याचीं वेगळीं प्रमाणांय ना. आळुक हो शब्द तो शिळालेख

---

1 The Naga origin of the Alupas which is thus suggested here is proved by two facts, the figure of a hooded Serpent which is found in an effaced Alupa stone inscription in the Gollar Ganapati temple at Mangalore and the ultra Saivite tendencies of the Alupas..Pg-61

बरयलो त्या काळांत वापरताले अशें *गृहित* धरून चल्ले तरी 'आळुक' हो शब्द 'आळुप' शब्दाखातीर वापरताले अशें म्हणपाक वा त्या शिळालेखांत 'आळुक' शब्द महाशेष ह्या अर्थान वापरताले अशें म्हणपाकय कितेंच आधार ना. तशें म्हणटलो जाल्यार तें लेखन करपी मनशान 'आळुप' बरयता आसतना चुकून 'आळुक' बरयलें आसतलें. ना जाल्यार वाचतल्यांनी आळुक अशें वाचले बगर आळुक हो शब्द महाशेष अशा अर्थान वापरला अशें म्हणप साध्य जायना. तात्पर्य सांगतलो जाल्यार आळु वंशाचे राजा नाग कुळांचे आशिल्ले म्हणटात ते कल्पनेक कसलोच आधार ना. इतलेंच न्हीं तर आळु राजांकडेन *संबंधित* अशा खंयच्याच एका शिळालेखांत ते नाग कुळाचे म्हूण तर्क करपाक आदार जायत असो एखाद्रो संकेतय बी मेळपा सारको ना. ताचे उरफाटो ते चंद्रकुळाचे अशें म्हणपी स्पश्ट लिखीत आदार आसात. पृथ्विसागर आळुपेंद्राच्या (शक 652-72) शीळा लेखांत 'सोमवंशोद्भव' अशें श्री कुंदवर्म आळुपेंद्र हाणे शक 890 वर्सा बरोवन घेतिल्ल्या कद्री लोकेश्वराच्या पीठांतल्या शिळालेखांत 'सोमकुलांभोज' अशें स्पश्टपणान बरयल्लें आसा.

आनी गोल्लर गणपती देवालयाच्या सामकार आशिल्ल्या तिलास्तंभावयल्या शिळालेखाच्या[1] संबंदान सांगतलो जाल्यार तो शक 1225 त तुळुनाडूचो राजा जावन गादयेर आयिल्ल्या दुसऱ्या बंकिदेवान आपणाले आवयच्या श्राद्धा दिसा वामन सेनभव नांवाच्या सारस्वत ब्राह्मणाक, नीरेश्वाल्य हांगा तीन देवालयांतल्या ब्रह्मा, विष्णू आनी महेश्वर ह्या देवांक निवेद दाखोवपाचो खर्च चलोवपाखातीर विधिपुर्वक व्हडली जमीन दान करून बरोवन दिल्लो शिळालेख आसा. अशें आसून त्या शिळास्तंभाचेर बरोवपाक सुरवात करचे पयलीं चतुर्मुख ब्रह्मा, उपरांत महाशेशाच्या शरीराच्या आसनाचेर न्हिदिल्लो विष्णु आनी ते उपरांत चंद्रशेखर रूपांतलो शिव अशे तीन विग्रह प्रमाणबद्ध रीतीन कांतायल्ले आसात. सशीं वर्सां परस प्राचीन आशिल्ले ते विग्रह वाऱ्या–पावसान मातशे सडून गेल्ले आसले तरी बारीक नदरेन तपासून पळयल्यार तांची वळख मेळटा. डॉक्टर सालेतूरान त्या तीन विग्रहां मदली फकत महाशेषाची फणा तितलीच पळयल्ली अशें दिसता.

श्रीमान मंजेश्वर गोविंद पै आनी डॉक्टर सालेतूर हांणीं आपणाले लेख

---

1 Ancient Karnataka, History of Tuluva - Pg. 59

उजवाडायले त्या काळांत आळुराजांच्या नाण्याकडेन *संबंधित* संशोधन पुराय जावं नाशिल्लें. पूण 1695 वर्सा 'The Journal of the Numismatic Society of India' Vol 27 part 1 नांवाच्या पुस्तकांत श्रीमान मंजेश्वर मुकुंद प्रभू हांणी एक लेख उजवाडायला. तातूंत तांणीं दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत मेळिल्ल्या आळुप राजांच्या नाण्यांकडेन *संबंधित* नाण्यांच्या मुद्रण सांच्या सयत विस्तृत अशे पद्धतीन विवरण दिलां. अनेक नाण्यांचे एके वटेन 'पांड्यधनंजय' अशें नांव कन्नड लिपींतल्यान *मुद्रित* केलां जाल्यार दुसरे वटेन एका छप्परा पोंदा दोन मासळ्यो मुद्रीत केल्ल्यो आसात आनी तांचे दावेवटेन उदकाचो कळश आनी उजवेवटेन चामरी (चंवरी) आसा. हेर नाण्यांचेर 'पांड्यधनंजय' हो शब्द नागरी लिपींत आसा. निमाणे निमाणे आळुप राजांनी आपणाल्या नांवा वांगडा 'पांड्यचक्रवर्ती' हें बिरूद धारण केल्ले कारणान आनी तीं नाणीं दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत मेळिल्लीं आशिल्ल्यान 'पांड्यधनंजय' हें बिरूद धारण केल्लो राजा आळुवंशाचोच हातूंत दुबाव आसपाची गरज ना. त्या शिवाय आळुराजाच्या एक, दोन शिळालेखांनी पांड्यधनंजय असो उल्लेखय बी आसा.

डॉक्टर सालेतूर हाणे 'आळव' शब्दाचें मूळ तमीळ 'आळू' हो धातू न्हीं असो अभिप्राय व्यक्त केला.[1] पूण तो सारको अशें म्हणू नजो कारण आळु राजांचे चडावत शिळालेख आंध्री लिपींत आसात आनी तांचे भितर वापरल्यात ते अनेक शब्द हळेगन्नडांतल्या सारके नांत तर ते तमीळ शब्दां सारके आसात. देखीक – नकर, नायग, मुडिमे आदी. त्या भायर उत्तरेक कन्नड आनी दक्षिणेक मलेयाळी हांचे मदीं आशिल्ले तुळू भाशेंतलीं सर्वनामां आनी थोड्या नाम शब्दांची कन्नड जावं मलयाळी कडेन तुळा जायना पूण तमीळ शब्दां कडेन जाता तें पळयल्यार आळुप राजांचें तमीळ मूळ ते सुचयतात अशें दिसता. तशेंच आळुप राजा कुंदवर्मनान कद्री देवालयांतल्या लोकेश्वराच्या पीठाचेर कांतावन घेतिल्लो संस्कृत शिळालेख तमीळ ग्रंथ लिपींत आसप आनी गोल्लरकेरी गणपती देवालया सामकार आशिल्लो शिळालेख आंध्री लिपींत आसलो तरी त्या शिळा स्तंभाच्या माथ्यार तमीळ लिपींतलीं वाक्यां आसप आळुवंशी राजाचो तमीळ संबंध दाखोवन दितात. तशेंच हाचे आदीं वर्णन केल्यात त्या पांड्यधनंजयाच्या

---

1 तो शीळा लेख ह्या ग्रंथाच्या लेखकाच्या घराण्यातल्या वडलांकडेन संबंधीत आशिल्ल्यान ताची खरी इतिहासीक म्हायती लेखक जाणा.

नाण्यांचेर मासळ्यांची मुद्रा आसप आनी आळुवंशाच्या निमाणेकडच्या राजांनी पांड्य चक्रवर्ती हें बिरूद धारण करप हें सगळें ताचें तमीळ मूळ आनी तमीळ राजघराण्याकडेन तांचे आशिल्ले निकटचे संबंध सिद्ध करतात. पूण आळुवंशी हे पयलींच्यानच पांड्यवंशी आशिल्ले अशें म्हणपाक जावचें ना. आनी शेवटा शेवटाच्या राजांनी पांड्यचक्रवर्ती अशें बिरूद कित्याक धारण केल्लें तें सांगपाक जावचें ना. आनी त्या घराण्यांत 'आळेय संतानकट्टू' असो संदर्भ केन्नाच्यान आनी कित्याक आयलो तेंय सांगप कठीण. अशें आसलें तरी आळु राजा आपणाल्या नांवावांगडा 'आळु' हो शब्द देवाचे दास वा भक्त ह्या अर्थान वापरताले जावंये असो अदमास करूं येता.

दक्षिण भारतांत सारस्वत ब्राह्मणांक लागूनच नागपूजा आचरणांत आयिल्ली आनी आळु वंशांच्या राजाकडेन सारस्वत ब्राह्मणांचो संपर्क आशिल्लो हें म्हणणें सिद्ध करपाच्या उद्देशान नागकूळ आनी आळू वंश हांचे संबंदान इतली बारीकसाणेन चर्चा करपाची गरज पडली म्हूण वेगळें सांगपाची गरज ना. म्हणल्यार तुळुनाडूंत महाशेषाचीं तशींच शिवलिंग आशिल्लीं आनी पंचायतन देवता आशिल्लीं अशीं देवळां आसात. तशेंच त्या देवालयाच्या स्थापनाकाळाकडेन तुळुनाडूंत सारस्वत ब्राह्मणांचे वसतीची प्राचीनताय संबद्ध जाल्ली आसा. सारस्वत ब्राह्मण नागा सांगातान रावपी शिवाचे आराधक आशिल्ल्या कारणान तीं देवालयां निश्चितपणान सारस्वत ब्राह्मणांकडेन संबंधीत आसात. आनी तांचे स्थापनेक सारस्वत ब्राह्मणच कारण थारल्यात. शिवाय गोयांत सारस्वत ब्राह्मण भजतात त्या सगळ्या देवतांचीं देवळां प्राचीन काळांतय तुळुनाडूंत आशिल्लीं आनी तातूंतलीं चडशीं आजून आसात. म्हणल्यार तुळुनाडूंत शिवालयां, शक्त्यालयां, नागालयां, भैरवालयां, वीरभद्राचीं देवळां, विष्णूचीं देवळां, सूर्याची देवळां, गणपतीचीं देवळां, बेताळाचीं, भगवतीचीं; अनेक देवळांनी देवतापंचायतन आसात, सप्तमातृकांचीं आसात; सप्तमातृका म्हणल्यार ब्राह्मी, माहेश्वरी, कौमारी, वैष्णवी, वाराही (=वराहाचें मुख आशिल्ली), इंद्राणी आनी चामुंडा अशो सात देवी; अशे तरेन तुळुनाडूंत तरेकवार देवतांचीं हजारांनी देवालयां आशिल्लीं. त्या सगळ्या देवालयांनी काळामूख गोरव हेच अर्चक म्हूण आसताले. तशेच चडांत चड देवालयांचे पुराय अधिकार गोरवांक आशिल्ले. शैवपंथी आसपी आळुप राजांनी त्या देवालयांक भेटेच्या रूपान जमनी सोडिल्ल्यो.

मंजेश्वरांतलें श्री मदनंतेश्वर देवालय, मंगळुरांत करंगलपाडींतलें शिवालय आनी गोल्लरकेरींतलें गणपती देवालय – हीं तीन सारस्वत ब्राह्मणांचीं स्वतंत्र देवालयां आशिल्लीं. आनी मंगळुरांतलें होयिगे (=नीरेश्वालय) हांगा ब्रह्मा, विष्णु आनी महेश्वर नांवांचीं तीन देवालयां सारस्वत ब्राह्मणांच्या *पूर्णाधिकारांत* आशिल्लीं. आतां तातूंतलीं करंगलपाडींतलें शिवालय, गोल्लरकेरींतलें गणपती देवालय आनी मंजेश्वरांतलें श्री मदनंतेश्वर नावांची तीन देवालयांच फकत सारस्वतांच्या अधिकारांत उरल्यांत. हेर तीन देवालयांतलीं ब्रह्मा आनी विष्णू हीं देवालयां आतां नात. ईश्वराचें देवालय हेर वर्गांतल्या लोकांच्या अधिकारांत आसा.

शालिवाहन शकाच्या तेराव्या शेंकड्याच्या अंता मेरेन तुळुनाडूंत सारस्वत ब्राह्मण आनी काळमुख गोरव ब्राह्मणांची संतत आशिल्ल्यान *स्थानिक* ब्राह्मण सोडले जाल्यार हेर जातीचे ब्राह्मण नाशिल्ले. पंदराव्या शेंकड्या परस पयलींच्या खंयच्याच शिळालेखांत हेर ब्राह्मणांचो उल्लेख मेळना. तितलेंच न्हीं तर शकाचो चवथो शेंकडो धरून पंदराव्या शेंकड्याच्या अंता मेरेन तुळुनाडूंत अखंडपणान राज्य केल्ल्या आळुप राजांच्या शिळालेखांनी गोरव ब्राह्मण आनी सारस्वत ब्राह्मण सोडून हेर वर्गांतल्या ब्राह्मणांचो उल्लेख मेळना.

ग्रामपद्धती नांवाच्या एका ग्रंथांत विचित्र तरेन जल्मल्लो कदंब मयूरवर्मा नांवांच्या एका राजान अहिच्छत्रांतल्यान ब्राह्मणांचीं अनेक कुटुंबां हाडून तुळुनाडूंत आनी केरळांत तांची वस्ती निर्माण केली आशी कथा आसा. तेच तरेन कांचीतल्या मुक्कंती पल्लव नांवाच्या राजाच्या नांवानय एक कथा आसा अशें म्हणटात. दिवंगत राष्ट्रकवी मंजेश्वर गोविंद पै हांणी फाटीं साहित्य समिती नांवाच्या नेमाळ्यांत 'हैगा–हैवे' नांवाच्या सदरांतल्या लेखांत त्या दोन कथांचेर *परीक्षण* बरोवन उजवाडायलां आनी त्या कथांनी उबे केल्ले मयूरवर्मा आनी मुक्कंती पल्लव नांवाचे दोगूयजण हे फकत काल्पनिक व्यक्ती अशें म्हणून त्यो इतिहासिक व्यक्ती न्हीं म्हूण सिद्ध केलां. कर्णाटक राज्यांत कदंब राजवंश स्थापन केल्लो तो मयूर राजा स्वता एक ब्राह्मण आशिल्लो. ताणे आपणाले प्राकृत मातृभाशेंत बरोवन घेतिल्ल्या शिळालेखांत स्वताचें 'कदंबाणं मयूरसम्म' म्हणल्यार कदंबाचो मयूरशर्मा अशें नांव बरोवन घेतलां. त्या उल्लेखांतल्यानय ताचे पांचवे पिळगेंतलो आशिल्ल्या शांतिवर्मान बरोवन घेतिल्ल्या

शिळालेखांतल्या उल्लेखा वयल्यानय मयूरवर्माच्या काळांत ताचे स्वजातींतले वा कुळांतले अनेक जण ब्राह्मण आशिल्ले म्हूण सिद्ध जाता. आनी ते सगळेजण कोंकणातले आशिल्ले म्हणपाचेंय बी कळटा.

फुडें पंदराव्या शेंकड्या उपरांत आळुवा राजांचें बळ उणें जाल्ल्यान जैनांचें बळ वाडत गेलें आनी जैनांचें प्रोत्साहन आनी सहकार्यान उत्कर्ष जोडूंक पाविल्ल्या शिवळ्ळींतल्या वैष्णव ब्राह्मणांनी जैनांचो तेंको मेळोवन आपणाले विरोधी आशिल्ले आनी आळुव राजांकडेन लागसार जोडून आशिल्ले आनी त्या भायर शैवपंथी आशिल्ल्या थळाव्या ब्राह्मणांच्या अधिकारांत आशिल्लें एकेक देवालय बळकावन घेवपाक सुरवात केली. आनी देवालयांतलीं शिवाचीं प्रतिकां निखळावन काडून वैष्णव *प्रतीकां* स्थापन करूंक लागले. त्या संबंदान विस्तृतपणान समजून घेवपाक जाय तांणीं डॉक्टर भास्कर आनंद सालेतूर हांणीं बरयल्ल्या 'The Sthanikas and their Historical Importance' नांवाचें पुस्तक वाचूं येता. त्या देवालयांपैकी उडुपींतल्या श्रीमदनंतेश्वर देवालया संबंदान शिवळ्ळीचे श्री. एस. यू. पणियांडी हाणीं ब्रेस्तार तारीक ११ जानेवारी १९३४ दिसा मंगळुरांतलें कन्नड सातोळें 'नवयूग' हाच्या पुरवणी अंकांत उजवाडायल्ल्या 'उडुपीक्षेत्राचो संक्षिप्त इतिहास' नांवाच्या लेखांतल्यान एक वांटो घेवन हांगा दिला.

''सुमार तीन शेंकड्यां आदीं हांगाचे शिव ब्राह्मण आनी माध्वब्राह्मण हांचे मदीं तंटे जावन कलह उपरासलो. ताच्या परिणामातल्यान ह्या माध्वसंन्याशांक चड उपद्रव भोगचे पडले. शिवब्राह्मण प्रबल आशिल्ल्या कारणान हांचें जें मुख्य देवस्थान आशिल्लें त्या श्रीकृष्ण देवस्थानातले पूजेक आडखळ हाडटाले. त्या खातीर थोडे स्वामी गांव सोडून गेल्ले. उपाय नाशिल्ल्यान थोडेच थंय राविल्ले. असलो उपद्रव सोसूंक जायना जाल्ल्यान गांवगिन्या वाठारांतल्या मठांनी बसून धमपोप्रचार करपाखातीरच एके फावटी एकटोच येवन थंय पूजा करतालो. पूण अशे तरेच्या उपायान कसलीच व्यवस्था जाग्यार पडूंक पावली ना.

श्री वादिराज स्वामी त्या काळांतली अव्यवस्था, शिवब्राह्मणांचो उपद्रव पळोवन अस्वस्थ जाले आनी तांणीं ताचे आड एक व्यवस्था उबी करून दवरली. श्री वादिराज स्वामी हे प्रचंड बुदवंत, वादकुशळ, उदार काळजाचे, तेजिश्ट अशे तपस्वी

आशिल्ल्यान तांणी लोकांक आनी तेन्नाच्या राजकी अधिकारी मनशांक रोखडेच आपले वटेन आकर्शित केले. त्या लोकांच्या आनी राजकी अधिकाऱ्यांच्या आदारान शिवब्राह्मणांचो गर्व जिरोवन तांकां उडुपींतल्यान धांवडावन घाले आनी तांच्या हक्काचें आशिल्लें तें श्री मदनंतेश्वर देवस्थान स्वताकडेन घेवन त्या देवस्थानाचो तट मोडून मातयेभरवण करून त्या जाग्यार आठ मठ स्थापन केले आनी अनंतेश्वर देवस्थान तटबंदेंत हाडलें.''

वयल्या उताऱ्यांत उल्लेख जाला ते राजकी अधिकारी म्हणल्यार जैनबल्लाळच आशिल्ले म्हणपाचें डॉक्टर सालेतूर हांणी बरयल्ल्या मुखार दिल्ल्या उताऱ्यांतल्यान समजून घेवंयेता :-

''It is interesting to note in this connection that in this quarrel between the Madhvas led by the redoubtable Vadiraja on the one hand and the Nitturu people on the other, the panchamas (or Harijons as we now would call them) took the side of the Nitturu people against the orthodox sections. And when the Vaisnavas who had installed the Venkataramana image in the place of Somalingesvara at Nitturu, jeered at the latter deity thus in Tulu-Nitturu Somalinga bona Tankara (=तंकरा) tanjana Tankara, the Panchamas retorted with an equally poignant line in Tulu thus Chittupadi Ballalera bente Koryero Nidamburu Ballalera didambu gudyero obviously against the Chittupadi and Nidamburu Ballals who had espoused the cause of the Madhva guru.''

अशे तरेन शिवळ्ळींतल्या लोकांनी आपणालो हक्क स्थापीत केल्ल्या देवालयांतल्यो मूर्ती बदलल्यो इतलेंच न्हीं जाल्यार अनंतेश्वर देवालयांनी महाशेषाचे फणेच्या आसऱ्याक आशिल्लीं शिवलिंगां निखळावन काडून तांच्या जाग्यांचेर विष्णुमुखां लायलीं. तशेंच त्या देवालयांचीं आदलीं श्री मदनंतेश्वर सारकीं नांवां श्री मदनंतपद्मनाभेश्वर ना जाल्यार श्री मदनंत पद्मनाभ स्वामी देवालय अशा नांवांनी *परिवर्तित* केलीं.

आनंदगिरी हाणीं बरयल्ल्या शंकरविजय नांवाच्या ग्रंथांत श्रीशंकराचार्य कुक्केच्या

सुब्रम्हण्य क्षेत्रांत गेल्ले आनी आचार्यांनी शेषरूपी षण्मुखाची पूजा केल्ली (भक्त्यासंपूजयामास षण्मुखं शेषरूपिणम्) म्हणलां ताचो आधार घेवन दुसऱ्या एकट्यान श्रीशंकराचार्यांनी कुक्केच्या देवालयांतल्या देवता पंचायतनाची स्थापना केली म्हूण कथा रचल्या. आतां जाल्यार कुक्केच्या देवालयांतलें देवता पंचायतन वेगळें जावन पडलां. आनी सिंहासनावयलो गणपती *स्थानांतरित* जावन काळखांत कोनशाक पडला. कशेंय आसलें तरी श्री शंकराचार्य कुक्केंत आयिल्ले ही आनंदगिरीची फकत एक कल्पना आशिल्ली, त्या म्हणण्यात खरेपण ना. कशें काय म्हणल्यार आनंदगिरीन स्वताक शंकराचार्यांचो एक शिश्य अशें जरी म्हणलें तरी ताच्या ग्रंथांत श्रीशंकराचार्यांचो एक शिश्य आशिल्ल्या हस्तामलक हाणे गुरूच्या आदेशान दक्षिण भारतांतल्या पश्चिम करावळींत वैष्णव पंथाचो प्रचार करून रजतपीठांत (=उडुपींत) श्रीकृष्णाची प्रतिमा स्थापन केली अशें म्हणिल्ल्यान तो शकाच्या चवदाव्या शेंकड्या उपरांतलो अशें म्हणचें पडटा. त्या शिवाय ताणे बरयल्ल्यो अनेक कथा हेर लेखकांच्या शंकरविजय ग्रंथांनी नात. त्याखातीर ताणे बरयल्ल्यो कथा ह्यो ताच्यो स्वताच्यो कल्पना अशें म्हणपाक जाय.

देवता पंचायतन वा शिवपंचायतन म्हणल्यार पांच पंथांच्यो देवता - शिव, शक्ती, विष्णू, सूर्य आनी गणपती ह्या पांच देवतांचो गूट आसता. शिव पंचायतनाच्यो देवता गोयांतल्या मंगेशाच्या देवळांत प्राचीन काळांतल्यान आसून सारस्वत ब्राह्मण तांची आराधना करीत आयल्यात. त्या खातीर गोयांतल्यान येवन तुळुनाडूंत *स्थायिक* जाल्ल्या सारस्वत ब्राह्मणांनीच तुळुनाडूंत येवन देवता पंचायतानाची स्थापना केली आशें म्हणल्यार चूक जावचें ना. म्हणल्यार आदल्या काळांत तुळुनाडूंत सारस्वत ब्राह्मण आनी *स्थानिक* ब्राह्मण सोडल्यार हेर ब्राह्मण नाशिल्ल्यानच, सारस्वत ब्राह्मणच शिवपंचायतनाचे आराधक आशिल्ल्यान, तांणीच कुक्के हांगा महाशेषाचें देवालय बांदून तातूंत शिवपंचायतन स्थापन केल्लें म्हूण सिद्ध करपाक कसल्याच प्रमाणाची गरज ना.

तुळुनाडू विजयनगर साम्राज्यांत समाविश्ट जाल्लें आसतना सारस्वत ब्राह्मण विजयनगराचे मंडलेश्वर वा शासक ह्या नात्यान तुळुनाडूंत शासन चलयताले तितलो काळ मेरेन कुक्कींत सारस्वत ब्राह्मणांची एक व्हड वसती आसून कुक्के हें एक व्हडलें नगर आशिल्लें अशें दिसता. थंय वाडिल्ल्या रानांत मोडून भूंयभरवण जाल्ल्या नगराचे

अवशेश आजूय दिसतात. त्या भायर कुक्केंत सारस्वत ब्राह्मणांची वसती आसून, कुक्केंतल्या सुब्रह्मण्य देवालयांत सारस्वत ब्राह्मणांकय अधिकार आशिल्ल्यानूच विजयनगराचो मंडलेश्वर आशिल्ल्यान गोवा धरून तुळुनाडू मेरेन पुराय पश्चीम करावळींचें राज्य चलोवपी गोयांतलो सारस्वत ब्राह्मण, वागळे घराण्यांतलो वीरवसंत माधवराय, ताचे उपरांत अधिकाराचेर आयिल्लो ताचो पूत बाचण्णराय ह्याणे सुब्रह्मण्य देवालयांक भूंय दान करून शिळालेख बरोवन दिल्ले अशें म्हणू येता. तितलेंच न्हीं तर 1630 वर्सा सारस्वत ब्राह्मणांनीं विट्ल गांवांत बांदून घेतिल्ल्या देवालयांत प्रतिष्ठापना कारपाक कुक्केच्या सुब्रह्मण्य देवालयांतल्यानच महाशेषाची प्रतिमा हाडिल्ली म्हणपाची इतिहासिक घडणूक सारस्वत ब्राह्मणाकय बी कुक्केच्या देवालयात अधिकार आशिल्लो म्हूण सिद्ध करता. *स्थानिक* ब्राह्मणांचो अधिकार शिवळ्ळींतल्या लोकांनी काडून घेतले उपरांत – सारस्वत ब्राह्मणांकय सुब्रह्मण्या देवालयांत अधिकार ना जालो.

थोडे लोक समजल्यात तशें शिवपंचायतन कुक्केच्या सुब्रह्मण्य देवस्थानातच आसा अशें न्हीं. उळ्ळालांतल्या सोमेश्वर देवालयांतय आसा. तेच प्रमाण नासीक जिल्ल्यात नासीक शारा कडच्यान 18 मैल पयस आशिल्ल्या सिडिनेर हांगाच्या गोंडेश्वर देवालयांतय बी शिवपंचायतन आसा. आनी कितल्या देवालयांनी आसा ते विशीं कळपाचें आसा. उळ्ळालांतलें सोमेश्वर देवालय दर्यादेगेर एका उंचायेच्या जाग्यार आसा. त्या जाग्यार वचपाक सोंपणां आसात. सोंपणां सुरू जातात थंय सोंपणां सामकार पंचदुर्गेचें देऊळ आसा. सोंपणां चडून देवालयाचे भायले प्रदक्षिणेंत देंवल्यार ते प्रदक्षिणेत गणपती, गोपालकृष्ण, विष्णू आनी रक्तेश्वरी ह्या देवतांच्यो देवळ्यो आसात. म्हणल्यार पंचायतनात आसपा सारकी सूर्याची देवळी ना. त्या बदलाक विष्णूकडेन संबंदीत अशो दोन देवळ्यो आसात. अर्थांत सूर्याच्या जाग्यार सूर्या बदलाक गोपालकृष्णाची प्रतिमा दवरप ही गजाल अर्वाचीन बदल म्हूण समजुपाचें. त्या देवालयाचे भितरले प्रदक्षिणेच्या मंटपांत दावेवटेन वीरभद्र आनी गणपती हांचे मदीं सप्तमातृकांच्यो प्रतिमा आसात. त्या संबंदान खोलायेन अभ्यासाची गरज आसा.

सगळ्या परस म्हत्वाचें म्हणल्यार सौराष्ट्रांतल्या दर्या देगेवयल्या सोमनाथ देवालयाकडच्यान सुरवात करून पश्चिमेक दर्या देगेवयल्या उळ्ळाला मेरेन (?) विंगड विंगड जाग्यांचेर सोमनाथाचीं वा सोमेश्वराचीं देवालयां आसप हो कसलो संकेत

त्या संबंदान सोद घेवपाचीय बी गरज आसा.

मंगळुरांतलें गोल्लरकेरी हांगाचें गणपती देवालय मंगळुरांतल्या बंदरांत आशिल्ल्य वखारींनी व्यापार करपी बस्तीकारांच्या घराण्यांकडेन जोडिल्लें आसून त्या देवालय सामकार आशिल्ल्या शिळास्तंभाचेर बरयल्ल्या लेखांत उल्लेख केल्ले भुंयेचें दा बस्तीकारांचे पूर्वज ''वामनसेन भव'' हांका लाभिल्लो. तें गणपती देवालय तांच्य स्वत:च्या घराकडेन संबंदीत आशिल्ल्यान तांच्या घराच्या वाठारा भितर म्हणल्या प्राकारा भितर आशिल्लें. तशें आसतनायबी देवालयांतल्या गणपतीच्या निवेद्याखाती आदल्या राजांनी जमीन दान करून गणपतीच्या नांवान शिळालेख बरोवन घेतिल आनी ते देवालयाचे गर्भकुडींतच उरताले. ब्रिटीश ईस्ट इंडिया कंपनीचें शासन सुरु जाले उपरांत सरकारान गणपती देवालय आशिल्लें त्या पठारा मदल्यान मा काडिल्ल्या कारणान आतां गणपती देवालया मुखावयल्यान मार्ग जावन पठारीचे दो भाग जाल्यात.

गणपती देवालयाचे उजवेवटेंतल्यान वचपी मार्गाचे दोनूय वटांनी गोल्लरांतलीं घर आशिल्ल्यान त्या वाठाराक गोल्लरकेरी म्हणटाले. त्या देवालयाचे फाटले वटेंतल्यान सुरू जावन बीबि–आलाबी सामकार आशिल्ल्या मार्गामेरेन वचपी मार्गाच्या दोनूय वटांनी आशिल्लो घरांचो फाटलो वाठार वामनसेनभवर हांच्या अधिकारांत आशिल्लो तांच्या वारसांतल्यानीं (संततीन) एक वाठार जैनांक वसती बांदपाक दिल्ले कारणान तांच्या घराण्यातल्या मनशांक बस्तीक (वसतीक) फाटलो वाठार दिवपी अशा अर्थान सुरू जाल्लें आडनांव उपरांत 'बस्तीयवरू' (बस्ती दिल्ले) अशा रुपांत बदललें. देवालया सामकारलो वाठार आनी एके हारेन घरां आशिल्लीं तो वाठार अनेक वर्सां आदीं मेरेन बस्तीं कुटुंबाच्या अधिकारांत आशिल्लो. गणपती देवालया मुखार आशिल्ल्या शिळास्तंभावयल्या बरपांतल्या मजकुराविशीं हाचे उपरांतले विस्कावणेंत उल्लेख आयल्यात.

त्या शिळालेखांतलो शक आनी तिथी क्रि.श. 1302 एप्रील 1 हे तारकेक जुळटा. जाका भूंय दान मेळिल्ली तो वामनसेनभवर राजाचो भोवमान म्हूण 51 कद्याण म्हणल्यार 765 रुपया जमा करचे पडटाले. त्या लेखांत उल्लेख आसा त्या नीर देवालयाक आतां नीरेश्वाल्य म्हूण वळखतात तें नीरशिवालय वा सोमनाथ लिंग आसा

तें शिवालय. त्या काळांत एक व्हाळ देवालयाकुशीच्यान व्हांवतालो आसपाक जाय. आनी तो व्हाळ पयस गेले उपरांत थंय रेंवट उरिल्ल्यान त्या प्रदेशाक होयिगा म्हणटाले जावंये. देवालया कुशीच्यान व्हाळ व्हांवतालो आशिल्ल्यान ताका नीर देवालय अशें म्हणटाले अशें दिसता. वा पावसाच्या दिसांनी व्हाळाचें उदक देवळा भोंवतणी येतालें आसत. त्या काळांत आळुप राजाचो राजम्हाल जप्पुवींत आशिल्लो. आतां त्या जाग्यार युरोपियनांचो क्लब आसा. (लेखकाचे हें पुस्तक 1968 वर्सा उजवाडायलां)

शिळालेखांत बरयल्ले प्रमाण राजान स्वता नीर देवालयांत येवन, देवामुखार रावून लेखाचें वाचन आयकल्लें आनी उपरांत तो जमीन दाना सयत शास्त्रोक्त पद्धतीन उदक सोडून वामनसेनभंवर हाचेकडेन हस्तांतर केल्लो म्हूण सिद्ध जाता. [1]

आतां तो शिळालेख गोल्लरकेरी गणपती देवालया मुखार आसा ताचे वयल्यान राजान तो बरयल्लो स्तंभ दान केले उपरांत वामनसेनभंवर हाणे तो नीर देवालयांतल्यान उखलून हाडून आपणाल्या घराच्या वाठारांत आशिल्ल्या गणपती देवालयाचे कुशीक उबो केलो म्हूण सिद्ध जाता.

स्तंभावयल्या लेखांत उल्लेख जाला तो राजा दुसरो बंकिदेव ताची आवय महाराणी मोचल महादेवी शिवसान्निध्यांत पावले उपरांत शक 1225 वर्सा म्हणल्यार क्रि. श. 1303 त शिंवासनार आयलो. राजान ते भूंयदान आवयच्या श्राद्धा दिसा केल्लें ताचे वयल्यान दान दिल्ली भूंय खूब विशाल आसून राजान स्वता देवालयांत येवन तें दान शास्त्रोक्त पद्धतीन दिल्लें आशिल्ले कारणान ताचो स्वीकार करपी ब्राह्मण कोण सामान्य नासून राजाचो पुरोहीतच आशिल्लो जावपाक जाय.

शिळालेखांत ज्या देवांक निवेद्य दाखोवपाक अशें म्हणून उल्लेख जाल्लो आसा तीं ब्रह्मा, विष्णू आनी महेश्वर देवालयां नीरेश्वाल्यांत म्हणल्यार आतां ज्या थळाक 'बिदिरिन बंदरु' (बांबू बंदर) नांवान वळखतात थंय म्हणल्यार रेल्वे गुडस् ऑफिस आसा त्या मार्गा कुशीक एके हारेन दोना मदीं शंबर यार्डांचें अंतर सोडून आशिल्लीं.

---

1 This epigraph, we may incidentally observe, is called a " शीलासंकेत" evidently because it was an agreement arrived at by the people and the King. In fact, the last sentence invokes a blessing on the ruler who was present on the occasion - *Ancient Karnataka, Pg. 132*

आतां तातूंतलें नीर शिवालय वा सोमनाथ देवालय एकूच उरलां. विष्णू आनी ब्रह्मा हांचीं देवळां जीर्ण जावन पडून गेल्लीं आशिल्ल्यान जे कोण तीं चलयताले ताणीं देवालयांची जमीन विकली. अशें जावन आतां ब्रह्माचें देवूळ आशिल्लें थंय चार दुकानां आसात आनी विष्णूचें देऊळ आशिल्लें थंय पेट्रोल पंप आसा. आनी सोमनाथ देऊळ चारोडी वर्गांतल्या म्हणल्यार गोयांत ज्या लोकांक चाड्डे म्हणटात त्या क्षत्रिय लोकांच्या अधिकारांत आसा. तो लेखस्तंभ गोल्लर गणपती देवालया सामकार आसा तो पळोवन आनी लेखांत 'नीर देवाल्यदलु' असो उल्लेख आसा तो पळोवन कन्नड–इंग्लीश शब्दकोश रचपी पाद्री किट्टेल हाणे आपणाल्या कोशांत गणपती देवालयाक 'नीर देवालय' म्हणटाले अशें म्हणून 'मंगळापूर'च्या विवरणांत म्हणलां.

कालांतरान वामनसेनभंवर हांचें कुटुंब व्हड जावन तांकां दानांतल्यान मेळिल्ली जमीन आनी हेर थळां कुडके जावन कुटुंबाच्या मनशांमदीं वांटून गेलीं. गणपती देवालय आनी ताचे फाटली आनी फुडली जमीन वडलांचे शाखेच्या मनशांक उरली. शक 1732 त (क्रि.श.1810) वडीलशाखेंत दासप्पा शेणाय हे वडील आशिल्ले. तांचो धाकलो भाव आस्पतीचो बी वांटो घेवन दुसऱ्या घरांत गेलो. दासप्पा शेणाय हांकां रुक्मय्या शेणाय हो एकटोच पूत आशिल्लो. शक 1739 (क्रि.श. 1817 )त ईस्ट इंडिया कंपनी सरकारान 'इंडिया रेग्युलेशन ॲक्ट' कायदो लावन दक्षिण कन्नड जिल्ल्याच्या कलेक्टरान जिल्ल्यांतल्या सरकारी आदेशान लाभ जाल्लीं सगळीं देवालयां सरकारी अधिकारांत हाडलीं. दासप्पा शेणाय हाणीं खूब यत्न करूनयबी तांच्या घराण्याचें देवालय लेगीत परतून मेळोवप साध्य जालें ना. थोड्याच वर्सां उपरांत ते हो संवसार सोडून गेले.

ते उपरांत दासप्पा शेणाय हांचो पूत रुक्मय्या शेणाय एकटोच उरलो कारण तांची आवय पयलींच अंतरिल्ली. तशेंच रुक्मय्या शेणायाक बंटवाळांतल्या चड्डू बाळिगा हांच्या घरांतले कन्येकडेन लग्न जाल्ल्यान ताणीं आपणाल्या घरांत एकटोच रावपा बदलाक बंटवाळांत वचून व्यापार करपाचें चिंतून गणपती देवालया फाटल्यान आशिल्लें घर आनी मुखार आशिल्ली जमीन श्रीमान मुंडप्पा बंगेरी हांच्या वडलांक विकून बंटवाळांत वचून *स्थायिक* जाले. थंय एक वखार उगडून तांदळांचो व्यापार सुरू केलो.

मुखार शक 1767 म्हणल्यार 1845 इसवेंत कलेक्टरान सरकारच्या अधिकारांत

गेल्लीं देवालयां एकेक वा दोन दोन विश्वस्त नेमून तीं तांच्या ताब्यांत दिवपाक लागले. तेन्ना मंगळुरांत आशिल्ल्या बस्तीकारांतल्या एकट्याकय आपणाल्या पूर्वजांचीं देवालयां सरकारान आपणाल्या ताब्यांत घेतिल्लीं ते विशीं योग्य म्हायती नाशिल्ल्यान तशेंच बंटवाळांत गेल्ल्या रुक्मय्या शेणायांक कलेक्टर देवालयां विश्वस्तांक दितालो ती खबर कळूंक पावली ना जाल्ल्यान बस्ती घराण्यांची चार देवळां परकी मनशांच्या अधिकारांत गेलीं. म्हणल्यार नीरेश्वाल्यांत आशिल्लीं तीन देवळां आनी हेर थोड्या देवळांचे अत्तावर रामराय हांचे पूर्वज विश्वस्त आशिल्ल्यान तांणी हक्क मेळयलो. गोल्लरकेरीचें गणपती देवालय थंयच लागीं घर आशिल्लो एकटो गवळी सांबाळटालो. त्या खातीर तेन्नाच्यान त्या देवालयाक गोल्लर गणपती देवालय अशें नांव पडलें. रुक्मय्या शेणाय हांणी विकिल्ले जमनींत आज दोन व्हडले बंगले आसात आनी तांकां मुंडप्पा बंगेराचे बंगले अशें म्हणटात.

ते उपरांत शक 1745 त म्हणल्यार 1863 इस्वेंत जिल्ल्याच्या कलेक्टरान विश्वस्त सांबाळटाले तीं देवळां जातीवार गूट करून दर एके जातीक मेळिल्ल्या देवळांचे विश्वस्त नेमपाचे अधिकार दरएके जातीची समिती स्थापून तांचेकडेन दिले. सारस्वत ब्राह्मणांचीं जीं देवळां आशिल्लीं तांचे विश्वस्त नेमपाचे अधिकार सारस्वत समितीकडेन आयले. त्या काळांत गोल्लर गणपती देवळाचो विश्वस्त गोल्लरच आसलो तरी, तें देऊळ सारस्वतांचें आशिल्ले कारणान ताचे वयले अधिकार सारस्वत समितीक मेळिल्ले. 1905 इस्वेंत सारस्वतांचे समितींत नारायण पै, वकील रंगप्पा भांडारी आनी वकील आडिगे श्रीनिवासराय अशे तीग जाण सदस्य आशिल्ले. तें देवालय जीर्ण जावन ताचो एक कोनसो कोसळपाक पाविल्लो. गोल्ला मंजय्याकडच्यान देवळाचो जीर्णोद्धार साध्य जावचो ना म्हूण विश्वस्त समितीन तें सारस्वत समितीकडेन दिलें. समितींतल्या सदस्यांनी जीर्णोद्धार करपाची तांक आशिल्ल्या एकट्या सारस्वत ब्राह्मणाकडेन देवालयाचो ताबो दिलो. त्या ब्राह्मणान देवालयाची गर्भकूड बांदून घेतली आनी उपरांत पूजा–निवेद्य बी तोच करतालो. सगळें सारकें चलपाक लागलें तेन्ना गोल्ला मंजय्याचो पूत दासप्पा हाणे गणपती देवालय आपणाल्या वडलांचें आशिल्ल्यान ताचो हक्क आपणाक मेळपाक जाय अशें म्हणून मंगळूर आनी मद्रास न्यायालयांनी अर्ज केले आनी न्याय मागलो. पूण ताका दोनयकडेन पराजय घेवचो पडलो. तेन्ना





बास्तिकारांच्या नात्यांतले, वेदवेदांगपारंगत आशिल्ले अशे मंजेश्वरांतले केशव भट हांणी त्या देवालयाचो भायलो भाग उत्तम रीतीन बांदून घेवन तें वेवस्थित रीतीन ते सांबाळूंक लागिल्ले.

आजून त्या गणपती देवालया संबंदान सांगपाचें जाल्यार ताचें नांव 'गणपती देवालय' आसलें तरी देवालया भितर सुमार अडेचशीं वर्सां साकून गणपतीची मूर्त ना जाल्ली आसा. ताचें कारण म्हणल्यार त्या देवालयांत देवाची पूजा आनी हेर सेवा करताले त्या वामनसेनभंवर हांचे संततींतल्या मनशांनी उपरांत वैदिक काम सोडून व्यापार करपाक सुरवात केली. त्या खातीर आपणाल्या देवालयांतल्या गणपतीची पूजा आनी हेर सेवा करपाक स्वजातींतलो ब्राह्मण मेळना जाल्ल्यान एका पर जातींतल्या ब्राह्मणाक पुजारी म्हूण नेमिल्लो. तो नेमान पूजा अर्चा करतालो. ताका देवालयाचे गर्भकुडींत गणपतीच्या नांवान निवेद्याखातीर जमीन दान केल्ले विशीं बरयल्ल्या शीळालेखाचें गुपीत कळ्ळें. तेन्ना ताका लोभ जालो. त्या शिवाय तो स्थानिकांच्या ताब्यांत आशिल्लीं देवळां काडून घेवपाचो काळ आशिल्लो. अशे परिस्थितींत ताणे ती दान म्हूण मेळिल्ली जमीन हातासपाची येवजण तयार करपाक सुरवात केली. पूण देवालय बस्तींच्या घराच्या वाठारांतच आशिल्ल्यान त्या पुजाऱ्यान गणपतीची मूर्त उखलून घेवन वचपाची येवजण केली. आनी एक दीस ताणे रातची पूजा सोपोवन वता आसतना गर्भकुडीक कुलूप करिनासतनाच चावी घरांतल्या मनशांकडेन दिवन गेलो. तसोच मध्यान रातीर कसलोच आवाज जावंक दिनासतना अळंग देवळांत वचून गणपतीची मूर्त आनी गणपतीच्या नांवान बरयल्लो तो शिळास्तंभ घेवन फरारी जालो. दुसरे दिसा सदांसारको चावी व्हरपाक पुजारी आयलो ना तेन्ना घरच्यांनी देवालयांत पळयलें. तांकां उगडें आशिल्लें दार दिसलें, आनी गणपतीची मूर्त तिच्या स्थानार दिसली ना. दानपत्र बरयल्लो स्तंभय थंय नाशिल्लो. तेन्ना राज्यांत सगळ्याक बोवाळ जालो. कागाळ करपीय कोण नाशिल्लो आनी कागाळ केली तरी न्याय मेळपाचीय आस नाशिल्ली. अशें जाल्ल्यान पुजाऱ्याक धरप ही गजाल असाध्य जाली. ते उपरांत घरांतल्या मनशांनी मंगळुरांतल्या कोटांत बेवारशी पडून आशिल्ल्या एका देवळांतली मारुतीची मूर्त हाडून *विधिपूर्वक* अभिशेक, होम–हवन आदी सगळे शास्त्र विधी करून ती मूर्त गणपती आशिल्लो त्या आसनाचेर *प्रतिश्ठापित* केली. आनी स्वजातीचो ब्राह्मण

सोदून हाडून पुजारी म्हूण नेमलो. त्या दिसाच्यान त्या देवळांत गणपतीच्या बदलाक मारुती आसा.

थोड्या वर्सां उपरांत फरारी जाल्लो तो पुजारी गणपतीची मूर्त घेवन मंगळुरांत येवन ती दुसऱ्या एका शिवालयांत स्थापन केली आनी तो दान मेळिल्ले जमनीतलें उत्पन्न घेवंक लागलो अशें सांगतात.

आदीं विवरण केलां ते प्रमाण सारस्वत ब्राह्मणांचो आशिल्लो तो गणपती, ब्रह्मा, विष्णू आनी महेश्वर ह्या चार देवांचीं देवळां आनी मंजेश्वरांतलें श्री मदनंतेशवर देवालय हीं शकाच्या तेराव्या शेंकड्या परस पयलीं तुळुनाडूंतलीं म्हूण सिद्ध जाता. त्या भायर आळुप वंशाच्या राजांनीं त्या देवालयांच्या निवेद्याखातीर भूमी दान केल्ली ताचे वयल्यान आळु वंशाचे राजा सारस्वत ब्राह्मणांचे *आश्रयदाते* आशिल्ले म्हूण सिद्ध जाता.

दुसऱ्या बंकीदेवाळुपेंद्रा उपरांत राज्यार आयिल्ल्या सोयिदेव आळुपेंद्राच्या शिळालेखांनी आशिल्ली महाप्रधान सोवण्ण सेनबोव आनी सिंगण्णसहणी हीं नांवां सारस्वत ब्राह्मणांचींच. आतां दक्षिण कन्नड जिल्ल्यांत 'सहणी' उपनावांच्या सारस्वत ब्राह्मणांचीं घरां नात अशें आसलें तरी हेर कडेन आसात. ते आतां सहणी वा सहनी हें उपनांव सोहोनी वा सहनी अशा रूपान वापरतात. हालींच मराठींत 'गौड सारस्वत ब्राह्मणाचा इतिहास' नांवांचें पुस्तक उजवाडा हाडिल्ले महनीय व्यक्तीचें नांव 'श्री. रामचंद्र नरहर सोहनी' अशें आसा.

*****

## उपसंहार

सारस्वत ब्राह्मण जे दक्षिण भारतांत वचून स्थायिक जाले ताचो उद्येश थंय वैदिक धर्माचो प्रचार करप हो आशिल्लो. ते आपणालो उद्देश पुरायपणी साध्य करपांत जैतिवंत जाले. बाराव्या शेंकड्या उपरांत जैन तशेच बौद्ध धर्मियांच्या प्रभावान वैदिक धर्माचें स्वरूप इल्लेंशें बदललें आसलें तरी ताणें आपणालीं मुखेल लक्षणां चडशीं सांबाळ्ळ्यांत. जैन धर्माच्या तत्त्वानीं प्रभावित जाल्ल्या ब्राह्मणांच्या अपप्रचारांतल्यान दक्षिण भारतांत आतां सारस्वत ब्राह्मणांचे मान भोवमान संकोच पावला आसलो तरी तांणी बाळगिल्ल्या हावेसांत तांकां पयलीं परस चड जैत जोडपाक कठीण जावचें ना. म्हणल्यार सारस्वत ब्राह्मण हेरां परस चड प्रगतिशील आशिल्ल्यान ते कार्याचे रंगमाचयेर आयले जाल्यार ते प्राचीन काळांत केलें तशेंच हिन्दू समाजांत फाटीं पडिल्ल्या लोकांक संघटित करून तांचे मदीं धर्मप्रचार, जातिभेद नांवांच्यो वणटी ना करून सगळ्या हिन्दूंक एक जात आनी एक धर्म अशा बळिश्ट सूत्रान बांदून दवरपा भायर हेरांकय बी आपणा समान म्हळ्ळे भावनेन आपणाभितर सामावन घेवन भारतवर्षाक जगांतलें एक बलाढ्य राष्ट्र करतीत तशेंच प्राचीन काळांतले सारको हिन्दू धर्म पयस पयसुल्ल्या देशांनी पावूंये. देवान सारस्वत ब्राह्मणांक धनसंपत, विद्यासंपत दिवन करुणा दाखयल्या. ताणे तांकां ती संपत देशोद्धाराक तशीच धर्मोद्धाराक विनियोग करपाची स्फुर्त दिवंची अशी प्रार्थना करून हो लेख सोपयन – इति अलम्.

*****

# परिशिष्ट

Chaunda Madhava, as he has been called to distinguish him from the two others, was also a Vedic Scholar, but unlike Mayana Madhava, also exercised secular authority as a warrior and minister. According to one record dated 1347 A. D., he was born a "pilot" who by the power of his wisdom is said to have overreached "Brihaspati." He is further spoken of as the conqueror of foreign countries for Marapa (E. C. VIII Sorab 375) The reference apparently is to the conquest of Goa effected by him for Marapa (I. A. VI, 162 f. n. 11) He was in charge of Jayanti (or Kadamba) country and was Marapas minister. From another inscription dated 1368 A. D., which records a grant by Madhava himself, we learn he was the minister of Bukka I (E. C. VIII Sikarpur 281) He apparently became the minister of Bukka I when the latter ascended the throne in succession to Harihara I, about 1353 A. D. This record seems to suggest that his valour though a "holy man" was so great that obtained recognition at his sovereigns hands. He was ordered about 1368 A. D. the date of the record, to accept the charge of the Government as fas as the western ocean. This is confirmed by an inscription dated in 1371 A. D. which tells us that Madhava was the governor of Banavasi, that he defeated the Turuskas (=Mohammadans) and wrested Goa from them and that he made a grant in that year to twenty four learned Brahmans, who co-operated with him in the composition of works bearing his name. (page 1443).

Another grant connected with his name is that recorded in Goa, copper plates above referred to, which mention the gift of a village by him in his mother's name naming it Machalapura. A lithic inscription at Balihalli dated in 1369 A. D., a grant in his own favour during the reign of Bukka I, while it would appear from another record at the same place (E. C. VI Koppa 6) dated in the same year that he was governor of Araga and oterh places which were in charge of Marapa and that he had a son named Boltarasa (See M.A.R. 1916 para 93)

Page 1474. A more famous minister and general, who was governor of Araga and other places forming the western part of the kingdom, was Madarasa-Odeyar, identical with Chaunda Madhava, the great upanishadic scholar and Saiva author already referred to. He served under Bukka I also. He was still alive in 1384 A. D., (E. C. VII Tirthahalli 147) though in 1377 A.

D., we hear of Virupaksha-Raya I a younger brother of Harihara II. succeeding him in the governorship of Araga (E.C. VI Koppa 19) if this is so, Madhava should have been the minister and Virupaksha (Virappaanna) the viceroy, for in 1384 A. d., Madhava is referred to as making grants in Araga. (E. C. VIII Tirthahalli 147) A few facts about Chaunda Madhava may be noted here. From the inscriptions quoted above, ranging in date from 1347 A. D. to 1384 A. D., he should have lived throughout the reigns of Harihara I and Bukka I and for a time during the reign of Harihara II as well. In the earliest inscription dated 1347 A. D. (E. C. VII sorab 375) when Harihara I was living. Madhava appears as the Minister of Marapa, who had "acquired a kingdom in the west" with Chandragutti as its capital. It is stated that Marapa obtained him as Bhargava had obtained Sankara. Madhava is here described as the disciple of Kriyasakti who was Tryambaka himself, and as "the great minister" who was Tryambaka himself, and as "the great minister" who was born a pilot to the great king. (Marapa) "floating in the ocean of the kingdom." In the power of his wisdom he could, it is said, over-reach Brihaspati. In the next important inscription dated in 1368 (A. D.) in the reign of Bukka I we have some more notable details about Madhava (E. C. VII Shikaripur 281). He is described as the son of Chaunda, an austere ascetic Brahman of the Angirasa gotra, and that through the astonishing favour of his guru, Kasivilasa Kriyasakti, he gained celebrity as a saiva. By his masterful energies, he subdued this world and the next, and was speedily the conqueror of many countries on the shores of the western ocean. "What more could be said in his praise" ! exclaims the learned Phanisity, the throne, committed the government as far as the western ocean to him. Madhava, in order that his overseeing of that part of the kingdom, might be without trouble, on the advice of his guru Kriyasakti worshipped his favourite linga Tryambakanatha by means of special ceremonies and by a number of rites and practices as prescribed in the Saivagama. Then in oder to complete the great vow which he had commenced with special rites a year before in accordance with the directions of Siva-sandhya, he requested the king's permission to make the grant of a village, but explained that it must be acquired from his won funds. Leave being granted, he purchased "at the price of the day", a village in his own province "with" we are told "the knowledge of the authorities of the mandala" and divided it into 80 shares and bestowed the same on Kashmir Brahmans "pre-eminent by their virtues and the country of their birth" travellers to the farthest point of the

Charayaniya-aticharranamnaya daily observers of all the rites appointed in the pure Sivamnaya, ever devoted to the worship of Astamurti".

Madhava is further described as distinguished for policy and courage and as renowned in the world for his good qualities. It is said he was invested with authority for punishing the evil and with Brahman purity and Kshatra victorious power for protecting the earth from fear. He was undoubtedly as great in leading armies to success on the battle-field as in the conducting the civil administration of the country. That he was a devout saiva and a great scholar and author is also evident. His grant to Kashmir Brahmans evidently of the Pasupata sect and resident in the Mysore country, shows that he was either an immigrant Kashmir Brahman himself or preferred Kashmir Brahmans as his donees because of his guru Kriyasakti who was obviously the head of the Pasupata sect at the time. Kriyasakti mentioned as his guru, appears to have been the family-guru of Vijayanagar kings of the first dynasty from Harihara I downwards. He probably belonged to the Lakualagama school and was a strict Saiva. The next inscription mentioning Madhava is one dated in 1384 A. D. (E. C. VIII Tirthahalli 147). This takes us into the reign of Harihara II. He was still the administrator of the western part of the kingdom including Araga and the other provinces. Seeing that we have no further trace of him, probably it has to be presumed that he died not long after. His son Boltarasa has been referred to above. Chaunda, father of Madhava, is, it will be seen (from E. C. VIII Shikaripur 281) described as "an austere ascetic". The Goa copper plates speak of him as Chaundi Bhatta and mention his mother's name as "Machambika".

*****

# इतिहास विभागाचे सहायक ग्रंथ

१. रुग्वेद (शाकलसंहिता) – श्री. विनायक रामचंद्र पटवर्धन
२. रुग्वेद (बाष्कलसंहिता) – निर्णयसागर मुद्रणालय
३. ऐतरेय ब्राह्मणम् – निर्णयसागर मुद्रणालय
४. कौशितकी ब्राह्मणम् – प्रो. ए. बी. कीथ्
५. कृष्ण यजुर्वेद (तैत्तिरीय शाखा) – श्री. सातवळेकर श्रीपाद शर्मा
६. शुक्ल यजुर्वेद (माध्यंदिन शाखा) – श्री. सातवळेकर श्रीपाद शर्मा
७. तैत्तिरीय ब्राह्मणम् – आनंदाश्रम मुद्रणालय
८. शतपथ ब्राह्मणम् – Dr. Albert Weber
९. सामवेद (हिन्दी टीके संहिता) – स्वामी तुलसीराम
१०. तांड्य महा ब्राह्मण – चौखंदा संस्कृत सिरीज
११. आर्षेय ब्राह्मणम् – डॉ. ए. सी. बर्जेल
१२. संहितोपनिषद् ब्राह्मण – डॉ. ए. सी. बर्जेल
१३. अथर्व वेद – श्री. सातवळेकर श्रीपाद शर्मा
१४. शिक्षादिवेद षडंगानी – निर्णयसागर मुद्रणालय
१५. श्रौतकोश – वैदिक संशोधन मंडळ, पुणे
१६. कात्यायन श्रौत सूत्र – चौखंदा संस्कृत सिरीज
१७. महाभारत – श्री. न. वेंकट सुब्बा शास्त्री
१८. श्री शांतादुर्गा चतु.शताब्दी महोत्सव ग्रंथ – महोत्सव समिती, गोवा
१९. गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक – शेणै वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकर
२०. शंकरविजय (व्यासाचलकवी) – Government of Madras
२१. शंकरविजय (माधवीय) – श्री. हरिनारायण आपटे
२२. शंकरविजय (आनंदगिरी) – जीवानंद विद्यासागर बी. ए.
२३. कन्नड शासनगळ सांस्कृतिक अध्ययन – डॉ. चिदानंदमूर्ती एम. ए.
२४. हैगा–हैवे – श्री. मंजेश्वर गोविंद पै
२५. तुळुनाडु पुर्वस्मृती – श्री. मंजेश्वर गोविंद पै
२६. तुळुनाडु – श्री. पी. गुरुराज भट एम. ए. बी. टी.

| | | | |
|---|---|---|---|
| २७. | तुळुनाडिन इतिहासदल्ली स्थानिकरू | – | श्री. पी. गुरुराज भट एम. ए. बी. टी |
| २८. | विजयनगर साम्राज्य | – | श्री. पी. गुरुराज भट एम. ए. बी. टी. |
| २९. | श्री. सुब्रह्मण क्षेत्रद वर्णने | – | सुब्रह्मण्य देवस्थानद आडळिते समिती |
| ३०. | स्थानीक ब्राह्मणरु | – | श्री. आय. के. श्रीनिवासराव |
| ३१. | ग्राम पद्धती | – | श्री. होळ्ळ कृष्णय्या |
| ३२. | द्रावीड भाषाविज्ञान | – | श्री. हंपा नागराजय्या |
| ३३. | पाणिनीकालीन भारतवर्ष | – | श्री. वासुदेवशरण अग्रवाल |
| ३४. | चंद्रगुप्त मौर्य और भारत में अलेक्झांडर की पराजय | – | प्रो. हरिश्चंद्र सेर, एम.ए.,पी.एच.डी. |
| ३५. | मुद्राराक्षस | – | महाकवी विशाखदत्त |
| ३६. | देवभूमी गोमन्तक | – | |
| 37. | Chandragupta Maurya and his times | - | Shri. Radhakumud Mukerjee |
| 38. | Somnath the Shrine eternal | - | Shri. K. M. Munshi |
| 39. | Glory that was Gurjara Desa | - | Shri. K. M. Munshi |
| 40. | Mysore Gazetter | - | Shri. Hayawadana RAi B.A. BL. |
| 41. | A History of South India | - | K. A. Nilakanta Sastri M. A. |
| 42. | History of India | - | K. A. Nilakanta Sastri M. A. |
| 43. | Ancient India | - | Sri. V. D. Mahajan M. A. |
| 44. | Oxford History of India | - | Vincen A. Smith |
| 45. | A Survey of Indian History | - | Sri. K. M. Panikar |
| 46. | Ancient Karnataka History of Taluka P. I. | - | Dr. B. A. Saletore, M. A. Ph.D. |
| 47. | The Sthanikas and their Historical Importance | - | Dr. B. A. Saletore |
| 48. | Immortal India - I to IV | - | Bharatiya Vidyabhavan |
| 49. | Shankaracharya The Great and His Successors at Kanchi | - | Sri. N. Venkatraman M. A.. Ganesh & Co., Madras |
| 50. | Arctic Home in the Vedas | - | Sri. B. G. Tilak |
| 51. | Saraswat Families from Parts I to III | - | Sri. S. S. Talamaki, B.A. LL.B. |

52. The Chitrapur Saraswat Retrospect - Sri. K. Gurudutt
53. Ancient Shrines in Goa - Government of Goa
54. Annual Report of the Mysore Archaeological Department 1943

*****



विश्व कोंकणी केंद्र
WORLD KONKANI CENTRE
MANGALORE

# ವಿಶ್ವ ಕೊಂಕಣಿ ಕೇಂದ್ರ

## ಕೊಂಕಣಿ ಭಾಸ ಆನಿ ಸಂಸ್ಕೃತಿ ಪ್ರತಿಷ್ಠಾನದ ಗ್ರಂಥ ಪ್ರಕಟಣೆಗಳು

| ನಂ. | ವಿಶ್ವ ಕೊಂಕಣಿ ಸಾಹಿತ್ಯ ಪುಸ್ತಕದ ಹೆಸರು | ಲೇಖಕರ ಹೆಸರು | ಪ್ರಕಟಣೆಯ ವರ್ಷ | ಪುಸ್ತಕದ ಬೆಲೆ |
|---|---|---|---|---|
| 1 | मंजेश्वर गोविंद पै (देवनागरी) | ಶ್ರೀ ಕಯ್ಯಾರ ಕಿಞ್ಞಣ್ಣ ರೈ (ಕನ್ನಡ) ಡಾ. ಎಲ್. ಸುನೀತಾ ಬಾಯಿ, ಕೊಚ್ಚಿ | 2008 | 200 ರೂ |
| 2 | ಮಂಜೇಶ್ವರ ಗೋವಿಂದ ಪೈ (ಕೊಂಕಣಿ) | ಶ್ರೀ ಕಯ್ಯಾರ ಕಿಞ್ಞಣ್ಣ ರೈ (ಕನ್ನಡ) ಡಾ. ಎಲ್. ಸುನೀತಾ ಬಾಯಿ, ಕೊಚ್ಚಿ | 2008 | 200 ರೂ |
| 3 | ಕಮಲಾದೇವಿ ಚಟ್ಟೋಪಾಧ್ಯಾಯ ಜೀವನ ಚರಿತ್ರೆ ಮತ್ತು ಕಾರ್ಯ(ಕೊಂಕಣಿ) | ಜ್ಯೋತ್ಸ್ನಾ ಕಾಮತ್, ಬೆಂಗಳೂರು | 2009 | 200 ರೂ |
| 4 | ನೂಪುರ – ಕೊಂಕಣಿಯ ಮಹಾನ್ ಕವಿ ಶ್ರೀ ಬಾಕಿಬಾಬ ಬೋರಕರ ಅವರ ಆಯ್ದ ಕವಿತೆಗಳ ಕನ್ನಡ ಭಾವಾನುವಾದ (ಕನ್ನಡ) | ಮೂಲ ಕೊಂಕಣಿ: ಶ್ರೀ ಬಾಕಿಬಾಬ ಬೋರಕರ ಕನ್ನಡ ಭಾವಾನುವಾದ: ಶ್ರೀಮತಿ ಶಕುಂತಲಾ ಆರ್. ಕಿಣಿ | 2010 | 200 ರೂ |
| 5. | ವಿಶ್ವ ಕೊಂಕಣಿ ಬಾಲಸಾಹಿತ್ಯ ಮಾಳಾ (ಕನ್ನಡ ಮತ್ತು ಕೊಂಕಣಿ ದೇವನಾಗರಿ ಪುಸ್ತಕ)– 8 ಪುಸ್ತಕಗಳ ಒಂದು ಕಟ್ಟು –ವಾಲ್ಮೀಕಿ (1) | ಶ್ರೀಮತಿ ಚಂದಮುಖಿ ಎಸ್. ರಾವ್ | 2010 | 20 ರೂ |
| 6. | –ವ್ಯಾಸ (2) | ಶ್ರೀಮತಿ ಜಯಶ್ರೀ ಶ್ಯಾನಭಾಗ್ | 2010 | 20 ರೂ |

| 7. | –ವಿಶ್ವಾಮಿತ್ರ (3) | ಶ್ರೀಮತಿ ಜಯಶ್ರೀ ಶ್ಯಾನಭಾಗ್ | 2010 | 20 ರೂ |
|---|---|---|---|---|
| 8. | –ಪರಶುರಾಮ (4) | ಶ್ರೀಮತಿ ಜಯಶ್ರೀ ಶ್ಯಾನಭಾಗ್ | 2010 | 20 ರೂ |
| 9. | –ಗಾಂಧೀಜಿ (5) | ಶ್ರೀಮತಿ ಜಯಶ್ರೀ ಶ್ಯಾನಭಾಗ್ | 2010 | 20 ರೂ |
| 10. | –ಶೆಣ್ಯೈ ಗೋಂಯ್ ಬಾಬ್ (6) | ಶ್ರೀಮತಿ ಜಯಶ್ರೀ ಶ್ಯಾನಭಾಗ್ | 2010 | 20 ರೂ |
| 11. | –ಅಮ್ಮೆಂಬಳ ಸುಬ್ಬರಾವ್ ಪೈ (7) | ಶ್ರೀಮತಿ ಸುಚಿತ್ರಾ ಎಸ್. ಶೆಣ್ಯೈ | 2010 | 20 ರೂ |
| 12. | ಪಂಜೆ ಮಂಗೇಶ ರಾವ್ (8) | ಶ್ರೀಮತಿ ಜಯಶ್ರೀ ಶೆಣ್ಯೈ | 2010 | 20 ರೂ |
| 13. | ಕನ್ನಡ –ಕೊಂಕಣಿ ರತ್ನಕೋಶ | ಶಬ್ದ ರತ್ನಾಕರ ಎಂ. ಮಾಧವ ಪೈ | 2011 | 500 ರೂ |
| 14. | ವಿಶ್ವ ಕೊಂಕಣಿ ಪರಿಚಯ ಕೋಶ<br>ಖಂಡ– 1 (ಕೊಂಕಣಿ)<br>ಖಂಡ–2 (देवनागरी) | ಸಂಪಾದಕ: ಡಾ. ತಾನಾಜಿ ಹಳರಣಕರ | 2011 | 200 ರೂ |
| 15. | The Kiln (English Novel) | Konkani Novel 'Havthan': Mahabaleshwar Sail English Translation: Vidya Pai, Kolkata | 2011 | 200 ರೂ |
| 16. | ಕಾಬೂಲಿವಾಲಾ ಮತ್ತು ಇತರ ಕಥೆಗಳು (ಕೊಂಕಣಿ) | ಮೂಲ: ಶ್ರೀ ರಬೀಂದ್ರನಾಥ ಠಾಗೋರ<br>ಕೊಂಕಣಿ: ಶ್ರೀಮತಿ ಜಯಶ್ರೀ ಶ್ಯಾನಭಾಗ | 2011 | 100 ರೂ |
| 17. | Choola (Malayalam Novel)<br>ಚೂಲಾ–ಕಾದಂಬರಿ (ಮಲಯಾಳಂ) | ಮೂಲ ಕೊಂಕಣಿ: ಶ್ರೀ ಮಹಾಬಲೇಶ್ವರ ಸೈಲ್<br>ಮಲಯಾಳಂ ಅನುವಾದ:<br>ಡಾ. ಎಲ್. ಸುನೀತಾ ಬಾಯಿ | 2011 | 200 ರೂ |

| 18. | ಕೊಂಕಣಿ ರಂಗ ಭೂಮಿಯ ಆದ್ಯ ಬೊಳಂತೂರು ಕೃಷ್ಣ ಪ್ರಭು (ಕನ್ನಡ) | ಶ್ರೀ. ಬಿ. ಮಧುಕರ ಮಲ್ಯ | 2012 | 50 ರೂ |
|---|---|---|---|---|
| 19. | Tembare –(Konkani Novel) (ತೆಂಬರೆ) | Kannada Original: Sri M. Veerappa Moily Konkani Translation: Sri. Ramesh Lad, Goa | 2012 | 150 ರೂ |
| 20. | ಆಧುನಿಕ ಕೊಂಕಣಿ ಕತೆಗಳು (ಕನ್ನಡ) | ಡಾ. ಗೀತಾ ಶೆಣೈ | 2013 | 200 ರೂ |
| 21. | ವೈಶಾಖಿ (ಭಗವಾನ ಬುದ್ಧಾಚೆ ಅಂತಿಮ ದೀಸ) ಮಂಜೇಶ್ವರ ಗೋವಿಂದ ಪೈ ಖಂಡ ಕಾವ್ಯ | ಪ್ರೊ. ಎಮ್. ಮಾಧವ ಪೈ (ಕೊಂಕಣಿ) | 2013 | 100 ರೂ |
| 22. | ಋತುಸಂಕ್ರಮಣ ಮತ್ತು ಇತರ ಕಥೆಗಳು (ಕನ್ನಡ) | ಗೀತಾ ಶೆಣೈ | 2013 | 125 ರೂ |
| 23. | ಒಪೇರಾ ಹೌಸ್ (ಕೊಂಕಣಿ) | ಕನ್ನಡ ಸಣ್ಣ ಕಥೆಗಳು : ಜಯಂತ ಕಾಯ್ಕಿಣಿ ಕೊಂಕಣಿ ಅನುವಾದ: ಶ್ರೀ ರಮೇಶ ಲಾಡ | 2013 | 125 ರೂ |
| 24. | ಸಾಯ್ಬಾ ಭೊಗೊಸ್ – ಕೊಂಕಣಿ ಕಾದಂಬರಿ (सायबा भोगोस – देवनागरी) | ಖಡಾಪ್ ( ವಿ.ಜೆ. ಪಿ. ಸಲ್ಡಾನ್ಹಾ) | 2013 | 200 ರೂ |
| 25. | ಏಕ ಭಿಕ್ಷುಕ ಚಕ್ರವರ್ತಿ ಆತ್ಮಕಥೆ (ಕೊಂಕಣಿ) | ಬಸ್ತಿ ವಾಮನ ಶೆಣೈ | 2013 | 500 ರೂ |
| 26. | ವೈಶಾಖ ಫುಲ್ಲೊ (ಕೊಂಕಣಿ) | ಪದ್ಮಾ ಶೆಣೈ | 2014 | 150 ರೂ |
| 27. | ಆವಿಗೆ (ಕನ್ನಡ ಕಾದಂಬರಿ) | ಮೂಲ ಕೊಂಕಣಿ: ಮಹಾಬಳೇಶ್ವರ ಸೈಲ್ ಕನ್ನಡ ಅನುವಾದ: ಶಾ.ಮಂ. ಕೃಷ್ಣರಾಯ | 2014 | 120 ರೂ |
| 28. | Report of A Socio – Economic Survey of KUDUBIS OF KARNATAKA | Dr. Y. Ravindranath Rao | 2014 | 100 ರೂ |
| 29. | Contribution of Konkani HORTUS INDICUS MALABARICUS (Seminar Papers) | Ed.: Prof. Bhushan Bhave. | 2014 | 250 ರೂ |

| 30. | Descriptive Study of Kudubi Dialect (Spoken By Kudubi Community of Uttara Kannada, Udupi and Dakshina Kannada District) | Dr. Varija N. | 2015 | 300 ರೂ |
|---|---|---|---|---|
| 31. | ಓರ್ವ ಭಿಕ್ಷುಕ ಚಕ್ರವರ್ತಿ ಆತ್ಮಕಥೆ (ಕನ್ನಡ) | ಅನುವಾದ: ಡಾ. ಗೀತಾ ಶೆಣ್ಯೆ | 2016 | 400 ರೂ |
| 32. | "ಆಧುನಿಕ ಮಂಗಳೂರು ನಗರ ನಿರ್ಮಾತೃ" ಉಳ್ಳಾಲ ಶ್ರೀನಿವಾಸ ಮಲ್ಯ (ಕನ್ನಡ) | ಬಸ್ತಿ ವಾಮನ ಶೆಣ್ಯೆ | 2016 | 50 ರೂ |
| 33. | "Maker of Modern Mangaluru" Ullal Srinivas Mallya (English) | Basti Vaman Shenoy | 2016 | 50 ರೂ |
| 34. | ಕುಂಡ್ಯಾ ಕುರ್ಕುಳ ಸಚಿತ್ರ ಭುರ್ಗ್ಯಾಂಲ್ಯೊ ಲೋಕ ಕಾಣಿ | Konkani Language & Cultural Foundation | 2016 | 60 ರೂ |
| 35. | ಉಪನಿಷತ್ (ಕೊಂಕಣಿ) | Konkani Language & Cultural Foundation | 2017 | 100 ರೂ |

## Vishwa Konkani BALASAHITYA Mala (Bi-lingual Books)
## Konkani (Devnagari Script) and English

| Sl.No. | Title | Price |
|---|---|---|
| 1 | Tenali Raman Outwits the Thieves | Rs. 35/- |
| 2 | The Clever Son - Tales from Jataka | Rs. 35/- |
| 3 | The Boy Who Was a Snake - Tales from Panchatantra | Rs. 35/- |
| 4 | Cinderella - A Fairy Tale | Rs. 35/- |
| 5 | The Noble Elephant - Tales from Hitopadesha | Rs. 35/- |
| 6 | The Sparrows of Agra - Tales of Akbar and Birbal | Rs. 35/- |
| 7 | The Loyal Mongoose - Tales from Panchatantra | Rs. 35/- |
| 8 | Ganesh - A Traditional Tale | Rs. 35/- |
| 9 | The Blue Jackal - Tales from Panchatantra | Rs. 35/- |
| 10 | The Wise Rat - Tales from Hitopadesha | Rs. 35/- |
| 11 | The Wise Old Bird - Tales from Panchatantra | Rs. 35/- |
| 12 | A Tale of Three Fish - Tales from Panchatantra | Rs. 35/- |
| 13 | The Ugly Duckling - A Fairy Tale | Rs. 35/- |
| 14 | There is Strength in Numbers - Tales from Panchatantra | Rs. 35/- |
| 15 | Snow White and the Seven Dwarfs - A Fairy Tale | Rs. 35/- |
| 16 | Never Trust a Stranger - Tales from Panchatantra | Rs. 35/- |
| 17 | The Proud Crow Tales from Hitopadesha | Rs. 35/- |
| 18 | The Clever Moneylender - An Indian Folk Tale | Rs. 35/- |
| 19 | The Devout Beggar - An Indian Folk Tale | Rs. 35/- |
| 20 | Rapunzel - A Fairy Tale | Rs. 35/- |
| 21 | Tenali Raman and the Learned Man | Rs. 35/- |
| 22 | The Rooster's Ploy - An Indian Folk Tale | Rs. 35/- |
| 23 | Tenali Raman and the Proud King | Rs. 35/- |
| 24 | The Mice that Ate Iron Tales from Panchatantra | Rs. 35/- |
| 25 | The Problem of the Mango Tree - Tales of Akbar and Birbal | Rs. 35/- |
| 26 | Jesus Christ - A Traditional Tale | Rs. 35/- |
| 27 | Where is God? An Indian Folk Tale | Rs. 35/- |
| 28 | Tales Price of a Sweet Smell | Rs. 35/- |
| 29 | The Wicked Raven Tales from Hitopadesha | Rs. 35/- |
| 30 | Tenali Raman and the Proud Priest | Rs. 35/- |




The testimonial in Konkani Language as published in "Hortus Malabaricus" a comprehensive treatise that deals with the medicinal properties of the flora in the Indian state of Kerala concieved by Hendrik van Rheede who served as a governor of Dutch Malabar between 1670 and 1677. The testimonial certify the authenticity of medicinal information recorded in the Volumes. It has been inscribed in Konkani Language. duly signed by Ranga Bhatta. Vinayaka Pandit and Appu Bhatta. three Konkani Physicians. who were the prominent contributers to the work. Apart from Latin. the plant names have also been recorded in Konkani Language in these volumes.



बस्ती पुंडलीक शेणै
1904-1991

गांधीवादी, स्वातंत्र्य झुजारी, संशोधक, इतिहासकार आनी लेखक. मुळाव्या शिक्षणा उपरांत स्वाध्यायनान संस्कृत आनी इंग्लीश भाशांचेर प्रभुत्व जोडलें. महात्मा गांधीच्या उल्याक मान दीवन एक सत्याग्रही म्हणून स्वातंत्र्य चळवळींत वांटो घेतलो आनी बंदखणीची ख्यास्त भोगली. कारागृहांत आसतना हिंदी उलोवपी लोकांच्या संपर्कांत येवन हिंदी भास शिकून घेतली आनी उपरांत सरकारी परीक्षेंत उत्तीर्ण जावन बंटवाळच्या एस.वी.एस हायस्कूलांत हिंदी शिक्षकाची नोकरी सुरू केली. त्याच वेळार शाळेचो ग्रंथपाल म्हणूनय काम केलें. पुस्तकालयाचो उपेग घेवन वेद, उपनिषत, सभ्यताय, इतिहास आदी विशयांचो अभ्यास केलो.

---

'सारस्वत ब्राह्मणांचो प्राचीन इतिहास' - ह्या पुस्तकाचो, श्री रमेश लाड हांणी कोंकणींत अनुवाद केला. श्री लाड हे नामनेचे अणकारपी. ताणी कन्नड भाशेचीं साबार पुस्तकां कोंकणींत भाशांतर केल्यांत. कन्नड कथाकार मास्ती वेंकटेश अय्यंगार हांच्या 'सण्ण कथेगळू' ह्या पुस्तकाच्या अणकारा खातीर तांकां केंद्र साहित्य अकादेमी पुरस्कार लाबला.



रमेश लाड




विश्व कोंकणी केंद्र
WORLD KONKANI CENTRE


9 789382 582373

₹ 200